# ध्व : समिक्षेंतलो



डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार

# क्षः समिक्षेंतलो

डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार
प्रपाठक
मराठी विभाग, गोंय विश्वविद्यालय




परा-प्रतिमा प्रकाशन
तुयें, पेडणें - गोंय ४०३ ५१२

**क्षः समिक्षेंतलो**

(समिक्षा बरप)

**डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार**

**X : Samixetlo**

( Literary Criticism)

**Dr. Balkrishna G Kanolkar**



**प्रकाशन क्रः ७**

**प्रकाशनः**
परा-प्रतिमा प्रकाशन
तुयें, पेडणें - गोंय, ४०३ ५१२
C/c : 9421156116

**मुद्रण :**
अनिकेत डोट कॉम

**वितरण व्यवस्था**
अक्षर-आनंद वितरक
फोंडे-गोंय, ४०३००१

**पयली उजवाडावणीः** मार्च २००८

**मुखचित्रः**
रुक्मा

**कवर डिजायनः**
हेमकृष्ण

**मोलः** ९२ रुपया



---

ह्या पुस्तकाक गोंय कोंकणी अकादेमीचें 'पयलो चंवर' येवजणेखाला प्रकाशन अनुदान मेळ्ळां.

कोंकणी मायेची
जैताची घुडी
उभारूक वावुरपी
समस्त धुवांपुतांक
व्हडा नमळायेन
हें अक्षरफुल
ओंपतां.

- बाळकृष्णजी कानोळकार

*लेखकाची वळख : गरजेपुरती*

# बाळकृष्णजी कानोळकार, पीएच्. डी.

जल्मः ७ मार्च, १९५६ वायदोंगर, पार्शें, पेडणें हांगा.

**शिकपः**

गोंय, दमण आनी दीव सरकाराच्या शिक्षण खात्याची डी.ॲड्. पदविका (विशेश श्रेणींत गोंयांत पयलो), जून १९७७.

प्राचीन भारतीय इतिहास आनी संस्कृताय हो विशय घेवन बी.ए. (उच्च दुसरो वर्ग, शिवाजी विद्यापीठ), जून १९८०.

आधुनिक इतिहास ह्या विशयांत एम्.ए. (मुंबय विद्यापीठ), जून १९८४.

मराठी विशयांत एम् ए. (पयलो वर्ग; शिवाजी विद्यापीठ), जून १९९०.

मराठी विशयांत पीएच् डी (गोवा विद्यापीठ), डिसेंबर २००२.

NCERT भोपाळ कॉलेजींतल्यान बी.ॲड्. (पयलो वर्ग, भोपाळ विश्वविद्यालय), जून १९८७.

कोंकणी शिक्षक सनद (कोंकणी भाशा मंडळ), पयल्या वर्गांत पयलो, १९९०.

UGC दिल्लीची मराठी विशयांत NET, जुलै १९९१.

UGCची ज्युनियर रिसर्च फेलोशीप (JRF) पास, जुलै १९९१.

पोर्तुगीज भाशा प्रमाणपत्र, पोर्तुगीज आनी लातीं भाशांचें खाजगी शिकप, थिएटर ओरिएन्टेशन कोर्स, इंटरमिजिएट फाईन आर्ट.

**नामनेचें संपादनः**

'अपरांतक' हें कोंकणी-मराठी सांस्कृतिक म्हयनाळें. ताचे 'लक्ष्मणराव सरदेसाई जल्मशताब्दी विशेषांक', 'कविवर्य बा भ बोरकर विशेषांक', 'कविताव्रती शंकर रामाणी विशेषांक' आनी 'कथा विशेषांक'. 'कोंकणी विश्वकोशा 'खातीर बरप केलां. 'गोमंतकीय मराठी वाङ्मयाचा इतिहास खंड पहिला' ह्या ग्रंथांत 'कथा (प्रारंभ ते १९६१)' ह्या निबंदाचो आसपाव जाला. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लेज भाशांतल्यान कथा, कविता, एकांकी, नाटक, निबंद, समिक्षा, सोदनिबंद, संशोधन बी विंगड विंगड तरांचें बरप चल्लां. गोंयचें प्रायोगिक नाटक आनी रंगमाची हांचेकडेन संबंद.

**अभ्यासाचीं खाशेलीं मळां:**

गोंयचो इतिहास,समाज,साहित्य आनी संस्कृताय, गोमंतविद्या(Goalogy) मराठी साहित्य, समाज आनी संस्कृताय; भारतीय साहित्य, कोंकणी साहित्य, तौलनिक साहित्य आनी संस्कृतायेचो अभ्यास,भासविज्ञान आनी समाजभासविज्ञान, नाटक आनी रंगमाची, विंगड विंगड भासांचो अभ्यास, साहित्य अणकार आनी प्राच्च्यविद्या (Indology).

**उजवाडाक आयिल्लें साहित्य:**

'प्रा. लक्ष्मणराव सरदेसाई यांची कथा: एक शोध', 'गोमंतकीय साहित्यातील शोधस्थळे.'

१९९० सावन कोंकणींतल्यान बरप करता.

१९९३ सावन समिक्षक म्हण नामना.

नाट्य, साहित्य आनी समिक्षेखातीर पुरस्कार फावो जाल्यात.

साबार कला आनी साहित्य सर्तींत राज्य पांवड्यार परिक्षक म्हण वावर.

साबार सामाजीक, शिक्षणीक, कला आनी साहित्य संस्थांलागीं संबंद.

**वेवसाय:**

जून १९७७ पसून जून १९९२ मेरेन १५ वर्सां श्री दुर्गा इंग्लीश स्कूल, पार्से-पेडणें हांगा शिक्षक.

जून १९९२ ते जुलै १९९४ मेरेन पी.इ.एस्.चे आर्ट ॲण्ड सायन्स कॉलेजींत अधिव्याख्यातो.

१९९४ सावन गोंय विद्यापीठाच्या मराठी विभागांत व्याख्यातो म्हण रुजू.

२००३ सावन प्रपाठक म्हण वावुरता.

कोंकणी, मराठी, हिंदी, इंग्लेज, पोर्तुगीज बी भाशा येतात. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लेज भाशांतल्यान बरप करता. संपादन आनी अणकाराच्या मळारूय वावर. राज्य आनी राष्ट्रीय परिसंवाद, कॉन्फरन्स हातूंत वांटो. जायत्या परिक्षक मंडळांचेर वांगडी म्हण वावर.

# समिक्षेंतलो ‘क्ष’, उतर दिता...

जुलय १९९८चे सुरवेक केन्ना तरी बाय माधवी सरदेसाय म्हजेकडेन आयलें आनी डॉ. किरण बुडकुले हांचो ‘साहित्य नियाळ: अंतरंग आनी कायारुपां’ हो नवोताल्ल समिक्षा बरपावळीचो झेलो म्हज्या हातांत दवरून ताणें म्हळें, ‘‘जागा खातीर हाचेर नियाळ बरय.’’ हांव चक्रावलों. खिणभर रावून हांवें म्हळें, ‘‘समिक्षेची समिक्षा केल्लेवरी जातलें. बोवाळ जावं येता... म्हजें बरप मात्शें आडांगी.’’ माधवीन म्हळें, ‘‘जावं. बरय तूं.’’ ताचेर म्हजी जाप, ‘‘हांव बरयतां तें तशा तशें छापल्यार हांव बरयन.’’ ‘‘जालें, पावलें म्हाका.’’ माधवी.

पंदराएक दीस लागून नियाळ बरयलो. माधवीक दिलो. छापून आयलो. जाग जुलय १९९८चो अंक आयलो. म्हज्या हातांत अंक पावचे पयलीं पावली ती डॉ. किरण बुडकुले हांची चीट: ‘‘म्हाका तुमकां मेळपाक जाय. तुमच्या नियाळाचेर चर्चा करपाक जाय.’’

डॉ. बुडकुले आयली. म्हाका परत हे विशीं मेळ्ळी. हांवें म्हळें, ‘‘म्हाका दिसलें तें हांवें बरयलें. कोणाक तें पटूं येता, कोणाक ना. हातूंत म्हजो रोल कितें?’’

‘‘तरी पूण म्हाका चर्चा करपाक जाय.’’ डॉ. बुडकुले.

‘‘चर्चा बिर्चा नाका. ती दोगां भितरूच उरतली. तुमकां जें म्हणपाचें आसा तें तुमी ‘जागा’ कडेन धाडून दियात. छापून येवूं दी. एक बरी रासवळ चर्चा जावूं दी.’’ हांव.

हांव कस्सो बदना तें पळोवन डॉ. बुडकुले गेली. मुखावयल्या ‘जाग’ आगस्ट १९९८च्या आंकांत तांची म्हज्या ‘नियाळाचो नियाळ’ करपी प्रतिक्रिया छापून आयली. ताचेर मागीर अ.ना.नूय बरयलें. हांव वग्गी. बरोच बोवाळ जालो. कोंकणींतलें पयलें छापून आयिल्लें म्हजें हें समिक्षा बरप. तातुंतल्या ‘क्ष’न कोंकणी समिक्षा मळार असो आकांत केलो. कितें आसलें तातूंत?

तातूंत आसलें ‘क्ष’. बाब दिलीप बोरकाराचे भाशेंत सांगचें जाल्यार ‘एक्स’.

आनी हांवें वाजत गाजत कोंकणी समिक्षा मळार पावल दवरलें. सगलें स्रेय बाय माधवीक. आनी उरिल्लें ‘जागा’क. मागीर अशें जायत रावलें. माधवीन

म्हजेकडेन पुस्तक हाडून दिवचें, 'बरय'
म्हणचें आनी हांवें बरोवचें. ह्या 'समिक्षा' झेल्यांतलीं जायतीं फुलां बाय माधवीक लागून फुलल्यांत. हांव जालां निमित्ताक कारण.

तरीय लेगीत एक सांगूंक जाय. हाका लागून म्हजें कोंकणी वाचन अदीक सजग जावंक पावलें आनी हांव कोंकणी बरोवंक संवकलों. हाचे आदीं १९९३ वर्सा पी.ई.एस्. कॉलेजींत आसतना प्रा. भुषण भावे हांणी म्हाका बी.ए. (कोंकणी) च्या तिसऱ्या वर्साच्या भुरग्यांमुखार भौ. पुंडलीक नायकाच्या नाटक बरपाचेर दोन लॅक्चरां दिवपाक लायिल्लीं. दो. तानाजीबाब हळर्णकारान १९९५ वर्सा चाफ्राचे कवितेचेर जाल्ल्या सेमिनारांत पेपर वाचपाक म्हाका आमंत्रीत केल्लो. म्हापशां आनी फोंड्यां हाच्यो दोन कार्यावळी जाल्ल्यो. म्हाका समिक्षकाचें रुपडें चडोवपाच्या वावराक ताचेंय अशें हातबोट लागलां.

तिनूय मनशां कोंकणीचीं 'भूषणां'. तिगांयचे काळजाथावन उपकार मानतां. म्हज्या कोंकणी समिक्षा वावराक जल्माक घालपी हे तीन गॉडफादर.

ह्या झेल्यांत जी समिक्षा बरपावळ आयल्या ती चडशी 'साहित्य नियाळ' ह्या सदरांतल्यान 'जागां'त उजवाडाक आयल्या. पूण तो साहित्य नियाळ म्हळ्यार पठडीबद्ध साहित्य नियाळ न्हय. ताची लांबाय-रुंदाय आनी प्रसंगीं खोलाय देखून नियाळाच्यो शिमो मेरो हुंपून गेल्यात हाची म्हाका जाणविकाय आसा.

कोंकणी समिक्षा बरपाच्यो फ्रेमी मोडून उडोवन तें बरप काचांतल्यान मुक्त-मेकळें करपाचो हांवें केल्लो हो सजग यत्न. जायत्या जाणांक हें बरप आवडटालें, मानवतालें. पूण आवडटालें, मानवतालें तें दुसऱ्या साहित्यिकाच्या पुस्तकार केल्लें. म्हजेकडेन हेविशीं जायते जाण उलयल्यात. जाच्या पुस्तकाचेर बरयलां ताका तें कितलें आवडटालें वा मानवतालें? 'थोडा खट्टा थोडा मीठा' अशेंच जावं येता. जायत्या जाणांनी आपल्या पुस्तकाचेर बरोवपाच्यो ऑफरीय दिल्यो. हांवें तांकां इतलेंच म्हळें, ''पळय, हांवें जर बरयलें तर तुका तें कितलें मानवतलें हांव नेणों. पूण इतलें मात नक्की सांगतां, तुका तें तितलेंशें आवडचें ना. आवडटलें पूण दुसऱ्यांक, तुका न्हय. हांव आतां अणभवान इल्लो इल्लो शाणो जालां.''

एकांकिका आनी कविता बरपान कोंकणीच्या मळार पावल घाल्लों हांव समिक्षेचे हे रिले रेसींत फारवलों आनी फामाद जालों ताची ही गजाल. ह्या

समिक्षा झेल्यांत कांय सोदनिबंद, कांय साहित्य नियाळ जाल्यार कांय भाषणां आनी लॅक्चर्स हांचो आसपाव आसा.विंगड विंगड रुपांचीं, वासांचीं आनी कोरांची हीं फुलां आयज हांव कोंकणी सरस्पतीच्या पांयांर ओंपतां.

ह्या बरपाक इल्ली ताल्ल्यांची तिखसाणूय आसा हाची म्हाका जाणविकाय आसा. पूण कोंकणी साहित्य समिक्षेच्या मळाचेर पातळिल्ल्या 'गुडीगुडी' वातावरणाची 'गुडगुडी' कोणें तरी फोडुंकूच जाय आसली. तेबगर ताचे नशेंतल्यान साहित्यीक आनी वाचपी भायर येवप कठीण दिसतालें. तें दुषणदिणें काम हांवें बोडार घेतलें. मुखार पळोवया, खंय पावता तें!

हो 'समिक्षा झेलो' गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर' येवजणे खाला वेंचून आयला आनी ताका अकादेमीन उजवाडावणे खातीर अनुदान दिलां म्हण तिच्या अध्यक्षाचे, हेर जाळवणदारांचे आनी परिक्षक मंडळाच्या वांगड्यांचे हांव उपकार मानतां. टायमांत टायम काडून बाब दामोदर घाणेकार हाणें प्रुफां काडून बरपावळीचेर शुद्धाकार संस्कार केल्ले खातीर तांचेय उपकार. पुस्तकाच्या कवरावयलें चित्र बाय रुक्मान काडलां. ''पप्पाच्या पुस्तकाक हांव चित्र काडटलें'' म्हण तें हट धरून बसलें. हांवें फकत ताका टिप्स दिल्यो आनी चित्र तयार जालें.

पुस्तकाचो ले-आउट अनिकेत डोट कॉम हांचो तर कवर डिजायन हेमकृष्ण हांची. दोगांयच्या कामाक लागून समिक्षेची कोडसाण इल्ली गोड जावंक पावूं. उण्यात उण्या दिसांभितर उजू छापळावण करून दिल्लेखातीर मुद्रक आनी तांचे वावराडी हांचेय उपकार आठयतां. परा-प्रतिमा प्रकाशन हे पेडणेचे प्रकाशन संस्थेन ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन माथ्यार घेतलां जाल्यार वितरण वेवस्थेच्या कार्याक अक्षर-आनंद वितरण हे संस्थेन खांद मारून तेंको दिला. ह्यां जॉत असांच फुडें चलूं.

आतां निमणें मागणें.

पुस्तक रुपान हांव कोंकणी अक्षर उतराच्या बाजारांत पयले प्रथम उतरतां. तुमचो समेस्त वाचप्यांचो, नियाळकारांचो आनी टिकाकारांचो लेगीत मायेमोगाचो येवकार आसचो.

निमणें, समिक्षेंतलो हो 'क्ष' तुमकां उतर दिता की दिल्लें उतर तो पाळटलो, घेतिल्लो वसो उजयतलो. आमेन!

७ मार्च, २००८ **बाळकृष्णजी कानोळकार**

# अनुक्रम

## पूर्वप्रसिद्धी

१ साहित्याची संकल्पना
*कोंकणी विश्वकोश, खंड ४*

२ प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसायांले कथेंतली प्रदेशीकताय
*'अपरांतक', जानेवारी २००४*

३ पुंडलीक नायक: समकालीन भारतीय कोंकणी नाटककार
*'वेंचीक पुंडलीक'*

४ एका नियाळाचो नियाळ
*'जाग', जुलै १९९८*

५ 'वालोरा'सांव
*'जाग', डिसेंबर १९९८*

६ 'गुणाजी'चें कायारूप: कांय प्रस्न
*'जाग', मार्च १९९९*

७ 'ओथांबे': रवीन्द्रोपनिषद्
*'जाग', जुलय २०००*

८ 'अथांगा'चो थाव घेतना
*'जाग', ऑगस्ट २००२*

९ ...तरी लेगीत 'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना'
*'जाग', डिसेंबर २००२*

१० कोंकणी कथेक लागिल्लो एक नवो 'सोद'
*'सोद'च्या प्रकाशन सुवाळ्यांत केल्ल्या उलोवपाचो आपरोस पयलेच फावट उजवाडाक येता.*

११ 'सोंशाचे कान': एक आस्वादन
*चाफ्राचे कवितेचेर जाल्ल्या सेमिनारांत वाचिल्लो पेपर पयलेच फावट उजवाडाक येता.*

१.

# साहित्याची संकल्पना

साहित्य हो ललीत कलेचो एक प्रकार. सौंदर्याणभव दिवपाची तांक आनी प्रयोजन आशिल्ले ललितकले अंतर्गत शिल्प, चित्र, संगीत, नाच, साहित्य ह्या कलांचो आसपाव जाता. मौखीक आनी लिखीत उतरावळींची सोबीत आनी अर्थपूर्ण अशी मांडावळ करून, ते वरवीं ती मांडावळ रचतल्याक (साहित्यिकाक) आनी तिचो अणभव घेतल्याक (वाचप्याक, आयकुप्याक, पळोवप्याक) सच्चिदानंदाचो अणभव घेवंक मदत करता ते मांडावळीक साहित्य ही संकल्पना लागू जाता. भावना, विचार, प्रतिभा आनी मांडावळ अशा घटकांचो आसपाव जाल्ली ती कलाकृती आसता. अशे तरेन सत्य, शीव आनी सुंदर हांचें मिलन जावन निर्माण जाल्ली मौखीक वा लिखीत उतरांची कलाकृती म्हणल्यार साहित्य.

अशे तरेचो उंचेल्या पांवड्या वयलो 'प्रज्ञा' आनी 'प्रतिभा' हांचो विलास वाचप्याक, आयकतल्याक 'ब्रह्मानंद सहोदरा'चो दिश्टावो घडोवन हाडटा, तेन्ना ती निखटी उतरावळ म्हळ्यार 'वाक्‌मय' उरना, ताचें रुपांतर 'वाङ्मयां'त, 'साहित्यां'त जाता. हाकाच 'साहित्य' म्हणटात.

प्राच्य म्हळ्यार उदेंती, विशेशतायेन भारतीय, परंपरेन हाचे संबंदान भोव खोलायेन आनी साक्षेपान विचार जाल्लो आसा. अस्तंतेच्या साहित्य विचारांत लेगीत साहित्याचो अर्थ लावपाचो खुबूच वावर आयज मेरेन जाला. साहित्य ही संकल्पना बरे तरेन समजून घेवपाक ह्यो दोनूय परंपरा हे विशीं, ताच्या स्वरुपा विशीं कितें म्हणटात हें समजून घेवचें पडटलें. ताच्या सांगातान साहित्याचें प्रयोजन, पती, बी समजून घेतल्यार आनीक बरें जातलें.

भरता पसून ते पंडीत जगन्नाथा मेरेन भारतीय (संस्कृत) साहित्यविचाराची परंपरा आसा. तातूंत आपलो साहित्य विचार भरतान नाटकाच्या संदर्भांत सांगला. 'ललीत साहित्य' ह्या व्यापक अर्थान 'काव्य' हो शब्द हे परंपरेंत येवजिल्लो पळोवंक मेळटा. हे विशींचे चर्चेंत 'काव्यपुरुषा'चें रुपक सातत्यान आपणायिल्लें आसा. सुरवातीक हो विचार साहित्याच्या साधनांचेर केंद्रीत जाल्लो पळोवंक मेळटा.

'शब्दार्थौ सहितौ काव्यम।' (काव्यालंकार: १.१६) 'साहित्य म्हणल्यार शब्द आनी अर्थ हांचो रमणीय एकचार.'[१] साहित्याच्या ह्या लक्षणांतल्या 'सहितौ' हे मोडणेंतल्यान मुखार साहित्य हे संकल्पनेन मूळ धरलें. हाचे पयलीं म्हणल्यार भामहाचे पयलीं संस्कृत साहित्य विचारां मदीं ह्या संदर्भांत अर्थनिरपेक्ष शब्दसौष्ठव (सौष्ठब्द्य) तेचवरी शब्दसौष्ठव निरपेक्ष रुपकादी अर्थचमत्कृती (अर्थव्युत्पत्ती) हांकांच काव्याचें रहस्य मानपी अशे दोन विचार गुट आसले. ह्या दोनूय विचारांक न्हयकारून 'शब्दसौष्ठव' आनी 'अर्थव्युत्पत्ती' हीं दोनूय आंगां काव्यांत एक सारकींच म्हत्वाचीं आसात म्हणपाचें भामहान स्पश्ट केलें. 'शरीरं तावदिष्टार्थव्यवच्छिन्ना पदावली' (काव्यादर्श १.१०) हें दंडीन सांगिल्लें काव्यलक्षण. तातूंत ताणें शब्दार्थांक काव्य कूड मानून तांचेमदल्या अर्थाची उतरा परस आशिल्ली आंतरताय तो सुचीत करता. 'ननु शब्दार्थौ काव्यम' (रुद्रट, काव्यालंकार २.१) 'शब्दार्थौ मूर्ति-शरव्यातौ' (विद्यानाथ) हांचे सारकिल्यो शब्दार्थाच्या साहचर्याचेर भर दिवपी जायत्यो साहित्यांतर्गत व्याख्या संस्कृत साहित्य विचारा विशीं मेळटात. 'वक्रोक्ति काव्य जीवितम्' अशें कुंतकान म्हळां. कवीची म्हणल्यार साहित्यिकाची सांगपाची पद्दत (म्हणल्यार साहित्य निर्मणी) ही वेव्हारांत आमी वापरतात ते सरळ पद्दती परस वेगळे तरेची आसता. ती वांकडी म्हणल्यार आडवळणांची म्हणल्यार 'वक्र' आसता. हाकाच 'वक्रोक्ती' अशें म्हणलां. हाच्या आदारान सामान्यतायेन प्रतीत जायनासपी वस्तुसंबंद जोडून वैचित्र्यपूर्ण पद्दतीन मांडावळ करून कवी आपली अभिव्यक्ती सिद्ध करता. सुरवातीक अभिव्यक्तीप्रधान आशिल्लो हो विचार उपरांत आशयप्रधान जालो. 'औचित्य' ह्या गुणाचें साहित्यांतलें मुल्य स्पश्ट करपाच्या वावराक क्षेमेंद्रान व्हड म्हत्व दिलां. आनी अशे तरेन उतराच्या अर्था पसून उतरांतल्या आशया मेरेन भोंवडी/परिक्रमा करून हो भारतीय साहित्य विचार सिद्ध जाला.

आनंदवर्धन हाणें ध्वनी विचाराची मांडावळ करून उतरांत उपरासपी रसाभिव्यक्तिच्या सामर्थ्या विशीं समाधानकारक स्पश्टीकरण केलां. शब्दांक वाच्य, लक्ष्य आनी व्यंग अशे तीन अर्थ आसतात. साहित्य व्यंगार्थप्रधान आसता. म्हणल्यार तातूंत व्यंगार्थाक म्हणल्यार सुचितार्थाक म्हत्व आसता. साहित्यांतल्यान व्यक्त जावपी रस लेगीत व्यंगीत म्हळ्यार सूचित, ध्वनीत स्वरुपाचो आसता. ह्या व्यंगार्थप्रधान उतरांच्या वेव्हारांतल्यान कवीच्या/साहित्यिकाच्या भावनात्मक सौंदर्यानुभवाचो रसिकाक म्हणल्यार आयकुप्यांक

आयिल्लो प्रत्यय म्हणल्यारूच रस, म्हणल्यारूच साहित्य. ताचो आस्वाद ताका आनंद प्राप्त करून दिता. 'वाक्यं रसात्मकं काव्यं' ह्या उतरांनी विश्वनाथान रसतत्वाचें सर्वमान्य म्हत्व विसकटावन सांगलां. संस्कृत काव्य (साहित्य) शास्त्राक अभिप्रेत आसपी साहित्याचें स्वरूप 'तत् अदोषौ शब्दार्थौ सगुणौ अनलंकृती पुनःक्वापि' (काव्यप्रकाश १.४) ह्या मम्मटाच्या काव्यलक्षणांतल्यान प्रगट जालां. तातूंतल्या पदांची अर्थकक्षा मतींत घेतल्यार संस्कृत काव्य (साहित्य) शास्त्राक अभिप्रेत आशिल्ल्या साहित्याच्या स्वरुपा विशीं सांगचें जाल्यार अशें म्हणचें पडटलें की जेन्ना अभिधा, लक्षणा आनी व्यंजना ह्या तिनूय शक्तींनी युक्त आशिल्ले शब्दार्थ रसापकर्शक दोश टाळून, रसाचो उत्कर्ष सादपी गुणांनी नटून अर्थाचें विभावन करतात, ताका आस्वासाची कळा प्राप्त करून दिवपी अलंकारांनी संस्कारीत जातात, तेन्ना त्या शब्दार्थाक 'काव्य' म्हणटात.

साहित्य ही एक भाशीक निर्मणी आनी ताचें आदीम ध्वनीरूप हें उच्चार रूप. 'तें 'वाक्मय'. साहित्याक 'वाङ्मय' अशेंय दुसरें उतर आसा. 'वाचो विकार वाङ्मयः' ह्या प्रसिद्ध सुत्रा वरवीं 'वाणीचो म्हळ्यार वाचेचो विकार म्हणल्यार वाङ्मय' अशी वाङ्मयाची, साहित्याची व्याख्या करूं येता. हे वरवीं मराठी समिक्षक न. चिं. केळकर हांणी वाङ्मयाची व्याख्या करतना 'यच्चयावत् जे वाचेने वदले गेले ते' असो अर्थ घेतला. पूण 'वाचेच्या साबार विकारांक वाङ्मय म्हणप' समा जायना. इंग्लीशींत 'Memorable words' (संस्मरणीय शब्द) अशेंय वाङ्मयाक म्हणलां. 'उतराक जाल्लो अर्थ गर्भ विकार' म्हणल्यार वाङ्मय हेंय उतर घोळणुकेंत आसा.

अस्तंती साहित्य विचाराचो मार्ग काडीत साहित्य हे संकल्पनेची विसकटावणी केली जाल्यार तातूंतल्यान अशें दिसून येता की तांणी संवेदनशीलतेक चड म्हत्व दिलां. 'Literature' ह्या इंग्लीश उतराचें पर्यायी अर्थाचें उतर म्हण आमी साहित्य हें उतर भारतीय भाशां मदीं आपणायलां. 'Literature' ह्या उतराचे कोशांतर्गत जे अर्थ दिल्यात ते अशे: 'अक्षरांनी बांदिल्ली म्हायती वा विचार' आनी 'काळ आनी रुची हांचे चाळणींतल्यान तिगून राविल्ली गंभीर ललीत बरपावळ.' अस्तंती साहित्यविचार साहित्याचो विचार करतना ललीत साहित्य आनी शास्त्रीय, तात्त्वीक साहित्य हांचेमदीं फरक करता. ताचो साबार भर वाच्यार्थार उरता. भावशीळटाय (Emotional Element) आनी कल्पनाशीळटाय

(Imaginative Element) हांकां चडांत चड म्हत्व थंय दिवप जाता. तातूंत हॅझलिट, केबल, रस्किन, कोर्टहोप, जॉन्सन, वर्डस्वर्थ, मिल हांचो मुखेलपणान आसपाव जाता. तांणी 'साहित्या'ची जी व्याख्या केल्या ताच्यो ह्यो कांय देखी:

'The language of imagination and passion' (हॅझलिट),

'A vent for overcharged feeling of full imagination' (केबल),

'The suggestion, by the imagination, of noble grounds for the noble emotions' (रस्किन),

'Expression of imaginative thought and feeling' (कोर्टहोप),

'The art of writing pleasure with truth by calling imagination to the help of reason' (जॉन्सन),

'The spontaneous overflow of powerful feelings recollected in tranquility' (वर्डस्वर्थ),

'What is poetry but the thought and worlds in which emotion spontaneously embodies itself' (मिल).

ह्या भावनाशीळ आनी कल्पनाप्रधान साहित्याक आपली खाशेली अशी एक लय आसा. ताकाच लागून साहित्याची व्याख्या करतना जॉन्सन म्हणटा, 'Poetry is metrical composition' जाल्यार कार्लायल म्हणटा, 'Poetry we will call the musical thought.' 'The rhythmic creation of beauty' ह्या उतरांनी एडगर ॲलन पो हाणें कवितेची पर्यायान साहित्याची व्याख्या केल्या.

साहित्याची संकल्पना स्पश्ट करपाच्या कामांत अभिव्यक्तीचें साधन म्हण भाशेचोय आवश्यक तो विचार अस्तंती समिक्षकांनी केल्लो आसा. ह्या संबंदान विवेचन करतासतना 'The art of employing words in such a manner as to produce an illusion' अशें मॅकॉले म्हणटा, जाल्यार मॅथ्यू आर्नोल्ड हाणें हे विशीं म्हणलां, 'The most delightful and perfect form of utterance that human words can reach.' तेचवरी 'The best words in the best order' ही कोलरिजाची प्रसिद्ध व्याख्या साहित्यांतल्या भाशेच्या वापरा विशीं म्हत्वाचो विचार मुखार दवरता. ताचीच 'Poetry is the antithesis of science' ही साहित्या विशींची व्याख्या साहित्य आनी शास्त्र हांचे मदलो वेगळेचार स्पश्ट करता. 'The best and happiest moments of the happiest and best minds' अशें शॅले म्हणटना साहित्यिकांक साहित्यनिर्मणेच्या खिणांक जाल्ले उपाट खोशे

विशीं भाश्य करता; जाल्यार 'Criticism of life' म्हणून साहित्याचें जिवन दर्शन करपाचे तांकी विशीं आनी जीवनभाश्यात्मक स्वरुपा विशीं मॅथ्यू आर्नोल्ड हाणें आपलें मत मांडलां. ह्या व्याख्यां वयल्यान साहित्याच्या साबार आंगांक केंद्र मानून अस्तंती समिक्षकांनी साहित्य संकल्पने विशीं आनी स्वरुपा विशीं साबार विचार मांडून तातूंतल्यान साहित्य ही संकल्पना स्पश्ट केल्या.

भारतीय समिक्षक हो विचार साहित्यिकाच्या वा वाचकाच्या आंगान करिनात. साहित्यकृती मुखार दवरून ते तो करतात. ताका लागून तो चडांत चड सुक्षीम, वस्तुनिश्ठ आनी विश्लेशक जावंक पावला. तेचवरी भारतीय साहित्यविचार हो मुळांत साहित्याच्या उच्चार रुपाचेर - ध्वनीचेर - आदारिल्लो आसा. अस्तंती साहित्यविचार, साहित्यकृती, लेखक-वाचक हीं आंगां विस्तारान आनी खोलायेन विचारांत घेता. भारतीय साहित्यविचारा परस तो व्हडा प्रमाणांत संवेदनशील आसा अशी प्रचिती येता. भारतीय विचार 'लळीत' आनी 'लळीतेतर' असो विचार करिना. पूण अस्तंती तो विचार करता.

लॅटीन भाशेंत आनी पुर्तुगेज भाशेंत लेगीत साहित्या विशींच्या अभ्यासाक 'lettres' म्हण संबोधतात, जाल्यार स्वर वा ध्वनी विशयक अभ्यासाक 'solpa' म्हण संबोधतात. पयल्यांत दृक् श्राव्य स्वरुपाक म्हत्व आसा. तातुंतूय दृक् संवेदनेक मातसो वयलो पांवडो आसा. 'Solpa' त श्राव्य संवेदनेक पयलो मान आसा आनी ताच्या आदारान दृक् संवेदनेक आकार प्राप्त जाता. अस्तंती साहित्यविचारांत ध्वनी संवेदने परस दृक् म्हणल्यार 'अक्षरा'च्या चित्राक म्हणल्यार रुपाक चड म्हत्व आसा. जाल्यार भारतीय साहित्यविचारांत 'रसा'क पयलो पाट दिला. आधुनीक भारतीय साहित्यविचारान आपल्या दायजा परस अस्तंती साहित्यविचारांची वाट चड आपणायिल्ली दिसता.

साहित्य (Literature) ही संज्ञा फकत साहित्य कले पुरती वा बरपावळी पुरती मर्यादीत करून घेवप उचीत थारचें ना. ताच्या उपयोजनां मदीं लेगीत जायत्यो अडचणी आसात, तरी लेगीत इंग्लिशींतल्यो कल्पीत कथा साहित्य (Fiction) वा काव्य (Poetry) ह्यो संभाव्य स्वरुपाच्यो पर्यायी संज्ञा विशिश्ट अर्थान हे आदींच वापरून रूढ जाल्ल्यो आसात. कल्पनारम्य साहित्य (Imaginatory Literature) वा फार्सी भाशेंत जाका बॅलॅ लॅत्र (Belles-Lettres) म्हणटात ताका लळीत गद्य ह्यो संज्ञा किचकटीच्यो आसात.

साहित्याच्या प्रयोजनाविशीं सांगपाचें म्हळ्यार, आदल्या तेंपावयलीं प्रयोजनां आनी आर्विल्ल्या तेंपावयलीं प्रयोजनां वा अस्तंती प्रयोजनां आनी उदेंती वा भारतीय प्रयोजनां विंगड विंगड आसात अशें म्हणप समा जावचें ना. भोव खोलायेन आनी बारीकसाणीन विचार केल्यार आमच्या संस्कृत (भारतीय) साहित्यविचारांच्या संदर्भांत सांगल्यांत तींच प्रयोजनां उण्या अदीक प्रमाणांत आजूय लागू पडूं येतात. संस्कृत साहित्य शास्त्रांत सांगिल्लीं प्रयोजनां ज्या एका श्लोकांत बंदिस्त केल्यांत, तो मम्मटाचो श्लोक असो:

काव्यं यशसेऽर्थकृते व्यवहारविदे शिवेतरक्षतये
सद्यः परनिर्वृतये कान्तासंमिततयोपदेश युजे ।। (काव्यप्रकाश, १.२)

ताणें किर्ती, अर्थप्राप्ती, वेव्हारज्ञान, अमंगळ निवारण, तत्काळ परमानंदप्राप्ती आनी मोगाळ बायलेच्या मुखांतल्यान आयकूंक मेळिल्ले वरी केल्लो उपदेश अशीं स प्रयोजनां सांगल्यांत. जाल्यार आधुनीक विचारवंतांनी साहित्याचीं जीं प्रयोजनां सांगून दवरल्यांत तातूंत पलायन (Escape), इच्छापुर्ती (Wish fulfil-ment), जिज्ञासापुर्ती (Curiosity), आत्माविश्कार (Self Expression), उद्बोधन (Instruction), मोक्ष आनी अध्यात्मीक उन्नती (Salvation), अनुभवविश्वाची समृद्धी, स्व-रूप-निश्ठा, नवनिर्मिती (Creativity) अशा प्रयोजनांचो आसपाव जाता. खोलायेन विचार केल्यार पुर्विल्ल्या आनी अर्विल्ल्या वा आधुनीक साहित्य प्रयोजनांची संगती लावं येता.

साहित्याचे पतींचो विचार केल्यार काणी आनी कवन / गीत अशो दोनय आदीम साहित्य पती म्हण सांगच्यो पडटल्यो. ते भायर आशिल्ल्यो पती ह्यो अर्वाचीन विचारांतल्यान आनी प्रगतींतल्यान नांवारुपाक आयल्यात. तातुंतूय आयज जो लळीतेतर साहित्याचो प्रकार देखीक शास्त्रीय, तत्त्वीक, बी आमी पळयतात तांचो आसपाव 'प्रबंध' प्रकारांत संस्कृत साहित्य विचारांत केल्लो आसा. मनीसजातीची उदरगत सांगतना गिन्यान आनी तंत्रगिन्यानाचो स्फोट जायत गेलो आनी ताका लागून कोणा काळार त्रिशाखी (तीन खांदयांचो) आशिल्लो हो साहित्य रूख धाय दिकांनी फांकत रावलो. ताका लागून कादंबरी, लघुकथा, नाटक, चरित्र-आत्मचरित्र, लळीत निबंद, दुखखांतिका, त्रासदी, सुखांतिका आदी पतींची आनी उपपतींची भर पुर्विल्ले वर्गवारयेंत पडत रावली. ह्यो पती सर्वसादारणपणान आकृती बंधाचेर आदारून जाल्यात. ते भायर कांय पती पडल्यात. देखीक लोकसाहित्य, विज्ञान साहित्य,

बौद्धसाहित्य, हिंदु साहित्य, क्रिस्ती साहित्य, जैन साहित्य, मुस्लीम साहित्य, प्रादेशीक साहित्य, ग्रामीण साहित्य, दलीत साहित्य, राष्ट्रीय साहित्य, स्थानीक साहित्य, वैश्वीक साहित्य, बालसाहित्य, पुर्विल्लें साहित्य, आर्विल्लें साहित्य, स्त्री साहित्य, संगणक साहित्य, निग्रो साहित्य, संपर्कमाध्यम साहित्य, प्रचारकी साहित्य, बी. हे विशीं विचार केल्यार अशें दिसून येता, ही वर्गवारी करपाक कसलोय आनी खंयचोय कस चलता. देखीक, धर्म, वंश, जात, पात, कात, देश, देव, लिंग, प्रदेश, भाशा, स्थळ, काळ, वेळ, विशय, कला, कुशळटाय, क्रिडा, वेवसाय, बी.

साहित्याची पयली निर्मणी जाली तेन्ना सावन ताचो आलेख उंचेल्या पांवड्यार चडत आयला. साहित्याचें आदीम रूप हें 'वाक्-मय' आशिल्ल्यान तें मनीसकुळये इतलेंच पुरातन जावन उरलां. अधिकृतपणान सांगचें तर तें 'वेद' आनी 'अवेस्ता' इतकें निश्चीतपणान पुरातन आसूंक जाय. ते उपरांतचो जो इतिहास मेळटा तो ग्रीसी , हिब्रू, संस्कृत, चीनी, लॅटीन, पाली, अर्धमागधी, तिबेटी, द्रविडी (तमिळी), सिंहली, बी साबार भासांतल्यान, विंगड विंगड भाशाकुळांतल्या भाशांतल्यान चडट्या क्रमान साहित्य निर्मणी जावंक लागली. पूण अजुनूय कांय भासो उरल्यात जातूंतल्यान फकत मौखीक स्वरुपांतलें (Oral) म्हळ्यार वाक्-मय वाङ्मयूच निर्माण जाता. कारण तांकां  अजून लिपयेचो सोद लागूंक ना.

मनीस संस्कृतायेचे उदरगतीचे प्रक्रियेंत जायत्यो भासो आनी तांच्यो लिपयो नदरेआड जाल्यात. तातूंतल्यान कांय भाशांच्या पुनर्जिविताचो यत्न नेटान, निश्ठेन आनी मोटे सफळटायेन चल्ला. देखीक, हिब्रू ही पोरणी, विसरायेर पाविल्ली, पुर्विल्ल्या तेंपा वयली गिरेस्त भास. आज ती परतून वयर सरल्या.

साहित्य म्हणल्यार एक साधन, जें मनशाचे संस्कृतीच्या संदर्भांतल्यान प्रज्ञा आनी प्रतिभेचो दिश्टावो घडयता. हो दिश्टावो रंग, रूप, आकार, रेशा, अक्षर, शब्द, स्वर, ताल, ध्वनी, नाद, शिल्प, नाच, क्रिडा, बी साबार माध्यमांतल्यान तें घडयता. साहित्याचो विचार फकत 'अक्षर' आनी 'शब्दा'च्या संदर्भांत करतल्या संस्कृतायेच्या अभ्यासकाक साहित्याचें हें अनंत व्याप्तीचें दर्शन आतां जावंक लागलां.



आदारावळ :


१. भरतमुनीचे नाट्यशास्त्र - गोदावरी केतकर.
२. भारतीय साहित्यशास्त्र - ग त्र्यं देशपांडे.
३. रसविमर्श - डॉ. के ना वाटवे.
४. अभिनव काव्यप्रकाश - प्रा. रा श्री जोग.
५. सौंदर्यशोध आणि आनंदबोध - प्रा. रा श्री जोग.
६. सौंदर्य आणि साहित्य - बा सी मर्ढेकर.
७. वाङ्मयीन महात्मता - बा सी मर्ढेकर.
८. रूपवेध - प्रा. नरहर कुरुंदकर.
९. विचार-सौंदर्य - वा म जोशी.
१०. साहित्य विचार - प्रा. दि के बेडेकर.
११. साहित्य: निर्मिती आणि समीक्षा - प्रा. दि के बेडेकर.
१२. साहित्य आणि समीक्षा - प्रा. वा ल कुलकर्णी.
१३. सौंदर्याचे व्याकरण - डॉ. सुरेंद्र बारलिंगे.
१४. टीकाविवेक - प्रा. श्री के क्षीरसागर.
१५. वादसंवाद - प्रा. श्री के क्षीरसागर.
१६. साहित्याचे मानदंड - प्रा. गंगाधर गाडगीळ.
१७. साहित्यातील जीवनभाष्य - डॉ. पु ग सहस्त्रबुद्धे.
१८. प्रतिभाविलास - प्रा. ना सी फडके.
१९. साहित्यातील संप्रदाय - डॉ. रा शं वाळिंबे.
२०. वाङ्मयीन टीका: शास्त्र आणि पद्धती - डॉ. रा शं वाळिंबे.
२१. साहित्य आणि समाज - श्री ना चाफेकर.
२२. विचार-समीक्षा - प्रा. वा ना देशपांडे.
२३. काव्यालोचन - द के केळकर.
२४. टीकास्वयंवर - भालचंद्र नेमाडे.
२५. साहित्याचे तत्त्वज्ञान - वि ना ढवळे.
२६. कांटची सौंदर्य मीमांसा - रा भा पाटणकर.
२७. काव्यशास्त्रप्रदीप - स रा गाडगीळ.
२८. कॉडवेलचा कलाविचार - डॉ. अशोक कृष्णाजी जोशी.

२९. क्रोचेचे सौंदर्यशास्त्र: एक भाष्य - रा भा पाटणकर.
३०. प्राचीन काव्यशास्त्र - र पं कंगले.
३१. प्लेटोचे साहित्यशास्त्र - डॉ. अ ना देशपांडे.
३२. मराठी साहित्य: प्रेरणा आणि स्वरूप - संपा. गो मा पवार व म द हातकणंगलेकर.
३३. रसचर्चा - पद्माकर दादेगावकर.
३४. नवसमीक्षा: काही विचार प्रवाह - संपा. गो म कुलकर्णी.
३५. तौलनिक साहित्याभ्यास: तत्त्वे आणि दिशा - संपा. चंद्रशेखर जहागिरदार.
३६. परंपरा आणि नवता - गो वि करंदीकर.
३७. जीवन आणि साहित्य - शरदचंद्र मुक्तिबोध.
३८. पाटणकरांची सौंदर्यमीमांसा - प्रभाकर पाध्ये.
३९. सौंदर्यमीमांसा - रा भा पाटणकर.
४०. दलित साहित्य: आजचे क्रांतिविज्ञान - बाबुराव बागुल.
४१. अब्राह्मणी साहित्याचे सौंदर्यशास्त्र - शरद पाटील.
४२. वाङ्मयीन वाद: संकल्पना आणि स्वरूप - संपा. सीताराम रायकर व इतर.
४३. भारतीय साहित्यशास्त्र - रा. म. कापसे.
४४. पोत - द ग गोडसे.
४५. ॲरिस्टोटलचे काव्यशास्त्र - गो वि करंदीकर.
४६. संगीताचे सौंदर्यशास्त्र - अशोक दा रानडे.
४७. साहित्य: अध्यापन आणि प्रकार - संपा. श्री पु भागवत व इतर.
४८. साहित्य आणि कला - म न लोही.
४९. साहित्य समीक्षा: स्वरूप आणि विकास - संपा. ना वा गोडबोले व गं ना जोगळेकर.
५०. साहित्यातील अश्लील आणि ग्राम्य - रा शं वाळिंबे.
५१. साहित्य सिद्धांत - ग शं मालशे (अनुवाद: Theory of Literature)
५२. सृष्टी, सौंदर्य आणि साहित्य मूल्य - शरदचंद्र मुक्तिबोध.
५३. सौंदर्यविचार - इस्थेटिक सोसायटी, मुंबई.
५४. सौंदर्यशास्त्रातील तीन व्याख्याने - अनुवाद: कमल देसाई.
५५. जनसाहित्याच्या दिशेने - या वा वडस्कर.
५६. समीक्षा: काव्यातील दुर्बोधता - संपा. वा ल कुलकर्णी.
५७. मार्क्सवादी साहित्यविचार - केशव शिरवाडकर.

५८. साहित्य-विवेचन - क्षेमेंद 'सुमन' और मल्लिक योगेंद्रकुमार.
५९. स्वातंत्र्योत्तर हिन्दी समीक्षा सिद्धान्त - डॉ. बी डी मिश्र.
६०. आधुनिकता और हिंदी साहित्य - मदान इंद्रनाथ.
६१. आलोचना की बीसवी शती - नगीना जैन.
६२. A Study of Literature - David Daiches.
६३. Critical Approaches to Literature - David Daiches.
६४. Theory of Literature - Rene Wallek & Austin Warren.
६५. Beauty and Other Forms of Value - Alexander S.
६६. Aristotle's Theory of Poetry and Fine Art - Butcher S H.
६७. What is Literature? - Sartre Jean Paul.

## २.

# प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसायांले कथेंतली प्रदेशीकताय

### साहित्यांतली प्रदेशीकताय

प्रदेशीकताय हें एक वाङ्मयीन 'मुल्य' न्हय; ती एक प्रवृत्ती अशें मानतात. वाङ्मयीन अपरिहार्यतेंतल्यान प्रदेशीक साहित्याची निर्मणी जाल्या, अशें म्हणटात. जागतीक वाङ्मयांत रोमँटिसिझमाची जी चळवळ निर्माण जाली तातूंतल्यान प्रदेशीकतायेचो अवतार साहित्यांत जालो हें मत आतां सगळ्यांनी मानून घेतलां. उद्देगीत क्रांती आनी शारीकरणाच्या प्रचंड वेगाक लागून उप्राशिल्ले सैमाचे इबाडणुके आड रोमँटिसिझमान आपणायिल्ले 'सैमपुजे'चे व्हडविकायेंत एकाद्रें हाचें मूळ आसूं येता. परंत ह्या सोदनिबंदलेखकाक हें मत पुरायपणान मान्य ना. हाचें कारण म्हळ्यार ताका अशें दिसता की प्रदेशीकताय ही एक प्रवृत्ती अशें मानलें जाल्यार ती रोमँटिसिझमा परस वास्तववादाक चड लागींची आसा. सविस्तर विस्कटावणे वरवीं हें मत सिद्ध करूं येत. परंत ह्या सोदनिबंदाचो तो विशय नाशिल्ल्यान फकत एक-दोन देखी दिवन हो विशय हांगाच सोंपयतां.

ब्रेट हार्ट (१८३२-१८९०) ह्या अमेरिकी कथाकारान प्रदेशीक कथेची म्हूर्तम्हेड जागतीक वाङ्मयांत उबारली. ताणें आपणाले कथेंतल्यान प्रदेशीक वातावरण (Local colour) उबें केलें. ब्रेट हार्टाचे कथेन प्रदेशीक जिणेचें मळ कथेक उकतें करून दिलें. ते पयलीं प्रोप्रणीत तंत्रनिष्ठेचे प्रायोगीक अवस्थेंत अमेरिकी कथा फकत नागरी परिघा भितरूच वावुरताली. अमेरिकी क्रांती उप्रांतच खासा अमेरिकी प्रदेशीक जिणेकडेन तिचें लक्ष गेलें. ब्रेटाचे कथेचे पयशिल्ले परिणाम अमेरिकी कथेचेर जाले. तिच्या क्षितिजाचो विस्तार जालो. जे भुंयेंतल्यान जीण साकारिल्ली ते भुंये लागीं जोडिल्लें नातें तिका कस दिवपी थारलें. ह्या संबंदान 'Great American Short Story'च्या प्रास्ताविकांत स्टॅगनर (Stegner) म्हणटा, "It gave it (the story) a vastly extended range of subject matter. Local Colour movement was essentially a many-branched journey of national discovery."[१]

ह्याच संदर्भांत कथेच्या विकासाविशींचें आपणालें मत उकतायतना डॉ. इंदुमती शेवडे म्हणटा: "आधुनीक कथानिर्मणेक नेमाळ्यांनी हातबोट लायलां.

तांकां लागून पयली कथा ही 'नागर' आसता. विकासाचे पयले आबडखाबड अवस्थेंत आशिकुशी लागसारचे शिमेमेरेभितरल्या वाठारांतच तिचें लक्ष केंद्रीत जाल्लें दिसता. आपणाल्या स्वतंत्र अस्तित्वाची सुलूस लागले उप्रांत आपणाले आबडखाबड कुडीक घांसून पुसून आकाराची सोबीतकाय हाडपाची खटपट (Form consciousness) ही कथेची दुसरी अवस्था. तंत्रांतल्यान शारीरीक बळगें मेळ्ळे उपरांत जिणेलागीं खोलायेन संपर्क सादपी तिची तिसरी अवस्था. हे तिसरे अवस्थेंत त्या त्या देशांतल्यो कथा आपणाले देश्य, प्रादेशीक जिणेंतल्यान नवो कस मेळोवपाच्या प्रयत्नांत दिसतात.''[२]

वयर केल्ले विस्कटावणेंत डॉ. इंदुमती शेवडे हांणी 'जिणेलागीं खोलायेन संपर्क सादपाचो' उल्लेख केला तो विशेश म्हत्वाचो दिसता. कारण वास्तववाद लेगीत 'जिणेलागीं खोलायेन संपर्क सादपा'चो सतत प्रयत्न करीत आयला.

ह्या संदर्भांत दुसरी एक नांवाजती देख दिवची जाल्यार ती Thomas Hardy ची दिवची पडटली. इंग्लंडांतल्या वेसेक्स परगण्यांतले 'लोकजिणे'चो ताणें सर्वांगान तळथाव घेवपाचो प्रयत्न आपणाल्या कादंबऱ्यांतल्यान केला. हार्डीच्यो कादंबऱ्यो उत्कृष्ट प्रादेशीक कादंबऱ्यांच्यो (Regional novels) देखी म्हण मान्यतायेक पाविल्ल्यो आसात. 'वास्तववादी कादंबरेची विकास पाविल्ली अवस्था' म्हण प्रा. श्री. के. क्षीरसागर हांणी प्रदेशीक कादंबरीचो उल्लेख केला.[३]

तेन्ना प्रदेशीकतायेचो अवतार रोमँटिसिझमांतल्यान काय वास्तववादांतल्यान जाला ह्या संबंदान खासा संशोधन जावप आवश्यक आसा. कारण त्या त्या वाठारांतले जिणेलागीं प्रत्यक्षांत संपर्क आयले बगर फकत 'कल्पनाशक्ती'च्या बळग्यार तिचें यथार्थ चित्रण अशक्य आसा.

मराठी साहित्यांत ही प्रदेशीकतायेची प्रवृत्ती तशें पळोवंक गेल्यार उसरांच आयली. 'आधुनीक मराठी साहित्याच्या पूर्वकाळांत प्रदेशीक वा गांवगिरे जिणेचीं चित्रणां पतीक म्हणटात तशीं दिश्टीक पडटात. फकत रूच बदलपा खातीर म्हण तांचो वापर केल्लो दिसता.'[४]

१९२० उपरांत महात्मा गांधीन देशाच्या समाजकारणाचो आनी राजकारणाचो प्रवाह गांवांकडेन वळयलो. 'गांवांनी चलात' असो आदेशच तांणी आपणाल्या अनुयायांक दिलो. ग्रामसुधार, ग्रामोद्धार, खादी, ग्रामोद्योग, दलितोद्धार, अस्पृश्यताय निवारण ह्या सारक्या कार्यावळींनी साबार गांवगिरी जीण धवळिल्लेवरी जाली. थंय गेल्ल्या आनी राबितो करून राविल्ल्या शिकिल्ल्या

लोकांक 'गांवां'चें एक नवदर्शन जालें. नव्यानूच 'गांव' आनी 'गांवगाडो' समजून घेवपाचो ते प्रयत्न करूंक लागले. ह्या प्रयत्नांतल्यानूच गांवगिऱ्या वा प्रदेशीक साहित्याक सगळ्यांत पयली वाचा फुटली. इल्ली इल्ली करून पूण निश्चीतपणान अशे तरेच्या साहित्यांत भर पडूंक लागली. सादारणपणान १९२६च्या दरम्यान ह्या साहित्याचे निर्मणेक प्रारंभ जालो. हें साहित्य चडांत चड वास्तव आनी जीवनदर्शी करपाचो आनी नव्या अविष्कारपद्धतींची येवजण जाणविकायेन करपाचो प्रयत्न साबार लेखकांनी केलो. हे साहित्यनिर्मणेचे प्रक्रियेंत 'जानपद साहित्य', 'प्रदेशीक साहित्य', 'गांवगिरें साहित्य' अश्यो संकल्पना आनी पारिभाशीक संज्ञा लेगीत इल्ल्यो इल्ल्यो करून निर्माण जाल्यो. समीक्षावेव्हारा मजगतीं तांचो सोयी प्रमाण आनी जायते फावटीं मेकळो वापर जातालो. परंत तांचे संबंदान जितली स्पश्टताय आनी कांटेकोरपण आसूंक जाय आशिल्लीं तितलीं पळोवंक मेळनात.

प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हे प्रादेशीक कथाकार म्हण सर्वमान्य जाल्ले आसात. तेन्ना तांचे कथेच्या संदर्भांत 'प्रदेशीकताय' हे संकल्पनेचें स्वरूप आनी तिची विसकटावणी थोड्याभोव तपशिलान समजावन घेवप ह्या सोदनिबंदाच्या विशयाचे नदरेंतल्यान उपेगाचें थारूं येता.

'प्रदेशीकताय' ही संकल्पना हालींसराची असो समज आसा. परंत मराठी आनी भारतीय वाङ्मयांत लेगीत तिच्यो अस्तित्व कुरवो बद्द पुर्विल्ल्या काळापसून पळोवपाक मेळटात. ह्या संदर्भांत डॉ. मदन कुलकर्णी म्हणटात, ''तशें पळोवंक गेल्यार मराठी वाङ्मयांत 'प्रदेशीकताय' तशी नवी गजाल नाशिल्ली. संस्कृत नाटकांनी विशिश्ट पात्रांनी विशिश्ट भाशेंत उलोवचें असो दंडक आशिल्लोच. संत वाङ्मयाच्या 'कांदा, मुळा भाजी, अवघी विठाई माझी' आनी 'आम्ही वारीक वारीक' अशें म्हणपी सावता माळी आनी सेना न्हावी हे असलेच भाशेचो उपेग करताले. लावणी वाङ्मय आनी पोवाड्या भितर भास आनी विचार ह्या दोन दृश्टींनी प्रदेशीकताय मेळटा.''[५]

आधुनीक मराठी वाङ्मयाच्या कालखंडांत सादारणपणान १९२६च्या सुमाराक प्रदेशीक जिणेचें चित्रण जावंक लागिल्लें. कविता आनी कथेवटयां तिचें प्रथम उकतावण जालें. वि.स. सुखटणकार हे पयले प्रदेशीक कथाकार म्हण आतां सर्वमान्य जाल्यात. तांणी आपणाली 'कटु कर्तव्य' ही पयली कथा १९२६ वर्सा बरयली.[६]

तांगेलो **सह्याद्रिच्या पायथ्याशीं** म्हळ्यार **आजकालचा गोमंतक** हो 'आठ प्रदेशीक कथांचो संग्रह'[७] १९३१ वर्सा उजवाडाक आयलो आनी ते उपरांत आयज मेरेन प्रदेशीक साहित्याची निर्मणी अखंडीतपणान जायत आयल्या. 'प्रादेशीक' ही संज्ञा आनी संकल्पना मराठी भाशेंत प्रथम सुखटणकरांनी जाणीवपुर्वक हाडली. आयज ती सर्वमान्य आनी रूढ जाल्या. परंत 'प्रदेशीक' ही संज्ञा आपणें १९३० वर्सा मडगांवां संपन्न जाल्ल्या महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाच्या वेळार आयकल्ल्याचें कविवर्य बाकीबाब बोरकार हांणी सांगलां.[८] आनी आपणें ती **सह्याद्रीच्या पायथ्याशी** ह्या कथांझेल्याच्या संदर्भांतूच आयकल्ल्याचें तांणी सांगलां.

प्रदेश म्हळ्यार कितें? हे विशींची व्याख्या विसकटावणेच्या ओगान फुडें येवचेलीच आसा तेन्ना ताची पुनरुक्ती टाळून अशें म्हणूं येता की तो एक भुगोलीक 'एकक'. मुळयां गांव हो एक ल्हानसो गांवगिरो वाठार. साबार गांव मेळून जनपद आनी एक वो साबार जनपदां मेळून प्रदेश जाता अशें म्हणूं येता. प्रदेशांत नगरां लेगीत येतात. परंत 'संस्कृताय भिन्नताये'क लागून तांचो जनपदा भितर आनी देखून प्रदेशांत आसपाव जावंक शकना. पुर्विल्ल्या काळासावन हो भेद चलत आयला.

ह्या नगरांचे फाटभुंयेचेरूच 'प्रदेश' ही संकल्पना समजून घेवची पडटली. 'नगर', 'अभिजन संस्कृती'चें केंद्र जाल्यार 'ग्राम' 'लोकसंस्कृती'चें केंद्र. नगर वा पूर हें तथाकथीत अर्थान संपन्न, समृद्ध आनी सुसंस्कृत. विंगड विंगड उद्देगधंद्यांनी गजबजिल्लें आनी वेवसाय-वेव्हारांनी घुसपागोंदळांनी भरिल्लें तें नगर आनी शेतकाम आनी गांवगिरे उद्देग हातूंत गुल्ल आनी साद्यासरळ दिवपाघेवपान नटिल्लें तें ग्राम. पुर्विल्ल्या काळाचें नगराचें स्वरूप स्पश्ट करपी पं. महादेवशास्त्रींच्या 'भारतीय संस्कृतिकोशां'तली हे विशींची नोंद म्हत्वपूर्ण थारता. ''देवळां, प्रासाद, तरातरांचीं निवासस्थळां, सभाघरां, पाठशाळा, लांबरुंद रस्ते, मनभुलोवणीं जार्दिनां, बी अश्या साबार गजालींनी भरिल्ले वसणुकेक नगर म्हणटात,'' अशें सांगून ''वेपारउदिमान निपूण आशिल्ल्या चारूय वर्णांच्या लोकांनी घडिल्लें, साबार जातींच्या लोकांनी भरिल्लें... अशें थळ, ताका नगर म्हणचें.''[९] ही विष्णुपुराणांतली 'नगरा'ची व्याख्याय बी तांणी उद्धृत केल्या.

## प्रदेशीकताय: संकल्पना आनी स्वरूप

प्रदेशीकताय ही आयज मराठी साहित्याक प्राप्त जाल्ली एक विशेशताय. निसर्गीक आनी संस्कृतीक वातावरणाक म्हत्व दिवपी अशी ती एक प्रवृत्ती. समाजीक-संस्कृतीक (Socio-cultural) चित्रण अशें तिचें स्वरूप. 'प्रदेशीकताय' हें इंग्लेजींतल्या Regional उतराचें पर्यायवाची उतर. इंग्लेजींतलें Region हे संज्ञेपासून तें जल्माक आयलां. Region हे संज्ञेखातीर मराठी भाशेंत 'प्रदेश' अशी संज्ञा पर्याय म्हण वापरतात. ह्या अर्थाचेंच 'वाठार' अशें लेगीत एक उतर पोरणे मराठींत मेळटा. Region ही थळवाचक संज्ञा न्हय; ती थळदर्शक संज्ञा ही गजाल मतींत घेवची पडटली. ताची अर्थव्याप्ती मराठींत वापरांत आशिल्ले 'प्रदेश' हे संज्ञेपरस कितलीशीच व्हडली, ही गजाल लेगीत मतींत घेवची पडटली. मराठींत 'प्रदेश' ही संज्ञा प्रांत, वांटो ह्या अर्थान वापरतात. थळविशेशताय, चालचलणूक आनी समजूत असल्या गजालींचे नदरेंतल्यान असल्या ल्हानव्हड वाठारांखातीर मराठींत हें उतर वापरतात. देखीक: कोंकण, विदर्भ, मराठवाडो, खानदेश. 'प्रदेश' हे संज्ञेची व्याख्या करतना मदन कुलकर्णी म्हणटात, "प्रदेश म्हळ्यार खासा भूंय वाठारांतलो विशिश्ट सैम आशिल्लो आनी लोकजिणेचेर धेंक गाजोवपी प्रभावी असो घटक."[१०]

ह्या 'प्रदेशां'त शारांचो लेगीत आसपाव जाता. परंत 'प्रदेशीकतायें'त तांचो आसपाव जायना. हाचें कारण म्हळ्यार तीं आधुनीक विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानप्रधान उद्देग संस्कृतायेचीं केंद्रां आसतात आनी ताका लागून तांणी 'प्रदेशीकताये'ची विशिश्टताय वगडायिल्ली आसता. "मनान हीं शारां प्रदेशीकताये पसून पयस पाविल्लीं आसतात. ताका लागून शार चित्रणा पासून प्रदेशिक चित्रप पयस आसता."[११]

हाचोच अर्थ असो जाता की प्रदेशीकताय ही फकत थळदर्शक संज्ञा न्हय, ती 'थळविशिश्ट मानसीकताय दर्शक' संज्ञा. त्या त्या खाशेल्या प्रदेशाची मानसीकताय हे संज्ञे वरवीं उकती जाता, रूप घेता. 'नगर' वो 'शार' आनी 'प्रदेश' हांकां एकामेकां पसून वेगळावपी जर कितें आसत जाल्यार ती ही 'मानसीकताय'च. हे वेगळावपाचे प्रक्रियेंत दुसरो म्हत्वाचो घटक म्हळ्यार 'नगर-विशिश्ट मानसीकताय.' 'थळविशिश्ट मानसीकताये'चो आदार थंयसल्ली लोकसंस्कृती आसता जाल्यार 'नगरविशिश्ट मानसीकताये'चो आदार आसता

आधुनीक विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानांतल्यान निर्माण जाल्ली अर्थसत्ता. 'प्रदेशीक' समाजजिणेमजगतीं 'अर्थ' जगपापुरतो आवश्यक आसलो तरी 'अर्था'क नगरांत आसता तशें अनर्थकारक म्हत्व प्राप्त जाल्लें नासता. उण्याअदीक प्रमाणांत काय जायना, गांवगाडो परंपरेन चलत आसता. 'नगरा'चें तशें आसना. थंयसल्ली पुराय जिणूच व्यक्तीगत आनी समाजीक अर्थान नियंत्रीत केल्ली आसता. थंयसल्ली भावजीण लेगीत हातूंतल्यान सुटिल्ली नासता. थंय परंपरेक थारो नासता. आधुनीकतायेच्या स्विकारांत तिका मेळिल्लो नकार हें 'नगरजिणे'चें व्यवच्छेदक लक्षण. ताका लागून 'प्रदेशीकताये'चो सगळ्यांत म्हत्वाचो निकश 'थळविशिश्ट मानसीकताय' होच आसचो पडटलो.

फकत 'सैम चित्रणा'वरवीं प्रादेशीकताय उकती जावंक शकना. सैम-चित्रण, भौतीक प्रदेशाचो देखाव (Landscape) हाच्या सांगातान थळावी लोकसंस्कृती, लोकभास आनी भुंयेमोग हांच्या एकवटिल्ल्या आविश्कारांतल्यानूच 'प्रदेशीकताय' आकाराक येता. थळविशिश्ट लोकांच्यो आपउकतावणेच्यो पद्दती, तांची भास, लय, कल्पनाशक्त आनी प्रतिमा-प्रतिकांच्या आदारान प्रदेशिकतायेचें रूप जल्माक येवं येता. ताका लागुनूच प्रदेशीकतायेक तेंको दिवपी असो आगरो धरतात की 'लोकसाहित्य, लोकभास-बोली आनी पुरातन लय ह्याच साधनांवरवीं प्रादेशीक साहित्याक लोकसंस्कृतायेची विसकटावणी करपाची आसता. तीच ताचें अविभाज्य आंग आसता  आनी अशें प्रदेशीक साहित्यूच वास्तववादी, घटनात्मक, वस्तुनिश्ट आनी विलक्षण (Quaint) आसता.[१२]

खाशेल्या प्रदेशाच्यो प्रदेशविशिश्ट अश्यो कांय अडचणी आसतात. तांचे भितर सैमीक आनी मानवी, संस्कृतीक आनी अर्थीक, सामाजीक आनी वंशीक, धार्मीक आनी राजकी, नैतीक, भाशीक अश्यो तरेकवार अडचणी; तातुंतल्यान उपरासपी अंतर्विरोध, जुळपी-तुटपी नातेसंबंद आनी हितसंबंद, भुगोलीक आनी सैमीक स्थिती, लोकजिणेचेर आनी जनमनाचेर लेगीत जावपी तिचो परिणाम, थंयसल्ली परंपरानिश्ठताय आनी अर्दमागाशिल्लेपण, वृत्ती-प्रवृत्ती ह्या आनी अशे तरेच्या आंगांतल्यान प्रदेशीकताय रूप घेत आसता.

साहित्यनिर्मणेखातीर (मुखेलपणान कथा साहित्य) खंयच्याय प्रदेशाची (वाठाराची) निवड केले उपरांत त्या वाठारांतले सैमीक सृश्टीच्या यथातथ्य चित्रपा सांगातानूच थंयसल्ली समाजजीण, चालचलणूक, परंपरा, श्रद्धा हांचें, तेचप्रमाण थंयसल्ले चालंत भाशेचें (बोलभाशेचें) पडबिंब त्या साहित्यांत

पडिल्ल्यान प्रदेशीकतायेच्या तत्वाचेर आनी अपरिचीत गूणविशेशांचेर उजवाड पडचो अशी आस्त प्रदेशीक साहित्या कडल्यान आसता.

## प्रदेशीकताय आनी ग्रामीणटाय

'प्रदेशीकताय' आनी 'ग्रामीणताय' एकामेकांच्यो पर्यायवाचक संज्ञा जावंक शकनात. प्रदेशीकतायेचे जायते निकश ग्रामीणटायेकूय लागू जातात. दोनां भितरलीं साबार तत्त्वां लेगीत एकासारकींच आसात, तरी ग्रामीणटाय आनी प्रदेशीकताय एकामेकांक पर्याय जावंक शकनात. गांवगिरो वाठार लेगीत शारापसून, उद्येगीक केंद्रापसून, आधुनीक संवसारापसून पयस आसता. थंयसल्ले लोकजिणेक नागरी जिविताच्या प्रभावाखाला सुदारणा आनी विकासाच्या काळांत नवें रूप प्राप्त जालें तरी 'कृषीप्रधानतायू'च ते जिणेची मुखेल आदारशिळा. परंत प्रदेशीकतायेची आदारशिळा एकली 'कृषीप्रधानतायू'च आसना. 'लोकसंस्कृती' हो तिचो मुखेल आदार आसता. तेचप्रमाण 'ग्रामीणटाय' ही मुखेलपणान व्यष्ठीसंदर्भी (individual related) संज्ञा जाल्यार 'प्रदेशीकताय' समेष्टेसंदर्भी (society related) संज्ञा. प्रदेशीकतायेंत समूह केंद्रस्थानीं आसता जाल्यार ग्रामीणटायेचो विचार व्यक्तीसापेक्ष करचो पडटा. गांवगिऱ्या साहित्यांत व्यक्तीचित्रणाक चड म्हत्व आसता. व्यक्तीच्या माध्यमांतल्यान 'ग्राम' चित्रण सादप हें थंय मुखेल उद्‌दिश्ट आसता जाल्यार 'प्रदेशीकतायें'त प्रदेश चित्रणांतल्यान - समूहचित्रणांतल्यान - व्यक्तीजिणेचो सोद घेवचेलो प्रयत्न जाता. अशे तरेचें हें दोनूय संकल्पनांचें 'जुंवळ' (युग्म). वयलेवयर पळोवप्याक तांचे मजगतीं खंयचेच तरेचो वेगळेचार दिसून येवचो ना. परंत सुक्षीमपणान, सापेक्षतायेन सोद घेत जाल्यार दोनांय मजगतीचो वेगळेचार जाणवलेबगर रावचो ना. ताका लागुनूच दोनूय संकल्पना एका दुसऱ्याचो पर्याय जावंक शकनात. प्रा. गाडगीळांली पद्दत वापरून सांगचें जाल्यार अशें सांगूं येत की, प्रदेशीकताय हें एक खूब व्हडलें वाटकूळ आनी ग्रामीणटाय हें ताच्या परिघा वयलें एक ल्हानशें वाटकूळ.

'प्रदेशीकताये'च्या परिघाचेर अशीं जायतीं ल्हान वाटकुळां आसूं येतात. देखीक दलीत साहित्य, उपनगरी, झोंपडपट्टी, थळावो कोर (local colour), बी. खंयच्याय 'प्रदेशा' भितरल्या गांवगिऱ्या मनशाची मानसिकताय एकासारकीच आशिल्ली पळोवंक मेळटा. तेच प्रमाण विंगड विंगड प्रदेशांतल्या समाजांची,

व्यक्तींची मानसीकताय एकासारकी उरना. आसुंकूच शकना. कारण, थंयसरली 'लोकसंस्कृती' विंगड विंगड आसता.

सांकळिल्ल्या वाङ्मयाक प्रदेशीकतायेक लागून 'नाविन्य' आयलें. 'वास्तवतेची परगटावणी' सहज शक्य जाली. मेल्ल्या आनी मरूंक पाविल्ल्या साहित्यांत परतून प्राण भरलो. डॉ. आदर्श सक्सेना हांणी हाचेर ज्युस्त उजवाड घाला. ते बरयतात, ''कादंबरेचो इतिहास गवाय आसा. जेन्ना येवरोपांत नागरी जिणेचें चित्रण तेंगशेर पाविल्लें तेन्ना वाचप्यांक तें बेळशेल्ल्याचो अणभव येवंक लागिल्लो. हाचो परिणाम म्हण आशिया आनी आफ्रिका हांगासरल्यान जातींचो आदार घेवन कादंबऱ्यो बरोवपाक लागले. हे तरेच्या कादंबऱ्यांनी येवरोपी वाचप्यांक बंद वातावरणा मजगतीं येवपी ताज्या वाऱ्याचे झिळुकेचो अणभव मेळ्ळो.''[१३]

प्रदेशीक साहित्यांत 'प्रदेशीकताये'ची अपरिहार्यता प्रतिपादन करता आसतना 'पाचोळा'कार प्राचार्य रा.रं. बोराडे हांणी एक धोक्याची शिटकावणी दिवन दवरल्या. ते म्हणटात,

''मनशाची कात कडेक काडून जेप्रमाण आमी त्या मनशाचो विचार करूंक शकनात, तेच प्रमाण तो विशिश्ट प्रदेश (वाठार) कडेक दवरून त्या प्रदेशांतल्या व्यक्तींचो विचार आमी करूंक शकनात. ज्या वाठारांत त्यो जल्म घेतात, वाडटात, त्या वाठारांतलें सैम, थंयसरल्या लोकांचे आचारविचार, सामाजीक संकेत, ह्या सगळ्यांचे संस्कार घेवनूच तांची जीण घडिल्ली आसता. थंयसरले मातयेनूच त्या व्यक्तीमनाक जल्म दिल्लो आसता. तांच्या शिरंत्रां कणकणीं तें उदक भरशिल्लें आसता. तांचे कातीचो कोर लेगीत थंयसरल्या हवामानानूच तांकां दिल्लो आसता. तांच्या मनाचो धर्म हो थंयसरल्या सैमानूच घडयिल्लो आसता. फुडेंफाटीं हो वाठार तांणी सोडलो तरी लेगीत तांच्या मनाचे हे धर्म पुसून वचनात. प्रदेशीकताय अपरिहार्य आसता ती ह्या अर्थान. प्रदेशीकतायेची उखलापी जाणविकाय मात लेखकाक आसूंक फावोना.''[१४]

प्राचार्य बोराडे हांची शिटकावणी म्हत्वाची आसाच. ते भायर प्रदेशीक लेखकाक हें लेगीत मतींत घेवंक जाय की, साहित्यांत प्रदेशीकताय आसची पडटा, प्रदेशीकतायेंत साहित्य न्हय. प्रादेशीक कादंबरे संबंदान विवेचन करतासतना डॉ. आनंद यादव हांणी 'द्विस्तरीय निकष व्यवस्था' (दोन पांवड्यां वयली

निकश वेवस्था) सांगिल्ली आसा. ते म्हणटात,

''प्रदेशीक कादंबरीखातीर 'दोन पांवड्यां वयली निकश वेवस्था' आपणावची पडटा. (१) पथवेवस्था आनी (२) मुल्यवेवस्था. 'पथ' हें उतर अणभवद्रव्याची भलायकी, विशुद्धताय दाखोवन दिता. 'मुल्य' हें उतर 'कादंबरी' ह्या साहित्यकला प्रकाराचें साबार कलात्मक मुल्यमापन दाखोवन दिवपी, तिचो दर्जो थारावपी म्हूण अभिप्रेत आसा.''

ह्या दोन निकशवेवस्थांचो पुर्वोत्तर संबंद मानून घेवचो पडटा. 'पथां'क पाळो दिलो जाल्यार ती 'प्रदेशीक' थारतली आनी 'मुल्यां'क पाळो दिलो जाल्यार ती कादंबरी थारतली. हाका लागून तिच्या पथांची तपासणी आदीं आनी मुल्यांचे नदरेंतल्यान केल्ली तिची तपासणी उपरांत करप यथार्थ समिक्षा वेव्हाराक समा जातलें.''[१५]

प्रदेशीकतायेंत कितलेंय नाविन्य आसलें तरी लेगीत एक गजाल मतींत दवरूंक जाय. ती म्हळ्यार,

"Regionalism is not an end in itself, not a literary affection, not an aesthetic credo, but a condition of literary realisation."[१६]

(प्रदेशीकताय अंतीम साध्य न्हय, वाङ्मयीन आकर्शण न्हय, सौंदर्यप्रणाली न्हय, जाल्यार वाङ्मयीन जाणविकायेची ती एक अवस्था.)

निमाण्या दोन अवतरणांतल्यान उकते जाल्ले विचार ह्या सोदनिबंदाचे नदरेन लेगीत मार्गदर्शक थारपी अशेच आसात. साहित्याचे निकश वेवस्थेंतल्या 'पथां'च्या आदारान आमकां प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचे कथेंतले 'प्रदेशीकताये'चो सोद घेवप शक्य जातलें, जाल्यार 'मुल्यां'च्या आदारान तांचे कथेची श्रेणी, प्रतवारी थारावं येतली.

### लक्ष्मणरावांलें प्रदेशीकताये विशींचें मत

प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसायांनी प्रदेशीकताये विशींचो आपणालो विचार स्पश्टतायेन मांडला. पयले प्रथम 'रत्नाकर' ह्या नेमाळ्यांत 'सह्याद्रीच्या पायथ्याशी' ह्या वि.स. सुखठणकरांच्या कथांझेल्याचेर बरयिल्ल्या दीर्घ समीक्षणांत तांणी तो उकतायला. मुखार वचून तांणी हो विचार आनीक विस्तारान कुडचड्या वयल्या अध्यक्षीय उलोवपांत मांडला. तो मांडटना ते म्हणटात,

“माणसात अंतर्बाह्य जीवनाचं दर्शन घडवणं हे ललित साहित्याचं कार्य; स्थळ, काळ, धर्म, संस्कृती, परंपरा, इतिहास अशा वेगवेगळ्या संस्कारांचा परिपाक म्हणजे व्यक्ती. म्हणून जगातील कोणतंही प्राचीन - अर्वाचीन साहित्य प्रादेशिकच आहे. प्रादेशिकता नसलेलं अभिजात साहित्य जगात नाहीच म्हटलं तरी चालेल. महाभारतासारख्या प्राचीन साहित्यात देखील प्रादेशिकता आढळते. टॉलस्टॉय, गॉर्की, चेकॉव्ह इत्यादींच्या कथासाहित्यात प्रादेशिकता रसरसते. प्रादेशिकतेचं वेगळेपण हा कथासाहित्याचा फार मोठा गुण. प्रादेशिकतेशिवाय जिवंत कथासाहित्य असूच शकत नाही. सगळ्यांचे स्वभाव एकसारखे नाहीत. रंग, रूप, आकार एक नाही. सगळा निसर्ग एक नाही, तोपर्यंत ललित साहित्य प्रादेशिकच राहणार. ज्यावेळी हे अगणित वेगळेपण नष्ट होईल त्यावेळी ललित साहित्याचे अस्तित्व संपेल. म्हणजे असं की, वेगळेपण हाच ललित साहित्याचा प्राण. जो कलाकार ते गाढ आणि तीव्र रीतीनं चित्रित करतो तोच श्रेष्ठ. पर्ल बक, सोमरसॅट मॉम, मालरो यांसारखे कथाकार जेव्हा आपले देश सोडून परदेशात जातात आणि तेथील लोकांच्या जीवनावर लिहितात तेव्हा त्या जीवनाचं वेगळेपण आणि आगळेपण दाखवतात. गोमंतकीय साहित्यात गोमंतकीय जीवनच दिसलं पाहिजे, ते न दिसेल तर तो दोष त्या साहित्यिकाचा. प्रादेशिक वेगळेपण समजून घेण्याची आणि ते व्यक्त करण्याची ताकद साहित्यिकात असली पाहिजे. त्याचप्रमाणे विश्वात्मक असं जे काही जीवनात असतं तेही समजून घेण्याची आणि व्यक्त करण्याची शक्तीही त्याच्यात असली पाहिजे. म्हणजे असं की, साहित्यात प्रादेशिकतेबरोबरच विश्वात्मकताही उतरली पाहिजे. भिन्न भिन्न प्रदेशातील माणसं भिन्नतेनं नटलेली असली तरी त्यांचे मूलभूत स्वभावधर्म एकच असतात. त्यांचं जीवन श्रेय आणि प्रेय यांच्या कलहातूनच उलगडत जातं. या प्रक्रियेत जे विश्वात्मक म्हणजे युनिव्हर्सल असतं, ते आपोआप दृश्यमान होतं. साहित्यात ते आलं पाहिजे. प्रादेशिकता आणि विश्वात्मकता यांच्यामध्ये विरोध आहे असं मानणं अप्रबुद्धपणाचं आहे. जे खरं प्रादेशिक तेच विश्वात्मक. जेथे प्रादेशिकता नाही तेथे मौलिकता-ओरिजिनॅलिटी नाही.”[१७]

साहित्यांत प्रदेशीकताय जाय तेच वांगडा विश्वात्मकताय जाय म्हण ते आग्रो धरताले.

**प्रो. लक्ष्मणरावांले कथेंतली प्रदेशीकताय**

प्रो. सरदेसाय हे मराठी कथाविश्वांत प्रदेशीक कथाकार म्हण नांवाजते आसात. तांणी जें विपूल कथालेखन केलां तातूंत प्रदेशीक कथांचो आंकडो खूब व्हडलो आसा. पूण तांच्या उजवाडा आयिल्ल्या कथांझेल्यांनी ज्यो कथा आसपावल्यात तातूंत प्रदेशीक कथांचे तुळेन गांवगिऱ्या कथांचो आंकडो चड आसा. दुबावा विरयत अशें म्हणूं येता की, तांचे कथेचेर प्रदेशीकतायेचो छाप बसला. तो काळ मतींत घेतलो जाल्यार तांचेर प्रदेशीकतायेचो छाप मारपांत वांकडें अशें कितेंच ना, अशेंच म्हणचें पडटलें. कारण त्या काळार 'गांवगिरी कथा' ही संकल्पनाच अस्तित्वांत येवंक नाशिल्ली. नाजाल्यार केन्नाय तरी लक्ष्मणरावांक गांवगिरो कथाकार म्हुण्णूच वळखतले आशिल्ले. गोंयचे फाटभुंयेर तांणी आपणालें कथालेखन केलें. हातूंत तांणी मुंबय आनी दिल्लीच्या राबित्यांत बरयिल्ल्या कांय थोड्या कथांचो आडवाद करचो पडटलो. परंत तातूंतल्यान लेगीत 'मनोवृत्तीचे प्रदेशीकताये'चें दर्शन घडटा. ''सरदेसायांच्या कथांची फाटभूंय हो फटक करून नदरेंत भरपासारको विशेश''[१८] अशें वि. स. खांडेकर म्हणटात हाचें कारण महाराष्ट्रापरस गोंयचें सैम आनी थंयसरली लोकजीण खेरीत आसा. प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी जें प्रादेशीक कथालेखन केलां तांतल्यो कांय कथा तांच्या कथाझेल्यांत आसपावल्यात. जांकां प्रादेशीक म्हणूं येत अश्यो सुमार तीस कथा तांच्या विंगड विंगड झेल्यांतल्यान संग्रहीत जाल्ल्यो आसात. **कल्पवृक्षांच्या छायेत** ह्या तांगेल्या पयल्या झेल्यांत अश्यो स कथा आयल्यात. 'नवे वर्ष', 'काळेकुट्ट ढग', 'हृदयाचे समाधान', 'मोहिनी', 'कौमार्याचे बंध' आनी 'न्यायाधीश' ह्यो त्यो कथा. तांच्या **ढांसळलेले बुरूज** ह्या चौथ्या झेल्यांत लेगीत 'राण्याचे ब्रीद', 'जरीचे पातळ', 'भाग्यवंत', 'ढांसळलेले बुरूज', 'मेणाचीं बाहुलीं', 'गावकऱ्याचा संदेश' व 'गुरवाचे रक्त' अश्यो सगळ्यांत चड म्हळ्यार सात कथा आसात जाल्यार 'देवीची मूर्ति', 'स्वप्न आणि सत्य', 'पुनर्जन्म', 'प्रेम आणि परमेश्वर' आनी 'उद्‌ध्वस्त समाधि' ह्यो पांच कथा **संसारातील अमृत** ह्या तांच्या सव्या झेल्यांत पळोवंक मेळटात. तांच्या हेर झेल्यांतल्यान दोन दोन, तीन तीन कथा प्रदेशीक आसात. कांय कथा एकापरस अदीक झेल्यांतल्यान पुनरावृत्त जाल्ल्यो आसात. पूण तांचो आंकडो साप्प उणो आसा. तांच्या दोनूय प्रतिनिधीक कथा झेल्यांतल्यान लेगीत अशे तरेच्या

कथांचेरूच चड भर आसा. प्रदेशीक कथाकार म्हण तांची प्रतिमा (image) तयार जावपाक ह्या घडणुकांचेंय हातबोट लागलां. विंगड विंगड झेल्यांतल्यान आयिल्ल्यो तांच्यो कथा अश्यो: 'लग्नाचा ध्यास', 'बंडखोर' आनी 'विलासिनीचा भविष्यकाल' (**सागराच्या लाटा**), 'वादळातील नौका' आनी 'तिचा उद्धार' (**वादळातील नौका**), 'बळी' आनी 'आनीतेचे दिव्य' (**आनीतेचे दिव्य**), 'मोहोर' आनी 'जागा होऊ दे!' (**मोहोर**), 'मधुचंद्र' आनी 'आफ्रिकेचे जहाज' (**सुरेख संगम**), 'मीनाचें धन', 'गुन्हेगार', 'विस्तार' आनी 'तृप्ति' (**सोनेरी ऊन**), 'येईल येईल निश्चित येईल!', 'अविश्वास' आनी 'निवारा' (**निवारा**) आनी 'हंसा' आनी 'पडसाद' (**बिजेची कोर**).

प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी जें प्रदेशीक कथालेखन केलां तांतले प्रदेशीकतायेचें स्वरूप कशे तरेचें आशिल्लें आनी तातूंतल्यान प्रदेशीकतायेचीं खंयचीं खाशेलपणां पळोवंक मेळटात हे संबंदान हांगा विसकटावणी केल्या. '''प्रादेशीक' हें उतर येवजितना त्या त्या प्रदेशांतली 'गांवगिऱ्या स्वरुपाची लोकजीण' असो अर्थ अभिप्रेत आसता'' अशें प्रा. आनंद यादव म्हणटात.[१९] पूण तांचें हें म्हणणें सर्वय अर्थांनी समा आसा अशें म्हणूंक येवचें ना. कारण खंयच्याय प्रदेशांत फकत गांवगिऱ्या स्वरुपाचीच लोकजीण अस्तित्वांत आसना. ते परस खेरीत पूण नागर न्हय, जिका अर्दनागर म्हणूं येत, अशीय लोकजीण गांवगिऱ्या स्वरुपाचे लोकजिणेच्या सांगातानूच थंय चलत आयिल्ली आसता. म्हज्या मत्तान 'गांवगिरी' आनी 'प्रदेशीक' ह्या संज्ञां मजगतीं भेद करपी होच म्हत्वाचो आनी मुळावो वेगळेचार, आनी तोच ह्या दोनूय तरांच्या साहित्या मजगतीं भेद करपी मुळावो घटक. ''ह्या दोनूय संज्ञांभितर सारकेपण आसलें तरी लेगीत त्यो एकूच अशें मात म्हणूं नजो'' अशें नमूद करून प्रा. नागनाथ कोत्तापल्ले म्हणटात, ''प्रदेशीक साहित्य गांवजिणेक, गांवसंस्कृतायेक चडशें म्हत्व दिना. तें म्हत्व दिता एका खासा वाठारांतल्या समग्र पेण्याक. केन्नाय तरी गांवजीण आयलीच जाल्यार ती स्वतंत्रपणान येना. ती येता त्या वाठारांतले समग्र संस्कृतायेचो एक वांटो म्हण. अशा वेळार गांवसंस्कृताये परस त्या वाठाराचो आवाठ चड म्हत्वाचो आसता. ते नदरेंतल्यान प्रदेशीक साहित्यांतल्यान व्यक्तीकेंद्रीतताय दिसना. समूहकेंद्रीतताय हें ह्या साहित्याचें खाशेलेपण.''[२०] कोत्तापल्लेचें हें विधान मतींत घेवनूच प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचे कथेंतले

प्रदेशीकतायें कडेन पळोवपाचो हांगा प्रयत्न केला. पूण हो अभ्यास लघुकथा ह्या वाङ्मयप्रकाराचो आशिल्ल्यान कादंबरी वाङ्मयांत अभिप्रेत आशिल्ले सामुहीकतायेचे निकश ताका ज्युस्ताजुस्त लागू पडप निखालस शक्य ना.

वयर दिल्ल्या कथांतल्यो कांय कथा व्यक्तीकेंद्रीत आसल्यो तरी लेगीत त्या व्यक्तींचे चालचलणुकेंत एके तरेचें प्रातिनिधीकपण आशिल्लें दिसता. ह्या अर्थान त्यो समूहमनाचें प्रतिनिधित्वच करतात अशें म्हणचें पडटा. तांचे चालचलणुकेंतल्यान गोंय वाठारांतल्या खाशेल्या सांस्कृतीक आंगांचें यथार्थ दर्शन घडटा. खंयच्याय लेखकाचे एकूच एक प्रादेशीक कथेंतल्यान प्रदेशीक संस्कृतायेच्या व्यापक दर्शनाची आस्त बाळगप म्हळ्यार चुकूच थारता. देखीक व्यंकटेश माडगूळकर हांच्या **माणदेशी माणसे** ह्या कथाझेल्यांतल्या कथांतल्यान माणदेशी लोकसंस्कृतायेची वळख जाता.[२१] पूण तातूंतली खंयचीय एक सुटी कथा घेतली जाल्यार तातूंतल्यान अशी वळख जायना. तशी ती अशक्यूच गजाल थारता. होच निकश खंयच्याय प्रादेशीक कथाकाराचे कथेक लागू पडटा. हाका लक्ष्मणरावांचे कथेचो लेगीत आडवाद करूंक येवचो ना. ''प्रादेशीक खाशेलपणां सरदेसायांचे कथनकलेचे अलंकार आसात.'' ह्या उतरांनी वि. स. खांडेकरां सारकिल्या प्रथितयश कथाकारान तांचे कथेच्या प्रदेशीक कथन वैशिष्ट्यांची फावो ती तुस्त केल्या.[२२] लक्ष्मणरावांचे हे प्रदेशीक कथेक अलंकृत करपी वैशिष्ट्यां म्हळ्यार प्रदेशीक साहित्याचीं तत्त्वां. भुगोलीकताय, मागाशिल्लेपण, सैम, लोकसंस्कृती आनी भास हीं प्रादेशीक साहित्याचीं तत्वां म्हण डॉ. मदन कुलकर्णी हांणी आपणाल्या **मराठी कादंबरी: तंत्र आणि स्वरूप** ह्या संशोधनान सिद्ध केल्ल्या ग्रंथांत सांगलां.[२३] तांणी सांगिल्ल्या ह्या तत्त्वांच्या उजवाडांत प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या वयर दिल्ल्या प्रदेशीक कथांची विसकटावणी करून तातुंतले प्रादेशीकतायेचें स्वरूप अभ्यासचें पडटलें. पूण विस्तारभयाक लागून तांचे दर एके कथेचो अशे तरेचो अभ्यास करप हांगा शक्य ना. देखून कांय वेंचीक कथांच्या अभ्यासाचो आदारूच हांगा घेतला.

भुगोलीकताय हें प्रदेशीक कथेचें पयलें तत्त्व. प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसायांच्या वयर दिल्ल्या साबार कथांतल्यान गोंयचो भुंयप्रदेश ताच्या विंगड विंगड भुंयवैशिष्ट्यांसयत साकार जाल्लो पळोवंक मेळटा. ह्या कथांतलीं मनशां, वातावरण, घडणुको, प्रसंग, तपशील सगळेच जणू गोंयचे भुंयेकडेन अतूटपणान

बद्द आशिल्ल्याचें जाणवता. हाका लागून तांच्या वर्णनांत जायते फावटी रिपिटिशन आयिल्ल्याचो भास जाता. हाच्या संदर्भांत **सागराच्या लाटा** ह्या तांच्या दुसऱ्या कथां झेल्याचो परामर्श घेतना प्रा. रा. भि. जोशी हांणी काडिल्ले उद्‌गार सुचक म्हणचे पडटले. ते म्हणटात, ''गोंयचीं सगळीं तळीं, न्हंयो, वझरे, व्हाळ, दोंगुल्ल्यो, एकेच तरेचीं आसप शक्य आसा. तेन्ना तांच्या वर्णनांतलें रिपिटिशन क्षम्य मानूंक जाय.''[२४] तांच्या जायत्या कथांतल्यान गोंयांतले दोंगर, न्हंयो, कुळागरां हांच्या सांगातान दर्या शेजारूय सुचीत जाला. देखीक तांचे 'विस्तार' हे कथेंतलो फुडें दिल्लो उतारो पळोवंचो.

> ''तीं न्हंयेचे दिकेन चलूंक लागलीं. बांदावयले वाटेन वचूंक लागलीं. दोनूय देगांनी ऊंच ऊंच माड आशिल्ले आनी अशे तरेचे बांद पयस मेरेन पातळिल्ल्या शेतांत शेंकड्यांनी दिसताले. समांतर बांदावयले ते समांतर लायिल्ले माड वाऱ्याच्या झोतार हालताले, धोलताले. तांचेर बशिल्लीं कितलींशीं शेवणीं उडणां मारतालीं, गायतालीं. बांदाचे सकयल्यान व्हाळ व्हांवताले आनी तांचे आशिकुशीच्या शेतांत लायिल्ल्या मळ्यांतल्यान किरिस्तांव चलयो शिपपाचें काम करताल्यो. भाजीपालो खुंट्टालीं. आनी हें सगळें करता आसतना तीं अस्तमत्या किर्णांमजगतीं कोंकणी कांतारां गायतालीं.
>
> ''त्यो भयणी आतां न्हंयेचेर येवन पावल्यो. आतां देखाव बदल्लो. देगेर सुकत घाल्लीं जाळां दिसूंक लागलीं. सकयल उदकांत ल्हान व्हड व्हडीं आशिल्लीं. कांय लोक न्हंयेच्या उदकांत वलयताले, जायतीं व्हडीं नुस्तें पागीत देगेदेगेन वतालीं. देगेक बांदाचेर रूख वाडिल्ले. ते न्हंयेचे झोतीक दोनूय वशींनी खासा सोबीतकाय दिताले.''[२५]

प्रो. लक्ष्मणरावांचे कथेंतल्यान अवतरपी परिसराच्या चित्रणांतल्यान तांचे ठांय आशिल्ल्या उत्कट भुंयमोगाची प्रचिती येता. कथाकार श्री. ज. जोशी तांच्या ह्या भुंयमोगाविशीं म्हणटात, ''सैमाचें ठळक चित्र-रेखाटन भोवच थोड्या

लेखकांचे लिखणेंतल्यान जन्माक येता... खंयच्याय परिच्छेदांत दर्या, माडांची सावळी, माडयो, केळी आनी कुळागर आसताच आसता. लक्ष्मणरावान स्वता केन्ना शेत केल्लें जायत अशें दिसना; परंत जमनीविशीं इतलो मोग आसपी लेखक सोदून मेळचो ना.''[२६]

मागाशिल्लेपण आनी तातूंतल्यान उपराशिल्ल्यो अडचणी म्हळ्यार प्रदेशीक साहित्याचें दुसरें तत्त्व. लक्ष्मणरावांल्या कथांतल्यान ह्या तत्त्वाचो थोडोभोव अणभव वाचप्याक येता. परंत हें मागाशिल्लेपण भौतीक स्वरुपाचें चड आसा. त्या मानान संस्कृतीक मागाशिल्लेपणाचो अणभव तांच्या कथांतल्यान साप्प उण्या प्रमाणान येता. हाकाच लागून जावये, तांच्या **सागराच्या लाटा** ह्या झेल्याचो परामर्श घेतना प्रो. रा. भि. जोशी म्हणटात, ''ह्या झेल्यांतल्यो कथा वाचून एक समज असोय जाता की, गोंयचे गोरवांराखणे, भाटकार, चार काडपी, भंडारी हे सगळे संस्कृतीक नदरेन एकाच दर्ज्याचे आसात. राघू आनी मंजुळा, गंगा आनी नागू, संताजी आनी गिरीजा हीं सगळीं एकाच फॉर्मांतली सुसंस्कृत भास उलयतात.''[२७]

प्रो. लक्ष्मणरावांच्या कथालेखनांतल्या प्रारंभ काळार भौतीक नदरेंतल्यान गोंय मागाशिल्लें आशिल्लें हें खरें आसलें तरी देगेच्या हेर प्रांतांचे तुळेन तें जायतें प्रगत आशिल्लें, हीय गजाल तितलीच खरी. हाचें कारण म्हळ्यार दीर्घकालीन पुर्तुगेज शेकाक लागून अस्तंती देशांतलें शिकप, कायदे आनी सुदारणा हांणी गोंयचें आधुनिकीकरण घडोवन हाडिल्लें. अस्तंती संस्कृताय आनी सभ्यताय हांचो प्रभाव हांगा सर्वसामान्य जनतेचे दीसपट्टे जिणेचेर लेगीत थोड्याभोव प्रमाणांत जावं, पूण तो पडिल्लो. हाका लागून लोकशाय, समताय, उदारताय, भावचार ह्या तत्त्वांची वळख आनी तांचो प्रभाव हांगासरले सामान्य लोकजिणेचेर लेगीत थोडोभोव जाल्लो दिसतालो. एके तरेची वृत्तीची आधुनीकताय गोंयकारां भितर रुजिल्ली. दीर्घकालीन पुर्तुगेज शेक, तांणी केल्ले आधुनीक तत्त्वांचेर आदारिल्ले कायदे आनी आधुनीक शिक्षण पद्धत हांकां लागून 'मागाशिल्ल्या वाठारांत राबितो आशिल्ले नागरी मनोवृत्तीचे लोक' ह्या उतरांनी गोंयकारांचें वर्णन करचें पडटलें. प्रा. गंगाधर गाडगीळ हांणी हे खाशेले मनोवृत्तीची दखल घेवनूच आपणाले 'मनोवृत्तीची प्रदेशीकताय'ची उपपत्ती मांडल्या.[२८]

वयर दिल्ले मनोवृत्तीचो अणभव लक्ष्मणरावांच्या कथांतल्यान लेगीत येता. तांच्या कथेंतल्या पात्रांचे बाबतींत लेगीत ही गजाल सत थारता. पूण भौतीक

मागाशिल्लेपणाचें दर्शन लेगीत तांणी आपणाल्या कथांतल्यान बेस बरें घडयलां. रुढी, परंपरा, स्रद्धा-अंधस्रद्धा हांच्या प्रभावाखाला वावुरपी हांगासरलो लोकसमूह तांणी आपणाल्या कथांतल्यान अचूक चित्रीत केला. हे तरेचे लागीं लागीं दर एके कथेंतल्यान हाचो अणभव उण्या-अदीक प्रमाणांत येता. आर्थीक संपन्नतायेचो निकश लायलो तरी लेगीत तांचे कथेंतल्यो फामिली वो समाज सधन म्हणू येत अशा वर्गांतलो आसा अशें पळोवंक मेळना. परंत कांय कथांतल्यान वतनदार घराब्यांची वतनदारी 'वतन गेलां आनी दार उरलां' हे तरेची आसा. देखी खातीर 'जरीचे पातळ', 'मोहोर', बी कथा पळोवंच्यो. भौतीक मागाशिल्लेपणांतल्यान उपराशिल्ल्यो अडचणी आनी तांचो हांगासरल्या लोकांचे जिवनपद्दतीचेर, दीसपट्टे जिणेचेर जाल्लो परिणाम तांणी हे तरेच्या कथांतल्यान अधोरेखीत केला. 'पुनर्जन्म', 'मोहोर', 'उद्ध्वस्त समाधि', 'हृदयाचे समाधान' ह्यो ह्या वर्गांत घालूं येत अश्यो कांय कथा.

प्रदेशीकतायेचें तिसरें तत्त्व म्हळ्यार सैम. लक्ष्मणराव तर सैम चित्रणा खातीर नामना जोडिल्ले कथाकार. ''प्रदेशीक वातावरण निर्मुपाची लेखकाची कला सामकी तुस्त करपासारकी आसा.''[२९] अशा उतरांनी मराठींतलो एक कथाकार रघुवीर ज. सामंत तांचो गौरव करता. ''उण्यां उतरांभितर सृश्टीचें जिवें तट्टटीत चित्र रेखपांत प्रो. सरदेसाय हांची कुशळटाय तुस्त करपासारकी आसा.''[३०] अशे कौतुकाचे उद्गार तांच्या सैम चित्रणाविशीं प्रा. रा. भि. जोशी हांणी काडल्यात. तांच्या सैम वर्णनाची तुस्त करतना ''उतरांनी रंगाचें रूप धारण केल्ल्याचो भास जाता'' अशें वि. स. खांडेकर लेगीत म्हणटात.[३१] तांचे 'राण्याचे ब्रीद' (राण्याची कहाणी) हे कथेचो संदर्भ दिवन सौ. प्रभावती डोंगरे हांणी तांच्या सैमचित्रणांक 'अवलोकनपूर्ण सृष्टिवर्णनां' अशें म्हळां.[३२] 'मीनाचें धन' हे कथेंतल्यान हांगासरल्या मिनाच्या वेवसायाच्या चित्रणा सांगातान कुळागर आनी शेत-बागायतीचें वास्तवपूर्ण चित्रण ते सहजपणान करतात.

सैम ह्या तत्त्वाचो चतुरायेन उपेग आपणाल्या लघुकथांतल्यान लक्ष्मणरावांनी केला. पूण तांचे कथेंतलें हें सैम आलायतें दिसना. तें ते कथेंतलें एक पात्रूच जावन येता. हाका लागून कथेंतल्या पात्रांचे भावबंद तातूंत घुसपल्ले पळोवपाक मेळटात. हे नदरेंतल्यान 'वादळांतली नौका' हे कथेंतलें फुडें दिल्लें वर्णन मतींत घेवपासारकें आसा.

"आपल्या दर्शनाने आणि आवाजाने हुरहुर उत्पन्न करणारी सुरूची झाडे खिडकीतून दिसत होती. संध्यासमयीच्या उदास शांततेत त्या झाडांचे दीर्घ नि:श्वास स्पष्ट एकू येत होते. रस्त्याच्या पलिकडे पसरलेल्या तळ्यातील काळ्याभोर पृष्ठभागावर पिवळसर रंगाची कमळे कुतुहलाने आकाशाकडे पहात होती. आणि गुराख्यांची पोरे, राईतून, बांबूची मुरली वाजवीत, गुरांच्या कळपामागून एक प्रकारच्या बेदरकार वृत्तीने परतत होती."[३३]

वयर दिल्ल्या वर्णनांत सैमाचें मानुषीकरण (personification) केलां. ह्या वर्णनांत येवजिल्लो दरएक घटक प्रतिमेच्या पांवड्यार पावता आनी त्या प्रतिमादलाच्या गोफांतल्यान एक नवेंच प्रतिमा साळीक नव्या अर्थासयत साकार जाता. हें वर्णन कथेभितर कळाशेचे सुवातेचेर आयलां. हांगासरल्यान प्रभेच्या (कथा नायिकेच्या) नशिबाचे भोग सुरू जातात. आनी निमाणेकडेन तिगेलें जिणेफूल बावून पडटा. नियतीच्या चक्रांत सांपडिल्ले एके जीवनोत्सूक पूण अभागी शोडषीची ही कथा वाचून मनाक चुरचुरे पडले बगर रावनात. पुराय कथानकभर हुरहुर उत्पन्न करपी सुरूच्या रुखांचे दीर्घ नि:श्वास, मुरलेचो आर्त नाद आनी तिनसांजच्या वेळावयली उदास शांतताय व्यापून उरिल्ल्याची अनुभूती वाचप्याक जाता. एका फिशाल कलाकाराकूच ही कुशळटाय साध्य जावं येता. लक्ष्मणरावान आपणाल्या श्रेष्ठत्वाची गवाय अशे तरेच्या कितल्यांशाच कथांवरवीं दिवन दवरल्या.

हेच कुळयेंतलें सैमचित्रण तांच्या 'बळी', 'आफ्रिकेचे जहाज', 'काळेकुट्ट ढग', 'बंडखोर', 'तिचा उद्धार', 'राण्याचे ब्रीद', ढांसळलेले बुरूज, 'मधुचंद्र', 'प्रेम आणि परमेश्वर', 'उद्ध्वस्त समाधि', 'विस्तार', 'तृप्ति', 'हंसा' बी हे तरेच्या कथांतल्यान आयिल्लें आसा. मुळांतल्यानूच ताचो अभ्यास करचो पडटलो.

प्रदेशीक कथेचें आनीक एक तत्त्व म्हळ्यार लोकसंस्कृती. आपणाले कथालिखणेंतल्यान तांणी हें तत्त्व विपूल प्रमाणांत खेळयिल्लें आसा हाची प्रचिती तांच्या साबार कथांतल्यान येता. वयर दिल्ल्या सगळ्या कथांतल्यान हाचो उणो अदीक अणभव येता. गोंयची संस्कृती आनी तिगेल्या विंगड विंगड

आंगांचें दर्शन तांच्या कथांतल्यान घडून येता. 'नवें वर्ष', 'हृदयाचे समाधान', 'तिचा उद्धार', 'आनीतेचे दिव्य', 'पुनर्जन्म', 'आफ्रिकेचे जहाज', 'गुन्हेगार', 'विस्तार', आनी 'निवारा' ह्या कथांतल्यान गोंयच्या किरिस्तांव समाजाची सामाजीक-सांस्कृतीक वळख ते वाचप्यांक घडयतात. तांचें रावप, खावप-पिवप, शिश्टाचार, धर्मभावना, उपासनापद्दत, रीतभात, स्रद्धा-अंधस्रद्धा, रुढी परंपरा, सण-उत्सव बी साबार अशे तरेच्या लोकसंस्कृतीच्या विंगड विंगड आंगांचें दर्शन तातूंतल्यान घडटा. तांचे प्रदेशीक कथेची पृथगात्मताय स्पश्ट करतना कथाकार श्री. ज. जोशी म्हणटा, ''लक्ष्मणरावांली आनीक एक विशेशताय नमूद करूंक जाय. किरिस्तांव धर्माचो वा इगर्जे सरभोंवतणीं पातळिल्ले किरिस्तांव लोकजिणेचो सरदेसायांचो आसा तितलो अभ्यास मराठींतल्या दुसऱ्या खंयच्याच लेखकाचो ना.''[३४]

'तृप्ति', 'हंसा', 'पडसाद', 'मोहिनी', 'काळेकुट्ट ढग', 'बळी', 'प्रेम आणि परमेश्वर', 'मोहोर', 'राण्याचे ब्रीद', 'ढांसळलेले बुरूज', 'जरीचे पातळ', 'भाग्यवंत' बी साबार कथांतल्यान वतनदार हिंदू घराब्यांतले लोकसंस्कृतीच्या विंगड विंगड आंगांचें दर्शन ते समर्थपणान घडयतात. 'तृप्ति', 'लग्नाचा ध्यास' सारकेल्या कथांतल्यान कश्टी जनतेच्या सामाजीक-सांस्कृतीक जिणेचें पडबिंब तांच्या कथांनी पडिल्लें पळोवंक मेळटा. 'साक्षात्कार', 'गुरवाचे रक्त', 'गावकऱ्याचा संदेश', 'बिजेची कोर' ह्यो कथाय देख म्हण हांगा दिवं येतात. 'कौमार्याचे बंध', 'विलासिनीचा भविष्यकाळ', 'मधुचंद्र', 'जरीचे पातळ', 'स्वप्न आणि सत्य' हे सारकेल्या कथांतल्यान हांगासरल्या कलवंत आनी भावीण समाजाचे सांस्कृतीक जिणेचो वेध तांणी घेतला. शेंसविधी सारकेल्या गोंयच्या विधीची वळख तातूंतल्यान ते करून दितात. तेचवरी 'मधुचंद्र' आनी 'स्वप्न आणि सत्य' हे सारकेल्या कथांतल्यान भावणीची एकनिश्ठताय आनी त्याग ह्या अनवळखी तासांचेर ते घणघणीत उजवाड घालतात. 'बंडखोर', 'येईल येईल निश्चित येईल!', 'जागा होऊ दे!', 'मेणाचीं बाहुलीं' ह्या कथांवरवीं हांगासरल्या स्वातंत्र्याक आंवडेवपी जन-मनाचो हुंकार आयकूंक येता. तेचप्रमाण तांची दीसपट्टी जीण, अडचणी, परंपरा, रुढी, विस्वास ह्या गजालींची वळखूय वाचप्याक जाता.

साबार नदरांनी पळोवंक गेल्यार लक्ष्मणरावान गोंयच्या सगळ्या घटक-

उपघटकांची सामाजीक सांस्कृतीक (socio-cultural) जीण, तांच्यो परंपरा आनी रुढी हांचे सयत आपणाल्या कथांतल्यान चितारिल्ली पळोवंक मेळटा. एकलो लक्ष्मणराव अभ्यासलो जाल्यार गोंयचो पुराय इतिहास जाणा जावं येता हे आशयाचे भौमानेस्त श्री. ज. जोशी हांणी तांचे कथेसंदर्भांत काडिल्ले उद्गार विचार करपा सारके आसात.[३५] 'देवीची मूर्ति' सारकेले कथेंतल्यान गोंयचे हिंदू समाजजिणेची मंदिरकेंद्रीतताय प्रकर्शान वाचप्यां मुखार येता जाल्यार 'तिचा उद्धार' हे कथेंतल्यान हांगासरले किरिस्तांव समाजजिणेची इगर्जकेंद्रीतताय ते अधोरेखीत करतात. ह्यो कथा गोंयचे मातयेंतल्यानूच किल्लून येवंक शकतात. दुसरे कडेन त्यो घडुंकूच शकनात हाची प्रचिती येवन प्रदेशीक साहित्या मजगतीं माती आनी मनीस हांची नियती कशी एका दुसऱ्या लागीं बांदिल्ली आसता हाची खूणगांठ घट्ट बसता. देखीक तांचे 'देवीची मूर्ति' हे कथेंतलो फुडें दिल्लो उतारो पळोवंचो:

> "एकदा असे झाले की पांडूशेटीला देवतेचा दृष्टावा झाला. तिने त्याला म्हटले, 'तुझी मुलगी मला अर्पण कर... ...तेव्हा त्याने ठरविले की, गावकऱ्यांसमक्ष देवतेला कौल लावावा. गोंदू भटजीने प्रसाद लावला. पांडूशेटीने कळवळून देवतेला सांगणे केले. देवतेने सांगितले, 'तुझ्या मुलीच्या तोंडवळ्याची काचोळी मला करून घाल. तुझं भाग्य मी उदयाला आणीन.' "[३६]

'गुरवाचे रक्त' हे कथेंत गांवाचेर जिवापाश्ट मोग करपी शाबा गुरवान केल्ल्या अतूळ त्यागाची कथा सांगिल्ली आसा. दैवी कोपाक लागून गांवाचेर आयिल्ल्या दुकळाक पयस करपाखातीर तो आपणाल्या दोन नातरांक बळी दिता आनी गांवाक तारता अशें हें कथानक. देवतेचो कोप पयस करचेखातीर प्रसंगाक भृण दिवपाची प्रथा हातूंतल्यान दिसता. अवसर काडप, प्रसाद लावप सारकेल्यो साबार प्रथाय हे कथेंत पळोवंक मेळटात. 'गावकऱ्याचा संदेश' हे कथेंत गुप्तधन, पुरून दवरिल्ले हांडे, अवसर, प्रसाद कळी, देवाचो कोप/कृपा हे सारक्यो गजाली कथावस्तूक गती दितात. ह्या दोनूय कथांतल्यान परंपरागत आनी रुढीग्रस्त प्रदेशीक लोकमानसाचें चित्रण केल्लें दिश्टी पडटा.

प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचे प्रदेशीक कथेच्या संदर्भांत तांच्या 'ढांसळलेला बुरूज' ह्या कथांझेल्याक बरयल्ल्या 'प्रदेशीक व्यक्तित्व' हे प्रस्तावनेंत आचार्य काका कालेलकर हांणी तांचे हे प्रदेशीक कथेचो गौरव करतना म्हटलां, ''...हेर खंयच्याय प्रांतापरस गोंयची खाशेलकाय सहजतायेन नदरेंत भरपासारकी आसा... लेखकान ह्या गोष्टीं (कथां) मजगतीं सर्वय तरेची विविधताय सादून लेगीत सर्वत्र वातावरणाची एकरुपता सांबाळिल्ली आसा. प्रदेशीक कथा कश्यो आसच्यो म्हण जर कोणें प्रस्न केलो तर ह्या 'ढांसळलेल्या बुरूजा'कडेन बोट दाखोवं येत.''[३७] ह्या कथाझेल्यांत फकत धा कथा आसात. तातूंतल्यो स कथा प्रादेशीक जाल्यार एक कथा गांवगिरी आसा. तेन्ना आचार्यान ह्या कथांझेल्याक प्रादेशीक कथांचो झेलो म्हण पाचारला तें समा म्हणूं येता.

सामुहिकताय हें प्रदेशीक साहित्याचें म्हत्वाचें तत्त्व जरी आसलें तरी ताचो प्रत्यय प्रमुखतायेन प्रदेशीक कादंबरे वरवींच येता. त्या मानान कथेसारकेल्या मोटव्या, स्फूट, वाङ्मयप्रकारा मजगतीं ताका तितलोसो थारो मेळना. पूण कथेंतल्यान लेगीत प्रातिनिधीक स्वरुपाची सामुहिकताय येवंक शकता. लक्ष्मणराव वयर दाखोवन दिल्ल्या कथांतल्यान ह्या अर्थान सामुहिकतायेचें दर्शन घडयतात. तातूंतलें दर एक पात्र हें मॉडेल जावन आसा; प्रातिनिधीक आसा. ते भायर तांगेल्या साबार कथांतल्यान प्रत्यक्ष सामुहिकतायेचें प्रत्यक्षाप्रत्यक्ष दर्शनय घडटा. देखीक: 'गुरवाचे रक्त', 'राण्याचे ब्रीद', 'भाग्यवंत', 'देवीची मूर्ति', 'उद्ध्वस्त समाधि', 'गावकऱ्याचा संदेश', 'तिचा उद्धार', 'लग्नाचा ध्यास', 'हंसा', 'ढांसळलेले बुरूज', 'गुन्हेगार', 'कौमार्याचे बंध', 'येईल येईल निश्चित येईल!', 'मीनाचें धन' ह्या तांच्या साबार कथांचो ह्या संदर्भांत विचार जावं येता. 'गुरवाचे रक्त', 'गावकऱ्याचा संदेश', 'गुन्हेगार', 'उद्ध्वस्त समाधि', 'देवीची मूर्ति', 'राण्याचे ब्रीद', 'ढांसळलेले बुरूज', 'कौमार्याचे बंध' आनी 'भाग्यवंत' ह्या कथांची अफाट व्याप्ती पळयल्यार, कथांतल्यान वावुरपी, बोवाळपी साबार विंगड विंगड प्रवृत्तींचीं पात्रां पळयल्यार अशें जाणवता की तांच्यो ह्यो कथा म्हळ्यार कादंबरीचें बॉन्साय केल्लें एक रूप. ह्या साबार कथांतल्यान सामुहिकताय पावला कणकणीं नदरेक पडटा.

भास हें प्रदेशीक साहित्याचें आनीक एक म्हत्वाचें तत्त्व. पूण ही भास प्रमाणीत केल्ली भास न्हय; ती बोली भास. ''गांवगिरे कथेचें सगळें जिवंतपण

तिगेले बोली लागसार लग्नीक आसता[३८] अशें प्रा. नरहर कुरूंदकर हांणी म्हणलां. बोलीभाशेक लागून कथेक त्या त्या वाठाराचें (प्रदेशाचें) रंग-रूप प्राप्त जाल्लें आसता. परंत साठोत्तरी गांवगिऱ्या मराठी साहित्यांत तिचो जे तरेन अतितायेचो प्रयोग यादव-बोराडे हांणी केला त्या स्वरुपाचो लक्ष्मणरावांनी केलोना. जंय अटळ, आवश्यक दिसलो थंयसरूच तांणी गोंयचे भाशेचो - कोंकणीचो - उपेग संवादाखातीर केला. तोय बी खूब उण्या प्रमाणांत, सुचकतायेच्या पांवड्यावेलो. परंत निवेदनांत मात तांणी अर्थवाही कोंकणी उतरां अशीं कितें गुंफिल्लीं आसात की ताका लागून निवेदनाक कोंकणीचो दरवळ येता. पूण ताका लागून कथावस्तूंत दुर्बोधताय येवन तिची रसहानी जाल्ली ना. अशे तरेचे आपणाले खास 'ठेवणींतल्या मराठी'[३९] (सांगशेंतले) भाशेवरवीं तांणी कथानिवेदन रुचीक केलां. हाका लागून तांची भास संस्कृतीसंपृक्त जाल्या. तातूंतल्यान गोंयचे लोकसंस्कृतीचो रस पाचेतना अणभवा येता. परंत ह्या रसपानाक लागून वाचप्याक अजीर्ण जायनासतना तें उलटें मनबुद्धीक पुश्टीक खाण दिता. देखीक, 'न्यायाधीश' हे कथेंतली सकला दिल्ली वेंचिका पळोवची:

> ''इर्मांव...'' गुस्तावची बहिण त्याला म्हणाली, ''आज मासळीला काहीच नाही. शेजाऱ्यांनी 'रापण' मारून मासळी आणली आहे. पण ती अगदीच कांट्यांची...''
>
> ''आज 'शेवटे' मिळतील तर पहातो. या जोरगतीला नदीच्या मुखांत 'शेवटे' चढतात. माझे 'पागेल' शिवले आहेस ना?'' गुस्तावने विचारले.
>
> त्याच्या बहिणीने आंतून पागेल आणून त्याच्या हाती देत म्हटले: ''आज चांगली मासळी आण तू. मी सगळी तयारी करून ठेवते.''
>
> ''केळीच्या 'शेनता'ची मोठी विडी कानाला लावीत गुस्ताव घरातून बाहेर पडला. त्याच्या कमरेला रुप्याचे भले मोठे 'कांड' होते व त्याने माथ्याला तांबडा रुमाल बांधला होता.'' [४०]

'भाशेंतल्यान संस्कृतीक वेगळेचार कळटा.'[४१] ह्या ना.गो. कालेलकर हांच्या उद्गारांची प्रचिती वयर दिल्ले वेंचिकेंतल्यान आयिल्ले भाशे वरवीं

लेगीत येता. 'गुरवाचे रक्त' सारकेले कथेंतल्यान वातावरण आनी प्रसंग हांची उत्कट्टाय सादपाखातीर संवाद लेखनाखातीर कोंकणी भाशेचो वापर प्रभावीपणान केला. आनी तो परिणामकारकूय जाला. परंत प्रादेशीक भाशेचो असो वापर करतना लक्ष्मणराव आपणालो संयम ढळूंक दिनात. कथा लिखणेंत आपणें केल्ल्या भाशेविशींच्या प्रयोगासंबंदान सांगतना गांवगिरे नवकथाकार शंकर पाटील हांणी म्हणलां, "खर विचार करून हांवें हे गांवगिरे आनी नागर भाशेचें ब्लँडिंग केलां."[४२] अशे तरेच्या प्रथम प्रयोगाचें श्रेय तांकां दितासतना तांच्या कर्तृत्वाचो गौरव करतना तांच्या साहित्याचे विशेश अभ्यासक प्रा. नागनाथ कोत्तापल्ले हे लेगीत म्हणटात, "भाशेसंदर्भांत शंकर पाटील हांणी जो जाणीवपुर्वक प्रयोग केला तो गांवगिऱ्या साहित्याचे परंपरेंत म्हत्वाचो म्हणचो पडटलो."[४३] परंत भाशेविशींचो असो प्रयोग लक्ष्मणरावान खूब पयलींच केल्लो हें विसरूंक फावोना. वयर उद्‌घृत केल्ले वेंचिकेंतल्या भाशेच्या स्वरुपा वयल्यान हाची बेस बरे तरेन प्रचिती निश्चीतपणान येवं येता. ही कथा तांणी ५-१-१९३२ वर्सा बरयिल्ल्याची नोंद मेळटा.[४४] तांचे हे ब्लँडेड भाशेसंदर्भांत आचार्य काका कालेलकर म्हणटात, "श्री. सरदेसायांनी प्रस्तूत कथाझेल्यांत कोंकणीचो वापर करपाचे बाबतींत उच्च अभिरुची आनी सहानुभुती वापरून बरो संयम दाखयला."

"... मराठी मजगतीं कोंकणी शैलीच्यो उपमा वापरून आनी कोंकणी ओपारी मराठींत हाडून प्रादेशीक वातावरण घडोवन हाडलां. त्या योगान मराठी समृद्ध जावन मराठीचो वाठार लेगीत वाडूंक लागतलो."[४५]

प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसायांचे कथेंतले प्रदेशीकताये विशीं विस्तारान विसकटावणी करप शक्य आसा. (जिज्ञासू आसात तांणी लक्ष्मणरावांच्या कथालेखना वयलो निबंदलेखकालो ग्रंथ पळोवचो.)[४६] पूण विस्तारभंयाक लागून ती जाता तितली संक्षेपान केल्ली आसा. शितावयल्यान भाताची परिक्षा जाणकारांक आसताच. "लक्ष्मणरावान कोंकणी कथा मराठींत बरयली."[४७] तांचे कथेसंबंदान गोंयचे श्रेष्ठ कोंकणी साहित्यीक पुंडलीक नायक हांणी काडिल्ले हे उद्‌गार खूब किंतें सांगतात. तातूंतल्यान लक्ष्मणरावांले कथेंतले प्रदेशीकतायेचेर तांणी जें मार्मीक भाश्य केलां ताचेर आनीक अदीक भाश्याची गरज ना.

* * *

आदारावळ


१. Stegner (Ed.) - 'Introduction', **Great American Short Story** 'मराठी कथा: उद्गम आणि विकास' लेखिका: इंदुमती शेवडे, हांच्या ग्रंथांतल्यान घेतलां; पा. १५५.
२. शेवडे; उनि; पा. १५४.
३. क्षीरसागर श्री के - टीकाविवेक; पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय; १९७५; पा. ३८८.
४. कुलकर्णी मदन - मराठी प्रादेशिक कादंबरी: तंत्र आणि स्वरूप; श्री मंगेश प्रकाशन, नागपूर; १९८४; पा. १५.
५. तत्रैव; पा. ४२.
६. सातोस्कर बा द - गोमंतकीय मराठी साहित्याचे आधुनिक शिल्पकार; सांस्कृतिक आणि क्रीडा संचालनालय, गोवा, दमण आणि दीव सरकार, पणजी (गोवा); १९८४.
७. **सह्याद्रीच्या पायथ्याशी** ह्या कथासंग्रहाच्या मुखपृष्ठावयलो मजकूर; (पहिली आवृत्ती, १९३१.)
८. बोरकर बा भ - संपादकीय, **बोरकरांची कविता**; संपादक: मंगेश पाडगांवकर, ह्या पुस्तकांतल्यान घेतलां; पा. २५.
९. जोशी महादेवशास्त्री - भारतीय संस्कृतीकोश, खंड ४; पा. २५९.
१०. कुलकर्णी मदन - उनि; पा. १६.
११. तत्रैव; पा. १६.
१२. तत्रैव; पा. १७.
१३. सक्सेना आदर्श - ज्ञानचंद्र गुप्त हांच्या **स्वातंत्र्योत्तर हिंदी उपन्यास और ग्रामचेतना** ह्या संपादीत ग्रंथांतल्यान घेतलां; पा. २६९.
१४. बोराडे रा रं - प्रतिष्ठान; नोव्हेंबर-डिसेंबर, १९६४; पा. ४५-४६.
१५. यादव आनंद - ग्रामीण साहित्य: स्वरूप आणि समस्या; मेहता पब्लिशिंग हाऊस, पुणे; दु.आ. १९८४; पा. ७८.
१६. Encyclopedia Americana, vol. XVII, p. 477.
१७. सरदेसाई लक्ष्मणराव - 'साहित्य: मंत्र आणि तंत्र', **लक्षदा**; पा. १०९.
१८. खांडेकर वि स - 'कल्पवृक्षांच्या छायेत', **प्रतिभा**, वर्स २, आंक २४; पा. ९.
१९. आनंद यादव - उनि; पा. ७६-७७.
२०. कोत्तापल्ले नागनाथ - ग्रामीण साहित्य: स्वरूप आणि शोध; मेहता पब्लिशिंग हाऊस, पुणे; १९९३; पा. १३.
२१. व्यंकटेश माडगूळकर - माणदेशी माणसे; कॉन्टिनेन्टल प्रकाशन, पुणे.

२२. खांडेकर वि स - उनि; पा. १०.
२३. कुलकर्णी मदन - उनि; पा. १७-१९.
२४. जोशी रा भि - 'सागराच्या लाटा', **प्रतिभा**; वर्स २, आंक २३; पा. ३२.
२५. 'विस्तार', **सोनेरी ऊन**; पा. ६५.
२६. जोशी श्री ज - 'प्रस्तावना', वेंचक लक्ष्मणराव सरदेसाई; सन पब्लिकेशन, पुणे; १९८६; पा. १०.
२७. जोशी रा भि - उनि; पा. ३२.
२८. गाडगीळ गंगाधर - **पाण्यावरची अक्षरे**; सुविचार प्रकाशन, नागपूर; १९७९; पा. ३४.
२९. सामंत र ज - 'कल्पवृक्षांच्या छायेत', **पारिजात**; डिसेंबर १९३४; पा. ४१.
३०. जोशी रा भि - उनि; पा. ३१.
३१. खांडेकर वि स - उनि; पा. ९.
३२. डोंगरे प्रभावती - 'कुळागराचा विस्तार', **लोकमित्र**; मार्च १९३८; पा. ४९७.
३३. 'वादळातील नौका', **वादळातील नौका**; पा. ८.
३४. श्री ज जोशी - उनि.
३५. तत्रैव.
३६. 'देवतेची मूर्ति', **संसारातील अमृत**; पा. ६१.
३७. कालेलकर काका - 'प्रादेशिक व्यक्तीत्व' (प्रस्तावना); ढांसळलेले बुरुज; पा. ४.
३८. कुरुंदकर नरहर - 'प्रस्तावना', **वानवळा** (लेखक रा रं बोराडे) पा. १६.
३९. घवी रवींद्र - **मागोवा**; राजहंस प्रकाशन, पणजी; पा. ३४.
४०. 'न्यायाधीश', **कल्पवृक्षांच्या छायेत**, पा. ९८.
४१. कालेलकर ना गो - महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका; जून १९६१; पा. २३.
४२. शंकर पाटील - आनंद यादव हांणी घेतिल्ले मुलाखतींतल्यान; **ग्रामीण साहित्य: स्वरूप आणि समस्या**; पा. ९३.
४३. कोत्तापल्ले नागनाथ - नवकथाकार शंकर पाटील यांच्या साहित्याचा चिकित्सक अभ्यास; इंद्रायणी साहित्य, पुणे, १९८६; पा. १८०.
४४. 'न्यायाधीश', **कल्पवृक्षांच्या छायेत**, पा. १०१.
४५. कालेलकर काका - उनि; पा. ५.
४६. कानोळकर बाळकृष्णजी - प्रा. लक्ष्मणराव सरदेसाई यांची कथा: एक शोध; गोमंतक मराठी अकादमी, पणजी; २००५.
४७. नायक पुंडलीक - 'हिरव्या मनाचा साहित्यिक', **लक्षदा**; १९८६.

# ३.

## पुंडलीक नायक :
## समकालीन भारतीय कोंकणी नाटककार

पुंडलीक नारायण नायक हो एक सर्वांगान आनी सर्वार्थान कोंकणी साहित्यीक. एक अश्टतासांचें कोंकणी साहित्य वज्र. कोंकणीच्या बावन कुळांचो उद्धारकर्तो हो बांगर बैल. ताणें आपले ल्हान पिरायेरूच आपलो धेंक गाजयला आनी आपलीं शिंगां दाखोवन जाय तशें पुजून घेतलां. कोंकणी साहित्यीक वावरा मळाक तांचो नव्यान परिचय करून दिवपाची गरज उरूंक ना. सुर्या जसो मळबाक तसो पुंडलीक कोंकणी साहित्याक आपसूक लाबला. शणै गोंयबाबांक आमी कोंकणीचो ज्ञानेश्वर म्हणून वळखतात. जाल्यार पुंडलीकाक कोंकणीचो तुकाराम म्हण लेखचो पडटलो. मराठी साहित्यमंदिराचो तुकाराम हो कळस. तोच मान पुंडलीकाचो कोंकणी सरस्पतीच्या मंदिरांत. ताचेविशीं दामोदर मावजो म्हणटा, "...गोंयचे मातयेचो वास येवपी कथा घेवन पुंडलीक नायक जोगूल कसो लिकलिकलो... पयलेच खेपे लोकांक कोंकणी भाशेच्या सामर्थ्याचो साक्षात्कार जालो. शणै गोंयबाबाली भासूय ओजस्वी आसली. शंबर नंबरी आसली. पूण पुंडलीकाले भाशेक शैलीची जोड मेळनाफुडें तिचें भांगर जालें."

ह्या तरणाट्या साहित्यिकाचो आत्मविश्वास भोव जबर. तांचे एके कवितेंतल्यान हाची गवाय आमकां मेळटा. तो म्हणटा-

*आमी कोण*
*हाची जाप तुमकां काव्रूच दितलो*
*अशें आमी म्हणचे नात*
*ती आमीच दितले.*
*आमी, आमी न्हय जाल्यार*
*काडोन वतले.*

हेच कवितेंतल्यान ताणें आपले कोंकणांतले तांबडे मातयेलागीं आशिल्लें नाळ-नातें प्रगट केलां आनी आपणाली खरेली वळख पुर्णार्थान करून दितना तो फुडें वचून म्हणटा-

*तांबडे मातयेकडचें इमान*
*जांणी आजून घाणाक दवरूंक ना,*
*ते आमी.*

सवन काळाच्या हुंकाराचो संदर्भ ही कविता दिता. कर्तुत्वाची गवाय दिवपाची भास ही कविता उलयता.

एक नामनेचो भारतीय नाटककार म्हूण पुंडलीकान नामना जोडल्या. समकालीन भारतीय नाटक बरप आनी नाटक चळवळीक ताणें आपल्या वावरान उर्बा दिल्या. समकालीन भारतीय रंगमाची ताणें समृद्ध केल्या. समकालीन भारतीय नाटक साहित्याचो इतिहास कोंकणीच्या ह्या म्हालगड्या प्रतिभावंत नाटककाराची दखल घेतलेबगर पुराय जावंक पावचो ना अशें म्हळ्यार ती अतिताय न्हय. 'चौरंग' ह्या ताच्या एकांकी झेल्याक पुरस्कार भेटोवन ताच्या नाटक मळा वयल्या वावराचो साहित्य अकादेमीन भोवमान केला. कोंकणीच न्हय, हेर भारतीय भासा-भयणींमदें नाटकाखातीर हो पुरस्कार फावो जाल्ले भोव थोडे साहित्यीक आमकां पळोवंक मेळटात.

ताच्या नाटक बरपाविशीं उलोवचे पयलीं ताचे जिणेविशीं थोड्यो गजाली जाणून घेवप बेस बरें जातलें. कारण ताचो साहित्यीक पिंड ह्या गजालींचेरच पोसला. ताचो जल्म गोंयांतल्या फोंडें तालुक्यांतल्या वळवय गांवांत जालो. वळवय हो आडकुशीचो पूण सुपुल्लो, सैमसंपन्न गांव. २१ एप्रील १९५२ हो ताचो जल्मदीस. त्या वेळचे रितीप्रमाण आनी गरजेप्रमाण मुळावें शिक्षण मराठी भाशेंतल्यान जालें. फुडें माध्यमीक शिकप मॅट्रिके मेरेन मराठींतल्यान आनी कॉलेजीचें शिकप इंग्लेजींतल्यान जालें. हांगासरल्यान फुडें ताच्या आयुश्याच्या नाटकाचो म्हत्वाचो अंक सुरू जाता.

आकाशवाणी पणजी केंद्रार कोंकणी विभागांत तो पावलो आनी ताच्या पुराय आयुश्याक एक अपरूप मोडण मेळ्ळें. ह्या विभागांत आसतना ताणें केल्ल्या वावराक ताच्या जिवितांत आनी कोंकणी भाशेच्या जैताच्या वावरांत भोव म्हत्वाचें स्थान आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीचे पालवी अध्यक्ष म्हूण ताणें केल्लो वावर देखदिणो आसा. कोंकणी राजभास आंदोलनाच्या काळार ताणें ह्या म्हायुद्धाचो सरसेनापती म्हण जैतिवंत कर्तूब गाजयलां. थोडेभितर सांगचें जाल्यार ताचे जिणेचो दर एक उस्वास हो कोंकणी आनी कोंकणी भाशेच्या

जैताचो आनी परजळीत फुडाराचोच ध्यास घेवन येता. कोंकणी मायेच्या ह्या पुतान तिची जैतिवंत घुडी आख्ख्या विश्वांत नाचयली. ताच्या 'श्रीविचित्राची जात्रा' ह्या रेडियो नाटकाक ऑस्ट्रेलियांतले नामनेचे संस्थेचो संवसारीक भोवमान फावो जाला (१९८८). रेडियो नाटक सर्तींत ताका भोवमानाचो थरिल्लो असो पयलो पुरस्कार दोन फावटीं फावो जाला: 'मर्णकटो' (१९८०) आनी उपरांत 'म्हासागरांतलें तारूं' (१९८७).

कोंकणीच्या ह्या म्हापुताक हांव 'पुरस्कारधर' अशें म्हणीन. जे भशेन कोणाय 'लक्ष्मीधरा'च्या आंगार अळंकार लिकलिकतात तेच वरी हाच्या आंगार विंगड विंगड पुरस्काराचीं माणकां, मोतयां, वज्रां लिकलिकतना नदरेक पडटात. कला अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, आकाशवाणी, भारतीय साहित्य अकादेमी सारकिल्या नांवाजत्या संस्थांच्या पुरस्कारांचो आनी तस्निपांचो तातूंत आसपाव जाता. थळाव्या पांवड्यार, देश पांवड्यार आनी संवसारीक पांवड्यार ताणें एकसारकोच सहज संचार केल्लो जाणवता. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार ताका बत्तीस वर्सांचे ल्हान पिरायेचेर फावो जालो (१९८४). इतले ल्हान पिरायेचेर नाटका सारकिल्या साहित्यप्रकारा खातीर हो पुरस्कार फावो जावप हें भारतीय साहित्य मळावयलें एक अजाप म्हणचें पडटलें.

कोंकणी राजभास जाले उपरांत लेगीत ताच्या वावरांत खंड पडूंक ना. तिका अदिकादीक संपन्न करचेलो ताचो यत्न चालूच आसा.

पुंडलीक नायकाच्या खंयच्याय साहित्याचो विचार करतलो जाल्यार तो त्या त्या प्रकारच्या साहित्याचो एकसुरो विचार करप समा जावचें ना. ताच्या खंयच्याय साहित्याचो रंग आनी पिळो जाणा जावन घेतलो जाल्यार ताच्या साबार साहित्याचो पट आनी पाट अभ्यासप्याचे नदरेमुखार आसप भोवच गरजेचें आसा. ताच्या साहित्याच्या संवसारार एक उडटी नदर मारुया. तातूंत साहित्यांतल्या साबार प्रकारांचो आसपाव जाल्लो पळेवन काळीज धादोस जाता. कविता (गा आमी राखणे), संगितिका (रानसुंदरी), कथा (पिशांतर, मुठय, अर्दूक), नवलकाणी (अच्छेव, बांबर, गुणाजी), नवलिका (वसंतोत्सव आनी दायज), बालनवलिका (मनू), एकपात्री (छप्पन थिगळी येसवंत), एकांकी (गांवधनी गांवकार, चौरंग, दिगंत), रेडीयो नाटक ([illegible]), बालनाटक (आळशांक वाग खातलो, शिंवाचो बळी), नाटक (खण खण माती, [illegible] राखण, सुरींग, सुर्यसांवट, देमांद, मुक्तताय, शबै शबै, भोजनसमाज, पिंपळ



पेटला, श्री विचित्राची जात्रा, चैतन्याक मठ ना, दायज, आत्मवंचना, परिक्रमा बी). हेभायर अणकार (काजी नजरूल इस्लाम, नानालाल), संपादनां (वेंचीक कोंकणी एकांकी, समकालीन कोंकणी कथा), समीक्षा (रंगपाट) अशें जायतें संख्येन आनी गुणानूय व्हड कोंकणी साहित्य ताणें निर्मिलां. 'देखणी दुराय' सारकी जैतिवंत कोंकणी टेलिफिल्माची कथा, पटकथा, संवाद, गितां, बी साबार साहित्यीक आंगां ताणें समर्थपणान सांबाळ्ळ्यांत.

प्रारंभाक आपल्या साहित्यीक जिवनाची श्रीगणेशा मराठी भाशेंतल्यान कथा, कविता बरोवन करपी ह्या ल्हान पिरायेच्या व्हड कोंकणी साहित्यिकाचो हो चौफेर वावर पळोवन मन भुल्लुसून वता. ताच्या कांय साहित्याचो अणकार कांय भारतीय भासो आनी इंग्लेज भाशेंतल्यान जाल्यात. तातूंत तांच्यो कविता, कथा आनी 'अच्छेव'[८] हे नवलकाणयेचो प्रामुख्यान आसपाव आसा. ताचीं रेडियो नाटकां, एकांकी आनी नाटकां साबार भाशांनी अणकारीत जाल्यांत. कांय नाटकां तांणी स्वताच मराठींत अणकारल्यांत.

पुंडलीकाचें नाटक जाणून घेवचें म्हळ्यार ताच्या साबार साहित्याचो अभ्यासूय गरजेचो थारता. तेचवरी ज्या वाठारांत ह्या साहित्यिकाचें बीं किल्ललें त्या वाठाराचो कॅनव्हास, रंगपट आनी गंधखुणो जाणून घेतलेबगर त्या साहित्याच्यो जल्मवेणो उमगुच्यो नात.

पुंडलीक नायकाचें साहित्य हें एकामेकांत भरशिल्लें साहित्य. सादारणपणान दोन प्रकारचे साहित्यीक आमकां दिश्टी पडटात. एकाच एका साहित्यप्रकारा लागीं एकनिश्ठ रावून -- जावं ती कथा, कविता, नाटक वा कादंबरी -- साहित्यनिर्मणी करपी साहित्यीक हो एक प्रकार आनी एकाच वेळार भौसाहित्य प्रकारांत निर्मणी करपी साहित्यीक हो दुसरो प्रकार. पुंडलीक नायक हो दुसऱ्या प्रकारांत आसपावपी साहित्यीक. जाची साहित्यनिर्मणी खुब्ब complex (व्यमिश्र) ताच्या साहित्याच्या अर्थाचें सुत सादेपणी हाताक लागप मुश्किलीचें. पुंडलीकाचें तशेंच जालां. ताचे कवितेंत नाटक आसा जाल्यार नाटकांत कविता, कथेंत नवलकथा जाल्यार नवलकथेंत कथा, नवलकथेंत नाटक जाल्यार कथेंत रेडियो नाटक, अशे तरेची गुंतवळ जाल्ली नदरेक पडटा. ताकाच लागून संतुश्ट जावंक नाशिल्ल्यान जावये ताणें आपल्या साहित्याचे विविध प्रकारांतल्यान रुपकार केल्ले पळोवंक मेळटात. (मराठी भाशेंत अशे तरेचो अणभव चि. त्र्यं. खानोलकरांचे बाबतींत येता.) देखीक पळयात, 'कांसय' ही कथा आनी 'म्हासागरांतलें तारूं'

हें रेडियो नाटक, 'अच्छेव' ही कादंबरी आनी 'खण खण माती' हें नाटक, 'वसंतोत्सव' ही नवलिका आनी 'पिंपळ पेटला' हें नाटक. 'अच्छेव' हे कादंबरीचें मुळावें नांव लेगीत 'मीन पिकलां खाणयांनी' अशेंच आशिल्लें.

लेखकाचे प्रतिभाशक्तीक तांक दिवपी सैमवाठाराच्या आकळणाविणें 'खण खण माती', 'सुरींग', 'शबै शबै भौजनसमाज', 'चैतन्याक मठ ना', 'श्री विचित्राची जात्रा', ह्या नाट्यकृतींचें आकलन सफल जावंक पावचें ना.

तेचवरी ताचें 'नाटक' ह्या साहित्यप्रकारा विशींचे विचार लेगीत जाणा जावन घेवप ताचे नाट्यलिखणेच्या मुल्यमापनाच्या वावरांत योग्य थारतलें. 'नाटक' ह्या साहित्य प्रकाराविशींचे तांचे कांय विचार:

- नाटक पळोवप आनी नाटक पारखप वेगळें. नाटक पारखितलो जाल्यार नाटकाच्या भितरल्या अंतरंगांत आमकां देंवचें पडटलें. नाटकाची पारखणी करतना कांय कस आमकां थारावचे पडटले. अर्थांत हे कस मानवी संस्कृतायेनूच घडल्यात. नाटक हो एक साहित्य प्रकार अशें म्हणचे परस तो एक दृक आनी स्राव्य प्रकार अशें म्हणप चड योग्य.
- खूब प्रसिद्धी आनी खूब पयसो ह्या दोन आकर्शणांक लागून जायते लेखक नाट्यलेखन करतात. तातूंतले जायते जाण सिद्धहस्त लेखक आसतात. कथा, काव्य सारक्या प्रकारांतल्यान तांणी जिवनाचें योग्य अशें दर्शन घडयिल्लें आसा. पूण रंगमाचये वयली तंत्राची जाण अर्दकुटी थरिल्ल्यान नाटकाच्या मळार तांच्या वांट्याक अपेसूच चड येता. रंगमाचयेर सदांकाळ वावुरपी दुसरे फिशाल अशे तंत्रज्ञ आसतात. नाटक बरोवपाची हांकांय ओड लागता. नाट्य तंत्रांत फिट्ट बसुये अशी नाट्यनिर्मिती ते करपाक शकतात. पूण नाटकान जें जिवनाचें यथार्थ दर्शन घडोवपाक जाय तें तांचे कडसून जायना. जीण समजून घेवपाची तांची जाणूच उणी पडटा... ज्या लेखकाक जिवनाची पुराय वळख घडल्या तोच तें जिवन रंगमाचयेर हाडूंक शकता आनी तातूंत तंत्राच्या आदारान नाट्य निर्माण करूंक शकता.
- जिवन पुराय तरेन आकळून रंगमाचयेर हाडपाचे नदरेन तंत्राच्या आदारान जातूंत नाट्य निर्माण केल्लें आसता अशी बरपावळ म्हळ्यार नाट्यसंहिता.
- समाजसुदारणेचें कंत्राट मेळ्ळां अशे तरेन नाटककारान बरोवंक फावोना. तशें जाल्यार तो नाटकघराचें सभाघर करतलो.

- नाटककाराकडेन विचाराचें भांगर आसता. पूण आकृतिबंधाचें कसब नाशिल्ल्यान त्या भांगराचो अलंकार जावपाक पावचो ना.
- नाटककाराच्या व्यक्तिमत्वाचें पडबिंब नाटकांत पडलेबगर रावना.
- जे भाशेंत नाटककार नाटक बरयता ते भाशेचेर ताचें प्रभुत्व आसचें पडटा. भाशेच्यो लकबी, मोडी हांचें गिन्यान आसचें पडटा. विंगड विंगड समाजां मदल्यान येवपी विंगड विंगड पात्रांच्या तोंडांत त्या त्या समाजाची वास्तवांतली भास (मोड) घालची पडटा.
- नाटकाची संहिता तयार करतना नाटककारान संवादाबरोबर नेपथ्य, न्हेसवण, उजवाड येवजण, अभिनय ह्या दृश्य बाबींचो तेच परी संगीत आनी ध्वनीयेवजण हांचो विचार करचो पडटा.

नाटकाविशींच्या तांच्या वयल्या विचारांचो मागाव घेतल्यार अशें दिसता की एक नाटककार म्हण ताणें जी नामना जोडल्या ताच्या मुळसांत जायतो अभ्यास आसा, तपश्चर्या आसा. निखटे प्रतिभाशक्तीचो तो चमत्कार न्हय. ताका अभ्यासाची जोडूय मेळ्ळ्या. आपूण जें 'नाटक' बरयतां ती 'निखटी साहित्यकृती' न्हय वा 'निखटो खेळूय' न्हय, हाची जाणविकाय ताणें सतत बाळगिल्या. हाकाच लागून कोंकणी नाट्यबरपावळीच्या आनी रंगमाचयेच्या मळार नवेनवे प्रयोग करून तातूंत जैत जोडपांत पुंडलीक यशस्वीय जाला.अशीच गवाय कोंकणी नाट्यबरप आनी रंगमाचयेचो इतिहास दीत रावतलो.

ताणें निर्मिल्ल्या एकूण साहित्यामदें ताची नाट्य बरपावळ खुबूच समृद्ध, संख्येन आनी गुणात्मक नदरेंतल्यान लेगीत, अशी आसा. उणी उणी म्हळ्यार सव्वीस नाटकां आनी हेर नाट्य बरपावळ ताच्या नांवार रुजू जाल्या. ताचे पिरायेच्या मानान ही व्हड गजाल. अशें आसुनय फकत 'रतीब घालप' अशे तरेचें तिचें स्वरूप ना. सक्षम प्रयोगीक भारतीय नाटककार हीच तांची वळख / मुद्रा जाणा आशिल्ल्याक जाणवत रावता.

ताचें नाटक बरप तरेकतरेच्या पतींनी विभागूं येता. देखीक एकपात्री, एकांकी, रेडियो नाटक, संगितिका, बालनाटक, नाटक, बी. आमकां हांगा तांच्या नाटकाविशींच न्हय तर एकूणच नाट्य बरपावळी विशीं विचार करचेलो आसा, तरी लेगीत तांचें नाटक कांय प्रकारांमदीं विभागूं येता. देखीक उत्सवी, प्रयोगीक, सुखांतिका, सुखात्मिका, फार्स, शोकनाट्य, संगितिका, बी. तरी लेगीत ही विभागणी समाजीक, पुराणीक, इतिहासीक अशी करपाक मेळना हें मतींत

घेवपाक जाय. मनीस आनी मानवी संस्कृताय आनी तांचे मजगतीं सासणा सावन चलत आयिल्लो संघर्श तांच्या सगळ्याच नाटकांचो केंद्रबिंदू.

पूण एक मेदा आनी सोय म्हण हांव ह्या लेखापुरतो तांच्या नाटक म्हळ्यार पुराय लांबायेचें नाटक-साहित्य हाचोच विचार करपाचो थारायला.

तांची कथा, कादंबरी हे विशीं जायत्या जाणांनी आपलीं मत्तां उकतायल्यांत. ह्या साहित्य प्रकारा मजगतीं जायते विंगड विंगड प्रकार आशिल्ल्याची चर्चा आमकां पळोवपाक मेळटा. देखीक गांवगिरी, प्रदेशीक, बी. नाटकाचे बाबतींत अशी वर्गवारी करप शक्य जायना. पूण पुंडलीक नायकाचीं नाटकां हाका आडवाद थरल्यांत. नाटकांय प्रदेशीक आसूं येतात हाची गवाय आमकां तांच्या कांय नाटकांवरवीं मेळटा. तांच्या नाटकांनी प्रदेशिकताय आयल्या पूण तांकां रूढ अर्थान प्रदेशीक म्हणप समा जावचें ना, हाचें भान दवरचें पडटलें. तांच्या कांय उत्कृश्ट नाटकांचें चलन वा काया प्रदेशीक आसा जाल्यार तांची देख वा आत्मो विश्वीक जावन रावला. एकाच वेळार प्रदेशीक वा थळाव्या पांवड्यार तांचो खेळ चलता आनी नाटककार पुंडलीक नायकाक मानवी संस्कृतायेविशीं जें कितें सांगचें आसता आनी मनीस जिणेचें सुक्षीम जिवन दर्शन घडोवचेलें आसता हाचो खडेगांठ विश्वीक प्रत्यय रसिकाक आयल्या बगर रावना. जेन्ना तांच्या नाटकांतल्यान हो दोट्टी अणभव येता तेन्ना भौ. प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचे म्हणणेची सार्थकताय लक्षांत आयलेबगर रावना. ते म्हणटाले, ''जें खरें प्रदेशीक तेंच विश्वात्मक.''

पुंडलीक नायकाच्या नाटकांतल्यान गोंयचो सैम, मनीस आनी संस्कृताय पुराय तरेन चित्रीत जाल्ली नदरेक पडटा. देखीक ताची खण खण माती (मिना उद्योग), सुरींग (रस्ते बांदपी किरिस्तांव गावड्यांची जीण), शबै शबै भौजनसमाज (गोंयचे भोवजन समाजाची समाजीक, राजकी आनी नैतीक स्थितीगती), चैतन्याक मठ ना (खंयचोच विचार वा तत्त्व बंदिस्त करप शक्य नासता), श्रीविचित्राची जात्रा (जिणे सत सोदपाचो प्रयत्न) हीं नाटकां अभ्यासाचे नदरेंतल्यान वयल्या पांवड्या वयलीं आसात.

पुंडलीक नायकाक आपल्या नाटकांतल्यान कितें सांगपाचें आसा हाचें बेस बरें गिन्यान आसा. तेचवरी तें कशें सांगचें हाचेविशींचें तितलेंच बरें, घडये ते परसय अदीक बरें भान आशिल्लें अणभवाक येता. सगळ्याच नाटकांचे रचणुकेंतल्यान तांकां हें सादलां अशें म्हणूं नजो. पूण चडांत चड नाटकांतल्यान

तांकां तें सादलां. ताका लागून तांचीं नाटकां काव्याचे पातळेचेर पावल्यांत. तीं प्रतिकात्मक जावंक पावल्यांत. देखीक सुरींग, पिंपळ पेटला, बी. 'काव्येषु नाटक रम्य' हाचो अणभव रसिकांक तातूंतल्यान येता.

आशयाचे नदरेंतल्यान पळेल्यार ताणें कोंकणी नाट्य लिखणेंत क्रांतीकारक बदल घडोवन हाडिल्ल्याचें कळटा. फकत मनोरंजनाच्या आनी उत्सवी पांवड्यार आशिल्ल्या कोंकणी नाटकाक आशयघन करपाचो व्हड वावर ताणें केला. 'बाप्पा' आनी 'मावशीबाय' हांच्या बोवाळांत घुसपल्ल्या फार्स वजा कोंकणी कॉमीक नाटकाक ताणें गंभीर रुपडें न्हेसयलें. गंभीरतायेन जिवनाकडेन पळोवपाचें नवें वक्ल कोंकणी समाजाक बहाल केलें. पूण ते खातीर ताणें फकत शोकनाटकांच बरयलीं अशें न्हय. उरफाटीं तांचीं चडांत चड नाटकां हीं सूख नाटकांच आसात. आडवाद थरतीत इतलीं अल्प शोक नाटकां तांच्या नांवार आसात. सुखनाटक लेगीत गंभीर जिवन दर्शन घडोवंक सशक्त उरता हाची देखूच ताणें आपल्या नाटक बरपांतल्यान भारतीय नाटक संवसाराक दिवन दवरल्या. तांणी आपल्या नाटकांतल्यान केळयिल्लो आशय विविध रुपी आसा. देखीक भुके आड निती (खण खण माती), फातरांत पुरिल्ल्या कृत्रीम सुरंगापरस अदीक शक्तीमान आसपी लिओच्या काळजांत न्हिदिल्ल्या सुरंगाक आयिल्ली जाग (सुरींग), विकासाच्या नांवान भोवजनसमाजाची त्याच समाजाच्या फुडाऱ्यांनी चलयिल्ली पिळवणूक, नाडणूक (शबै शबै भौजनसमाज), खंयचोय विचार जेन्ना एके फास्केंत बंद जावंक सोदता तेन्नाच तो सोंपता (चैतन्याक मठ ना), बी.

आपणाक जो आशय रसिकामेरेन पावोवचो आसा ताका न्याय दिवपी आनी उपकाराक पडपी अशे तरेची त्या त्या नाटकाची रचना. ताका लागून ताणें केल्ले साबार रचनाप्रयोग आनी ह्या आगळ्या वेगळ्या रचणूक तंत्राक लागून तांच्या नाटकांक लाबिल्ली खरसाण. देखीक ताणें केल्ले कांय रचना प्रयोग पळयात: तीन आंकी विभागणी, वास्तव चित्रण (खण खण माती) नाटकाभितर नाटक - खरें म्हळ्यार रस्तो नाटकाचो आकृतीबंद (सुरींग), किर्तनकारी, लोकांकाणी कथनतंत्र (श्री विचित्राची जात्रा, चैतन्याक मठ ना), निवेदन (देमांद), जागर (शबै शबै भौजनसमाज), समांतर घडणुको (पिपळ पेटला).

आपणाल्या नाटकांचो आशय बद्द रसिकांच्या मेंदवाक तोपचो आनी काळजाक ओंपचो हाची खबरदारी पुंडलीक घेता. तेखातीर सुयोग्य अशी पात्र येवजण तो करता. केन्ना केन्ना ही पात्र येवजण मेलोड्रॅमेटीक (मुक्तताय, देमांद)

जाता. पूण हे कांय आडवाद म्हूण कडेक दवरल्यार ताणें केल्ली पात्र येवजण (वयर उल्लेख केल्ल्या ताच्या बेस बऱ्या नाटकांतली) खुब्ब परिणामकारक जाल्या. आनी कांय वेळार तर तांच्या नाटकांमदीं सैमूच पात्र म्हूण प्रत्यक्ष, अप्रत्यक्ष वावुरतना नदरेक पडटा. देखीक सुरींग, पिपळ पेटला, चैतन्याक मठ ना. सर्वसादारणपणान एका आड एक अशें तंत्र ताणें संघर्श - मागीर तो मेकळो वा सुप्त आसूं - निर्मणे खातीर आपणायिल्लें पळोवपाक मेळटा. आनी ताणें तें व्हडा कुशळटायेन खेळयलां. देखीक कस्तूर, गोपी, रॉकसायब, धर्मा (खण खण माती), जुझे, मारयान, लिओ आनी मुकदम आनी ह्या चौगांय मदीं जयंत, अजय, अनिकेत आनी अचला (सुरींग), मॉब, अंकुश, आबू, भुरगो, बायल (चैतन्याक मठ ना), कोण तरी आनी दोंबारी (श्री विचित्राची जात्रा), नाथा, भुषण, कोंडी आनी गंगी, हरीदाद, चारुलता (पिपळ पेटला), भोलो (शबै शबै भौजनसमाज).

संवादाबगर नाटकाचो रूपकार जावंक पावना. संवादांतल्यान नाटक उलयता, चलता, आकार घेता. संवादाचें यश भाशेच्या बळग्यार अवलंबून उरता. पुंडलीकाची कोंकणी अस्सल; 'मेणापरस मोव आनी वज्रारुपी कठोर' लेगीत. ताणें हाडल्या ती भास भौसाची. जिवी. सैमसुंदर. पूण इतल्यारूच तो थारना. जाय त्या जाग्यार तो  जाय ते परींनी भास केळयता आनी विचार विकारांचो आपणाक अभिप्रेत आशिल्लो खेळ पात्रांच्या उलोवण्यांतल्यान खेळयता. भाशीक अभ्यासाचे नदरेंतल्यान तांच्या खण खण माती (मीन उद्देगांतली भास), सुरींग (साश्टीची गावडी कोंकणी मोड), शबै शबै भौजनसमाज (कोंकणी भौसाची आनी राजकर्ण्यांची भास), चैतन्याक मठ ना (संप्रदायीक कोंकणी), श्री विचित्राची जात्रा (कुवाड्यांची भास), पिपळ पेटला (काव्यात्मक अळंकारीक भास), देमांद (वातावरण निर्मणी करपी भास) बी नाटकांतले भाशेचो शैलीशास्त्रीय तेचवरी भासविज्ञानीक नदरेंतल्यान अभ्यास जावं येता. तसो तो जावंक जाय.

पुंडलीक नायकाचे संवाद नाटकांच्या आनी पात्रांच्या प्रकृतीधर्मांक अनुसरपी आसात. ते गतीशीळ, स्फोटक, संघर्शपूर्ण, लयदार, तुटके, दीर्घ, आडांगी अशीं जायतीं रुपडीं घालून रसिकांक भुलयतात, तिडक हाडटात, मोग उत्पन्न करतात.  विचार करपाक लायतात. पळयतल्याक / आयकतल्याक ते आत्मसोद घेवपाक प्रवृत्त करतात.

निमाणेकडेन पुंडलीक नायकाचे नाटक बरपावळीचेर आशिल्ल्या देशी, विदेशी, तेचवरीं पूर्वसुरी आनी समकालीन नाटककारांच्या प्रभावा विशीं थोडेभितर सांगून हो लेख सोंपयतां. पुंडलीक नायकाचे नाट्यलिखणेचेर ज्या व्हड नाटककारांचो प्रभाव पडला तातूंत भरतमुनी, एरिस्टॉटल, जे बी प्रिस्ले, इबसेन, कालिदास, भालबा केळकर, चिं त्र्यं खानोलकर, विजय तेंडुलकर, बादल सरकार, गिरीश कर्नाड हांचो तंत्राचे नदरेन, जाल्यार संवाद आनी भाशेचे नदरेन इबसेन, गडकरी, शेक्सपियर, शणै गोंयबाब हांचो. पात्र चित्रुपाचे बाबतींत सोफोक्लीस ह्या ग्रीसी नाटककाराचो प्रभाव जाणवता. कांय आर्विल्ल्या व्हड नाटककारांचोय प्रभाव तांचेर जाला. समकालीन भारतीय रंगमाचयेचो तांचेर जो प्रभाव आसा तातूंत मराठी, बंगाली, हिंदी आनी कानडी रंगमाचयेचो वांटो व्हड आसा. बंगाली नाटककार बादल सरकार, हिंदी नाटककार शंकर घोष आनी मोहन राकेश, मराठी नाटककार चिं. त्र्यं. खानोलकर आनी सतीश आळेकर, जाल्यार कानडी नाटककार गिरीश कर्नाड ह्या तांच्या समकालीन नाटककारांच्या कर्तुबाचो व्हड वांटो नाटककार म्हूण पुंडलीकाचे जडणघडणेंत आसा आनी ह्या सगळ्यांपरस म्हत्वाचें म्हळ्यार तांच्या नाटकच न्हय तर साबार साहित्य निर्मणेचेर मोठे खरायेन आशिल्लो जर कोणालो प्रभाव आसत जाल्यार तो गोंयचे संस्कृतीचो. गोंयचे संस्कृतीनूच पुंडलीकाक नाटककार म्हूण घडयलो. ताचें नाटक म्हळ्यार गोंयचे संस्कृतीचें म्होंवाळ बाळक. आनी ह्या बाळकान आयज समस्त संवसारभरच्या नाट्यरसिकांक आपल्या परिपरिच्या रुपड्यांनी भूल घाल्या. आनी ताका लागून पुंडलीकाचे पावलेन कोंकणी नाटक आयज गोंयच्यो शिमो मेरो हुपून विश्व भोवंडेक भायर सरलां. आमचें भाग्य व्हड म्हण आमी ह्या कोंकणीच्या दिग्विजयाचे गवाय जावंक पावल्यात.

* * *

**आदारावळ :**


१. पुंडलीक नायक हांची साबार नाट्यबरपावळ.

२. पुंडलीक नायक हांचें हेर साबार साहित्य.

३. पुंडलीक नायक - रंगपाट.

४. पुंडलीक नायक - 'जीवनाचें वास्तवपूर्ण चित्रण', **साहित्यशिल्प**.

५. वेंचीक पुंडलीक - संपा. राजू नायक.

६. बादल सरकार हांचीं साबार नाटकां.
७. गिरीश कर्नाड हांचीं साबार नाटकां.
८. Indian Drama - Ed.
९. Modern Indian Drama - G P Deshpande.
१०. Bengali Theatre - Kironmoy Raha.
११. भारतीय रंगभूमी - आद्य रंगाचार्य.
१२. तेंडुलकरांची नाटके - चंद्रशेखर बर्वे.
१३. समकालीन साहित्य: प्रवृत्ती आणि प्रवाह - संपा. मृणालिनी पवार व इतर.
१४. आधुनिक भारतीय साहित्य - मं वि राजाध्यक्ष व विजया राजाध्यक्ष.
१५. लोकसाहित्य - गंगाधर मोरजे.
१६. लोकरंगकला आणि नागर रंगभूमी - संपा. प्रभाकर मांडे.
१७. मराठी नाट्यलेखनतंत्राची वाटचाल - अरविंद कुलकर्णी.
१८. नाट्यनिर्मिती - यशवंत केळकर.
१९. नाट्यसमिक्षा: काही दृष्टिकोन - वि भा देशपांडे.
२०. नाट्यविमर्श - के. नारायण काळे.
२१. ललित साहित्यातील आकृतिबंधाची जडणघडण - मधु कुलकर्णी.
२२. Genre - Dubrow Heather.
२३. Language of Literature - Fowler Roger.
२५. Concept of Indian Literature - V. K. Gokak.
२६. Realism - Grant Damian.

# ४.

## एका नियाळाचो नियाळ

रुचिची रूच काडप! म्हाकठीण. आनी ती विस्कटावन सांगप! कर्मकठीण. तसोच सो प्रसंग म्हजेर हांगा आयला. दोतोर किरणबाय बुडकुले हांगेलें **साहित्य नियाळ: अंतरंग आनी कायारुपां** हे समिक्षे संबंदांतलें पुस्तक म्हजे मुखार कांय प्रस्न दवरता. ते सुटावे करपाचो हांव यत्न करतां.

किरणबायचें हें कोंकणींत उजवाडाक येवपी पयलेंच पुस्तक. 'पयलो चंवर' हे येवजणेखाला हें कोंकणी अकादेमीच्या पालवान प्रकाशीत जालां. तातूंतल्यान पयल्या चंवराची सुलूस जाणकार वाचप्याक मेळटा. साहित्य समिक्षेच्या मळार जे तरणाटे वाट माड्डोवंक आंवडेतात तांकां उर्बा दिवपी असो हो प्रयत्न आसा म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हें पुस्तक वाचतल्याक समिक्षे संबंदांतले मुळावे प्रस्न आनी तिचीं तत्त्वां हांची वळख जाले बगर रावची ना.

'साहित्य नियाळ' हें पुस्तक सिद्ध करपा फाटलो उद्देश लेखिकेन स्वताच विशद करून सांगला. ती म्हणटा, ''साहित्य-नियाळाच्या विविध पतींवरवीं वाचप्याक आपलेपुरतीं नियाळाचीं रुपां वळखूंक उत्तेजन मेळचें असो हावेस हे माण्णे फाटल्यान आसा. हातासरशीं नियाळाच्यो देखी आसल्यो जाल्यार वाचपी तांकां तत्त्वीक भासाभाशेंतले वेंचीक मुद्दे लावन त्यो पडटाळूंक शकता. ते मुद्दे फावो थंय लागू जाले जाल्यार ताका प्रत्यक्ष नियाळाचें आकलन अदीक बरें जातलें. जर कोणाय अभ्यासू वाचप्याक दिल्ल्या पतींनी खंयच्याय मुद्द्याक पाळो दिल्लो ना हें जाणवलें जाल्यारूय ताका पतींतलें उणेपण कळटलेंच, खेरीज नियाळाविशींची ताची जाणय अदीक प्रगल्भ जातली. नकळटां वाचपी स्वता मन घेवन प्रत्यक्ष नियाळ करूंक प्रवृत्त जातलो. नियाळापतींतलीं उणीं आनी शक्तिस्थळां वळखतां वळखतां घडये ताका आपणाभितरूच जागो जावपी एक सक्षम नियाळपी सांपडुंयेत. हातूंत नियाळाचो लाव आसाच, कोंकणीच्या भावी सिद्धीच्या भाकिताची प्रगटावणीय आसा.''

किरणबाय बुडकुले हांकां आपल्या ह्या पुस्तकाउदेशीं 'कोंकणीच्या भावी सिद्धीच्या भाकिताची प्रगटावणी' आशिल्ली दिसता. ही बरी गजाल. म्हाकाय

हाचेविशीं आस्त आसा. पूण 'कोंकणीच्या भावी सिद्धीचें भाकीत' म्हळ्यार कितें तें मात म्हजे सारके मतींत आयलेंना. किरणबायलो हो नियाळ साहित्याच्या मोगान – कोंकणी साहित्याच्या मोगान – घडिल्लो आसा हाचेविशीं दुबावूच ना. पूण नियाळ करतना ताची भास सुटसुटीत आसची, नेमकी, निटस आसची हाची जागरूकताय लेखिकेन सतत दवरिल्ली जाल्यार दुदांत साकर घाल्लेभशेन जातलें आसलें, अशें सांगीनशें दिसता.

पुस्तकाचे बांदावळी विशीं लेखिकेन आपणेंच आपलें मत परगटायलां. ''पुस्तकाच्या पयल्या अर्दांत निखटे संकल्पनेचे सिद्धांतीक नदरेन, जमता थंय देखी दिवन, फोडणिशी करचेलो यत्न केला. साहित्य-नियाळ हे साहित्य-प्रक्रियेची प्रकृती, स्वरूप, पद्दत आनी प्रकार हांचेवरवीं वाचप्याक ते संकल्पनेचें अंतरंग होलमतलें अशी आस्त आसा आनी अशी समजणी ताणें आत्मसात केली जाल्यार ताका आपणाले समजणेच्या नाड्यार आपलेपुरतीं साहित्य-नियाळाचीं कायारुपां थारावंक मेळचीं, अशी माण्णी पुस्तकाच्या दुसऱ्या अर्दांत केल्या.'' अशे तरेन पुस्तक दोन अर्दांनी वांटून घालां आनी 'साहित्य-नियाळ: अंतरंगांकडल्यान कायारुपांकडेन' ह्या तिसऱ्या प्रकरणावरवीं हीं दोनूय अर्दां सांदून घेतल्यांत अशें जाणवता. तशें पळेल्यार ह्या पुस्तकाचें तिसरें प्रकरण सिनेमांतल्या 'ट्रेलरा' सारकें आसा. प्रत्यक्ष नियाळाच्या पतींची 'झळक' तातूंतल्यान वाचप्याक पयलींच मेळटा आनी तो सादूर रावता. (हाचे फाटलो उद्देश कितें आसूं येत काय?)

ह्या पुस्तकांतलीं प्रकरणां मुळावीं स्वतंत्र बरपां, भाशणां वा लेख आसात. हे लेख हाचे पयलीं विंगड विंगड नेमाळ्यांनी वा परिसंवाद, चर्चासत्रांतल्यान उजवाडाक आयल्यात. तांचो झेलो गुंथून, सजोवन तो पुस्तक रुपान कोंकणी सांतेरीच्या माथ्यार माळूंक सादर केला. पूण एक गजाल जाणवली ती अशी, जी बरपावळ ह्या झेल्यांत आसपावल्या तिची निवळावणी जाल्याशी दिसना. म्हाका दिसता, ह्या कामाची गरज आशिल्ली. ह्या पुस्तकाचे दुसरे उजवाडावणेचो योग आयल्यार म्हजे हे सुचोवणेचो मुजरत विचार जातलो अशें हांव समजतां.

कोंकणी भाशेंतल्यान आतांमेरेन साहित्याविशीं, साहित्य समिक्षेविशीं जें बरप जालां तें आंकड्यान चड ना. तशेंच, ह्या बरपाक 'समिक्षे'क फावो आशिल्ली शिस्तय आसा अशें दिसना. (म्हाका दिसता, होच आरोप तुमी म्हजेर, हो लेख

वाचून करतले. करात. ताका तुर्ताक तरी उपाय ना.) जें कितें बरयलां तें बरें आनी ज्या बरपाविशीं बरयलां तेंवूय बरें; असो हो सगळो बऱ्याचोच मामलो आसा. हांव जाणां, कोंकणी सारकेले साहित्य-क्षेत्रांतले बाळक भाशेक आनी तिच्या साहित्य-बाळकांक तोखणाय गरजेची आसा. पूण हेंवूय खरें की चड तोखणाय आनी अपुरबाय केल्ल्यान भुरगीं इबाडटात. हांगा हें सांगपाचें कारण म्हळ्यार, नियाळाच्यो ज्यो पती ह्या पुस्तकांत आयल्यात तातूंतल्यान तोखणायेचो हुंवार आयला. आनी हाका लागून त्या-त्या पुस्तकाचें खरेलें मोल, निखटें मोल हाताक लागना. कांय पतींचे बाबतींत तर असो प्रस्न पडटा, की लेखिकेक म्हणचें कितें आसा? देखीक **पश्चिमी महाकाव्याच्या संदर्भांत एव आनी मरी** ह्या लेखाची अखेर पळोवपा सारकी आसा. लेखिका समिक्षकाचे नदरेंतल्यान म्हणटा, ''तें कोंकणींतलें महाकाव्य आसा वा ना हें कोंकणी वाचपी थारायतलो. पूण दीर्घ काव्याकडेन नातें आशिल्लें हें एक म्हान कोंकणी काव्य आसा इतलें खरें.'' 'एव आनी मरी' ह्या एदुआर्द ब्रून द सौजांच्या ग्रंथाच्या संदर्भांत एक दीर्घ लेख आनी एक स्फूट लेख अशे दोन लेख बरयले उपरांतूय लेखिकेची ही आनाळ्यो-गुनाळ्यो करपी गत जाल्यार वाचप्यांची – तातुंतूय असले नियाळ वाचून घडपी नियाळपी वा समिक्षकांची – कसली आवतिकाय जातली हे विशीं कल्पनाच केल्ली बरी अशें म्हणीनशें दिसता.

ह्या 'नियाळाच्या नियाळा'ची भास वाचप्याक मातशी कडक वा तीखशी लागतली. लागूं. अंजन तीखशें लागता पूण तें नदर जाळिना. दुरुस्त करता. इतली गजाल मतींत दवरल्यार म्हजे तीखशे भाशेचेर रागार जावपाचो प्रस्नूच उपरासचो ना.

ह्या पुस्तकामदें ज्यो साहित्याच्यो पती दिल्यात तातूंतल्यान कथा, कादंबरी, काव्य, व्यक्तीचित्र, आपनिवेदन, विनोदी बरप, लघुनिबंद, वैचारीक निबंद, ललित निबंद, समिक्षात्मक बरप, अणकारीत बरप, अशे विंगड विंगड साहित्य प्रकार हाताळ्ळ्यात. आडवाद फकत नाटकाचो. लेखिकेचे नदरेंतल्यान हो म्हत्वाचो साहित्य प्रकार कसो सुटलो हें नकळों. अशेंय जावं येता, नाटक हो शुद्ध साहित्यप्रकार न्हय असो कांय जाणकारांचो जो समज - घडये अपसमज - आसा, ताका लागून ताचो नियाळाच्या पतींच्या ह्या पुस्तकांतल्यान नियाळ जालो नासूं येता. गद्य आनी पद्य बरप अशा दोन विभागांनी ह्यो नियाळाच्यो पती वांटून गेल्यात. तातूंत भितर गद्य विभागामदें 'कादंबरी' ह्या साहित्य

प्रकाराक खुब्ब वाव दिला. ह्या पुस्तकांतलो 'दीर्घतम' असो निबंद कादंबरी संदर्भांतच आसा. तोय दोन वाटचिऱ्यांच्या संदर्भांत. पद्य विभागांत हो मान म्हाकाव्याक फावो जाला. म्हाकाव्याविशींच्या पयल्या लेखांतल्यान वाचप्याक उदेंत आनी अस्तंतेची भोव बरी भोवंडी घडोवपाचें श्रेय मात लेखिकेक दिवचेंच पडटलें. कोंकणींतल्यान म्हाकाव्य बरोवपाचो हावेस बाळगितल्या तरणाट्या कवींक म्हाकाव्याच्या स्वरुपाविशीं बेस बरी कल्पना हो निबंद दिवंक शकता.

पुस्तकांतलीं पयलीं दोन प्रकरणां साहित्य नियाळाचे तत्त्वीक चर्चेंत घुसपल्लीं आसात. तातूंतल्यान नियाळाची प्रकृती आनी स्वरूप कशें आसचें आनी कशें आसचें न्हय हे विशीं चर्चा केल्या. तातूंतल्यान साहित्य नियाळाचे गूण आनी दोश हांचे विशींच्यो वळेऱ्यो पळोवपाक मेळटात. ह्याच विभागांतल्या दुसऱ्या लेखांतल्यान 'नियाळाच्यो पद्धती आनी प्रकार' हे विशीं सांगलां. साहित्य नियाळाच्या तीन बुन्यादी फातरांविशीं – म्हळ्यार साहित्य, साहित्यीक आनी साहित्य विचार – विवेचन केल्लें वाचूंक मेळटा. नियाळाच्या कार्यांत तांचें म्हत्व कितें आनी ते विशींचीं मतां आनी विचार ह्या प्रकरणांतल्यान वाचूंक मेळटात. ह्याच प्रकरणांत नियाळाच्या ढोबळ पद्दतींविशीं लेखिका म्हणटा, ''साहित्य नियाळाच्यो ज्यो ढोबळ पद्दती सामकारावल्यात (वयले भासाभाशेंतल्यान) तांकां (१) आत्मनिश्ठ / व्यक्तीनिश्ठ आनी विशय / वस्तुनिश्ठ, तशेंच (२) अभिजात आनी स्वच्छंद अशें मुद्द्यानिशीं म्हणूंक जाता.'' लेखिकेचें हें विधान घुंवळावन उडोवपी आसा. पयले पद्दतींत 'आत्मनिश्ठ / व्यक्तीनिश्ठ' आनी दुसरे पद्धतींत 'स्वच्छंद' अशें म्हणप हाचो उलगडो जायना. नियाळाच्या पद्दतींच्या सांगातान लेखिका नियाळ करप्याच्यो धारणा, तागेल्यो प्रवृत्ती आनी प्रयोजनां हे विशींय चर्चा करता. ही चर्चा करता आसतना ''नियाळपी हो एक व्यक्ती जाल्ल्यान ताचे भितरूय आपछंदीपण, अनुकरणप्रियताय, समाजाभिमुखताय हांचो अदीक-उणो अंश आसप सभावीक आसा'' अशेंय ती म्हणटा. आतां हांचो मेळ कसो घालप?

नियाळाचे प्रकार सांगतना मौलीक म्हळ्यार मुळावो आनी दुसरो प्रत्यक्ष म्हळ्यार वेव्हारीक अशे दोन प्रकार सांगल्यात. हे वर्गवारींतलो 'प्रत्यक्ष' हो शब्द अर्थाचे आनी औचित्याचे नदरेंतल्यान समा दिसना. त्या संबंदान अदीक विचार जावंक जाय अशें सांगीनशें दिसता. Applied ह्या शब्दावरवीं ह्या प्रकाराक

वळखतात. देखून ताचेखातीर 'उपयोजीत' असो कोंकणीच्या हेर भयण-भाशांमदीं चालंत आशिल्लो शब्द वापरूं येता. नियाळाचे प्रकार सोदून काडपाच्या वावराक मजत करपी अशे तीन निकश हांगा सांगल्यात. ते म्हळ्यार, बुन्यादी घटकांक मेळिल्ली प्रधानताय, नियाळप्यान लागू केल्ले संदर्भ आनी साहित्यकृतीचे निर्मणेचें प्रयोजन. ह्या दुसऱ्या प्रकरणाचे अखेरेक तीन आकृतायो दिल्यात. तातूंतल्यान आपणालें विवेचन सुत्रबद्ध (खरें म्हळ्यार यंत्रबद्ध) करपाचो यत्न केला तो तोखेवपासारको आसा. पूण निमाणें म्हळ्यार तिसरे आकृताये खाला जो मजकूर दिला तो गोंदळांत उडोवपी आसा. कसो तो पळेयातः "साहित्य नियाळाविशीं कसलेय ठोस आराखडे मनांत बांदूंक पळोवपी वाचप्यांक वयल्या आलेखाच्या चारूय भुजांतल्यान फावो ते तरेन जाणविकाय मेळोवची पडटली. हें कठीण नासलें तरी सोंपेंय न्हय. कारण आकृती समजूंक सुविधा जावची म्हणून दिल्ली आसा. तिचेवरवीं पुरायेन शास्त्रशुद्ध असो आनी संपूर्ण डाटा (मुळावी म्हायती) मेळोवप शक्य ना. कारण साहित्य नियाळ ही संकल्पना जितली अनंग आनी अमूर्त आसा तितलोच आलेखांतलो एकान एक घटकूय अमूर्त आसा. नेमकी संख्या वा ठोस मेजमाप हांच्या अभावाक लागून जिज्ञासू वाचप्याक खासा आपणाली कल्पनाशक्त आनी प्रज्ञा हांचो सांगड घालुनूच जायती समजणी मेळोवची पडटली."

ह्या पुस्तकाच्या भोव बऱ्या आंगा विशीं सांगचें जालें जाल्यार अशें म्हणूं येता की ह्या पुस्तकावरवीं लेखिकेन कोंकणी वाचप्याक आनी कोंकणी शिकप्याक बशिल्ले सुवातेर जायती, तरेकवार माहिती करून दिवपी साहित्यीक भोंवडी घडयल्या. तिचें हें अशे तरेचें काम कोंकणी साहित्य नियाळाच्या वाठारांत नवेंच म्हणचें पडटलें. तेखातीर किरणबायक परबीं.

पूण ह्या पुस्तकांत आयिल्ल्या सगल्याच लिखाणाक आमच्यांनी समिक्षात्मक म्हणूंक जावचें ना हाचीय जाण बाळगुची पडटली. हातूंतलें बरेंचशें बरप हें Book Review ह्या प्रकारांत मोडपी आसा. अशा लिखाणाक समिक्षात्मक म्हणप म्हळ्यार समिक्षाविचारा विशींचें आपणालें अज्ञान प्रगट करपासारकें थारतलें. ताका आमच्यांनी 'सेमी-समिक्षा' अशें म्हणूं येता. 'सेमी-समिक्षा' म्हणचे परस 'कोसी-समिक्षा' ह्याय Anglo-Indian परिभाशीक शब्दाचो त्याखातीर विचार जावं येता. आतां वाचप्यांक प्रस्न पडूं येता, 'कोसी-समिक्षा' म्हळ्यार कितें?

हाचें उत्तर तुमकां ह्या पुस्तकामदीं एकठायल्ल्या Book Review सारक्या लेखांच्या वाचनान मेळूं येता, इतलेंच सांगतां.

आतां निमाणेकडेन सांगचें म्हळ्यार, नियाळाचीं तत्त्वां आनी पती हांचो सांगड घालपाचो प्रयत्न म्हळ्यार हें पुस्तक. लेखिकेन हाका 'द्राविडी प्राणायाम' अशें आपणेंच म्हळां. पूण असो द्राविडी प्राणायाम करपांत तिचोय लाव आसा अशें तिचें म्हणणें. हो लाव म्हळ्यार, ''ते ते साहित्यकृतीचो नियाळ करतना जीं मार्गदर्शक तत्त्वां वा जे निकश त्या त्या वेळार नियाळाच्या त्या त्या पतींक लायिल्ले तांचो आज पुनर्नियाळ करून त्या नियाळाचें येस-अपेस कितलें हें तटस्थपणान आपशींच समजूंक बरें जातलें.'' पूण सांगचें म्हळ्यार, असो 'पुनर्नियाळ' करून ताचीं findings कितें हे विशीं लेखिकेन 'आळी मिळी गूप चिळी' केल्या अशें दिसता.

हें पुस्तक म्हळ्यार, खऱ्यांनी पळोवपाक गेल्यार, 'आधीं कळस मग पाया' हे स्वरुपाची निर्मणी जाल्ल्या कारणान ताचेर 'रेखणेचो निमाणो हात' भोंवडावप भोव गरजेचें आशिल्लें. पूण ताचो उणाव जाणवता.

समिक्षा ग्रंथाक फावोनाशिल्ली अशी भास साबार प्रमाणांत वापरल्या ती टाळूं येता आशिल्ली. देखीक, ''कोंकणी साहित्याच्या सर्जनान रसरसपी वालीक हालीं चिकित्सक बरपाचेंय फळ धरलां. हाचोच परिपाक म्हळ्यार सर्जनशीळ बरप्याच्या खांदाक खांद लावन आज साहित्य नियाळ ही संकल्पना कोंकणी साहित्य संवसारांत मोट्या दिमाखान वावुरता. पुडव्याची देग वा कापडाचो कांठ जाल्लेवरी हें जोड-उतर साहित्याचो शेव (पदर) धरून रावलां.''

आजवेर कोंकणी भाशेंतल्यान साहित्य नियाळाच्या नांवान जें जल्मलां तें 'मखलाशी' आसा अशेंच म्हाका दिसता. एके परीन तें वेवसायीक आसा. ताचें वेटोळें कोंकणी साहित्याक खुब्ब पयलींसावन अंदूंक लागलां. तातूंतल्यान ताची सुटका जावचेली आसत जाल्यार आमकां साहित्य नियाळ हे प्रक्रियेक 'पुनश्च हरी ओम्' म्हणून परतून एकदां जाणीवपुर्वक जाणटे सकस मनभुयेंत रुजवण घालचें पडटलें.

ह्या पुस्तकाचें स्वरूप चक्रव्युहा भाशेन जालां. भितर वतलो भितर वता. पूण भायर आयिल्लो दिसना. जो कोण येत तो भाग्यवान. ''नीज सर्जनशीळ बरोवप्याक नियाळप्या कडल्यान ना अवाजवी तोखणायेची अपेक्षा आसता, ना

अवास्तव टिकेची भिरांत. ताका अपेक्षीत आसता एक नितळ नदर आनी निवळ अभिप्राय.'' लेखिकेवरी हांवूय ह्याच मत्ताचो आशिल्ल्यान हो नियाळ थोडेंभोव निर्भीड आनी बेमुर्वत जावं येता.

वतां वतां निमाणें एक नमळायेचें मागणें. कोंकणींतल्या भावी नियाळप्यांनी ह्या पुस्तकाचें चुकनासतना वाचन करचें. ताचेवरवीं ह्या पुस्तकांत आयिल्ल्या कायारुपांतल्यान 'साहित्य नियाळ' हे संकल्पनेचें अंतरंग होलमतलें अशी आस्त लेखिकेवरी हांवूय बाळगितां.

म्हगेल्या ह्या नियाळामदें जे कांय दोश आसतीत ते म्हजे आनी कसलोय गूण होलमलो तर तो ह्या पुस्तकाच्या जाणीवपुर्वक वाचनाक लागून अशें समजुचें. हें पुस्तक आमकां सगळ्या कोंकणी सांतेरीच्या लेकरांक नितळ आनी निवळ नदर दिवं अशें गाराणें घालीनशें दिसता. म्हज्या ह्या नियाळाक न्हय, निदान ह्या गाराण्याक तरी नवे फागूर फुटचे अशें मागतां.



**आदारावळ :**


१. Anatomy of Criticism - Northrop Frye.

२ Five Approaches to Literary Criticism - Wilbur S. Scott.

३. Aristotle's Theory of Poetry and Fine Art - Butcher S H.

४. Literature and Society - Daiches David.

५. Genere - Dubrow Heather.

६. Language of Literature - Fowler Roger.

७. An Introduction to the Study of Literature - Hudson Henry William.

८. Feeling and Form - Lunger Susan K.

९. Principles of Criticism - Richards I A.

१०. What is Literature? - Sartre Jean Paul.

११. A Theory of Narrative - Stanzel F K.

१२. Theory of Literature - Wellek Rene & Austin Born.

१३. Princeton Encyclopedia of Poetry and Poetics.

१४. कांटची सौंदर्यमीमांसा - रा भा पाटणकर.
१५. सौंदर्यमीमांसा - रा भा पाटणकर.
१६. साहित्याचे तत्त्वज्ञान - वि ना ढवळे.
१७. सौंदर्य आणि साहित्य - बा सी मर्ढेकर.
१८. वाङ्मयीन वाद: संकल्पना आणि स्वरूप - संपा. सीताराम रायकर व इतर.
१९. साहित्य: अध्यापन आणि प्रकार - संपा. श्री पु भागवत व इतर.
२०. सौंदर्यानुभव - प्रभाकर पाध्ये.
२१. टीकाविवेक - श्री के क्षीरसागर.
२२. कॉडवेलचा कलाविचार - अशोक कृष्णाजी जोशी.
२३. टीकास्वयंवर - भालचंद्र नेमाडे.
२४. नवसमीक्षा: काही विचार प्रवाह - संपा. गो म कुलकर्णी.
२५. जीवन आणि साहित्य - शरदचंद्र मुक्तिबोध.
२६. क्रोचेचे सौंदर्यशास्त्र: एक भाष्य - रा भा पाटणकर.
२७. तौलनिक साहित्याभ्यास: तत्त्वे आणि दिशा - संपा. चंद्रशेखर जहागिरदार.
२८. परंपरा आणि नवता - गो वि करंदीकर.
२९. संहितासमीक्षा आणि पारिभाषिक संज्ञा - वसंत दावतर.
३०. साहित्य-समीक्षा: स्वरूप आणि विकास - ना वा गोडबोले व गं ना जोगळेकर.
३१. आलोचक और आलोचना - बच्चन सिंह.

# ५.

# ‘वालोरा’सांव

‘वालोर’ हो एस्. डी. तेंडुलकार हांचो समिक्षेविशींच्या बरपांचो झेलो. एस् डी तेंडुलकार हो एक तरणाटो कोंकणी साहित्यीक. कोंकणी कवितेंतलो काशिनाथ शांबा लोलयेंकार. कोंकणी साहित्याक नव-नाटककार म्हणुनूय तो आपलो परिचय करून दिवंक लागला. हेर साहित्यप्रकारां वांगडाच ताणें फाटल्या सात-आठ वर्सांसावन कोंकणींत साहित्याची समिक्षा करपी लेखनूय केलां. ‘सुनापरान्त’ दिसाळ्यांत तो कांय तेंप ‘कुमसार’ नांवाचें सदर बरयतालो. तातूंतले कांय लेख आनी तांचे भरीक आनीक कांय लेख, मुलाखती, बी घालून ताणें आपलो ‘वालोर’ हो ग्रंथ सिद्ध केला. बरोवप्यानूच म्हळां ते प्रमाण, तातूंत ‘समिक्षा, वर्तमानपत्री नियाळ, आस्वाद बीन’ असल्या लिखाणाचो आसपाव केल्लो पळोवंक मेळटा. बरोवप्यान ह्या ग्रंथाचे सुरवातिकूच म्हळां, ‘‘साहित्याची वा कोंकणी साहित्याची समिक्षा करतना हांवें ताचो ‘वालोर केला’ आनी जाय थंय ‘वालोर दिला.’ ’’

वालोरासांव करचे पयलीं एक सांगीनशें दिसता - पुर्तुगेज भाशेन कोंकणीक जायतीं उतरां दिल्यांत. उतरांची ‘अपूर्व’ गिरेस्तकाय दिल्या. कोंकणी वरी हेर खंयचेय भाशेंत संस्कृत तद्भव आनी तत्सम उतरां आसात तशींच कोंकणींत पुर्तुगेज तद्भव आनी तत्सम उतरां आशिल्लीं दिश्टी पडटात. पुर्तुगेज भाशेकडल्यान मेळिल्ली ही गिरेस्तकाय इल्ली इल्ली आटत चल्ल्या अशें दिसूंक लागलां. ही आगळी सोबीतकाय कोंकणी भाशेन सांबाळून दवरपाक जाय अशें सांगीनशें दिसता. पिकासांव, बेजासांव, कुरासांव, लिसांव, कास्तिकिसांव, गुड्डुलासांव अशीं जायतीं पुर्तुगेज उतरां कोंकणींत मेळटात. तातूंतलें गुड्डुलासांव हें उतर 'Luso-Indiano'. ‘वालोरासांव’ हें मात तत्सम उतर आसुये. आसूं. एस् डी तेंडुलकारान जें ‘वालोरासांव’ केलां ताचेविशीं आतां पळोवया.

एकूण ल्हान-व्हड पंचवीस लेख आशिल्ल्या आपल्या ह्या ग्रंथाची मांडावळ बाब तेंडुलकारान तीन भागांमदीं केल्या. पयल्यांत वट्ट इकरा लेख आसात. (मांडावळ दिल्या तातूंत ‘युजीन आयनेस्को आनी अना म्हांबरो’ ह्या लेखाचो

उल्लेख करूंक ना. सातवे सुवातेर तो येवंक जाय आशिल्लो.) दुसऱ्यांत धा कवितांचीं आस्वादनां आसात जाल्यार तिसरो भाग 'पुरवणी' म्हण जोडिल्लो आसा. तातूंत तीन लेख आनी काशिनाथ शांबा लोलयेंकार म्हणजे खासा एस् डी तेंडुलकार हांचे मुलाखतीचोय आसपाव आसा. (ही मुलाखत बरोवप्यान आपली आपणेंच घेतिल्ली आसूंक जाय. कारण मुलाखत घेवप्याचें नांव गांव हाचो कांयच तपशील दिवंक ना.) तशें पळोवपाक गेल्यार ही मांडावळ चार भागांनी करूंक जाय आशिल्ली अशें म्हाका दिसता. पयलीं दोन प्रकरणां म्हळ्यार 'साहित्याची व्याख्या' आनी 'साहित्य: सामान्य, बरें आनी स्रेश्ठ' हांचो एक भाग; पयल्या भागांतल्या उरिल्ल्या णव लेखांचो वा निबंदांचो दुसरो, मागीर कवितांचो तिसरो आनी 'पुरवणी'चो चवथो. 'मांडावळीचें कसलें घेवन बसला गा? तें व्हडलेंशें न्हय. विचार म्हत्वाचो.' अशेंय कोणेंय म्हणूं येता. पुणून ललीत साहित्याचे बाबतींत मांडावळीक जें म्हत्व आसा घडये ताचेय परस आंगूळभर अदीक म्हत्व तें समिक्षा वा शास्त्रीय बरपावळीचे बाबतींत आसूंक जाय. हे मांडावळी वरवींच बरोवप्याक पुस्तकांत जो विचार, सिद्धांत वा तत्त्व मांडपाचें आसता ताचे पर्यंत पावपाचीं सोंपणां तयार जायत वतात. ह्या सोंपणांक लागून त्या तत्त्वामेरेन पावप वाचप्याक वा अभ्यासप्याक सोंपें जाता. पूण ताका आपणें कितें सांगलां वो आपूण सांगूंक सोदतां तें वाचप्याक कळचें न्हय अशें दिसता जाल्यार तेविशीं म्हाका कांय म्हणपाचें ना.

दुसरी गजाल म्हळ्यार, ह्या 'वालोरां'त कोंकणी कविते संबंदांतली चर्चा करपी लेख, निबंद, नियाळ वो आस्वादनां बी मेळून वट्ट सोळा बरपां आसात. तेन्ना ताचें स्वरूप कोंकणी कविता विश्वाची भोंवडी (जाय जाल्यार मिनी भोंवडी) म्हणूं येता, अशें जालां. ते भायर, तातूंत नवलकथे संबंदान दोन, नाटकाविशीं एक, कथेविशीं एक, ललीत निबंदाविशीं एक, समिक्षेविशीं एक आनी अणकाराविशीं एक - 'युजीन आयनेस्को आनी अना म्हांबरो' - अशीं फकत सात बरपां ह्या झेल्यांत आसात. 'शीला कोळंबकार हांकां उकती चीट' हें बरप खरें म्हळ्यार तांचे 'विद्येच्यान तर' हे कथेचें आस्वादन. बोरकार, पुंडलीक नायक आनी अना म्हांबरो हांच्या साहित्याविशींच्या तीन लेखांकूच समिक्षा लेख म्हणूं येतात. उरिल्ले पांच लेख म्हळ्यार नियाळ. लेखकाच्या म्हणण्याप्रमाण वर्तमानपत्री लेख. तेन्ना ह्या ग्रंथाचें स्वरूप स्पश्ट जाता तें अशें: लेखकाचें समिक्षा विचारांविशींचें मतप्रतिपादन, पुस्तक नियाळ, साहित्य समिक्षा, काव्य

आनी कथा आस्वादन आनी मुलाखत. ह्या सगळ्यांची गांथन म्हळ्यार तेंडुलकाराचो हो 'वालोर'.

तेंडुलकारान 'वालोरां'त गुंथिल्ल्या लेखांच्या पूर्वप्रसिद्दी विशींच्यो नोंदी ह्या ग्रंथांत दिवंक नात. 'तातूंतल्याच कांय लेखांचो ह्या पुस्तकांत हांवें आसपाव केल्लो आसा' इतलेंच ताणें सांगलां. फुडें वचून तो अशेंय म्हणटा, ''मुळांत ते लेख हांवें वर्तमानपत्रा खातीर आनी सदराच्या रुपांत बरयिल्ल्या कारणान तांकां वर्तमानपत्री मर्यादा पडल्या, हाची म्हाका पुराय जाणविकाय आसा. ते नदरेन हें एक सेमी-समिक्षेचें पुस्तक आसा अशें कोणेंय म्हळ्यार ताका म्हजो मातूय आक्षेप नासतलो.'' बरोवप्याचें म्हणणें खरेंच आसा. हें एक सेमी-समिक्षेचेंच पुस्तक. पूण ताचो एकूण थातोमातो मात आपूण कोंकणी समिक्षेच्या मळार कितें तरी नवो विचार मांडटां असो आशिल्लेवरी जाणवता. तशे तरेची 'संपादकी' स्वरुपाची आनी मोडणाची भास बरोवप्यान पुस्तकभर आपणायिल्ली जाणवता. म्हाका दिसता, ताणें हें टाळूं येतालें.

निमाणें अभ्यासकाच्या हाताक जें कितें 'श्रेयस' ह्या ग्रंथावरवीं लागता तें म्हळ्यार 'आस्वादन'. कवितेचें, खंयचेय एके कथेचें वा बरे कवितेचें आस्वादन बेस बरें कशें करूं येता हे विशीं हें पुस्तक कोंकणी कथेचो आनी कवितेचो अभ्यास करपी भुरग्यांक खुब्ब उपकारा पडूं येता. ती तांक बाब तेंडुलकाराच्या कवितांच्या आनी कथेच्या आस्वादनां मदें आसाच आसा. कोंकणींत आजवेर तरी अशे तरेचो वस्तुपाठ कोणें घालून दिल्लो हांवें पळोवंक ना. ह्या ग्रंथाचें सगळ्यांत व्हडलें 'देय आनी श्रेय' म्हणटात तें हेंच अशें म्हाका दिसता. कोंकणी कवितेच्या अभ्यासकांक कविता अभ्यासपाची नितळ नदर, मर्मदृष्टी तांच्या ह्या प्रयत्नांवरवीं मेळटली असो घट्ट विश्वास आसा. बाब तेंडुलकारान कोंकणींतल्या कांय श्रेश्ठ कवितांचीं आनिकूय कांय आस्वादनां बरोवन उजवाडा हाडचीं अशें तांकां सुचयनशें दिसता. पुस्तकाच्या दुसऱ्या भागांतल्या आस्वादनांमदें 'एक भाशीक संरचना' म्हण कवितेचो केल्लो विचार तोखणाय करपा सारको आसा. ते नदरेन 'रमेश वेळुस्काराची एक कविता', 'विनायक गोवेकाराची एक कविता', 'दीपक प्रभुदेसायाची एक कविता' आनी 'तुकारामाचो एक अभंग' सारकेलीं आस्वादनां अभ्यासपासारकीं आसात. कोंकणी कवितेच्या विद्यार्थ्यांक तांचो मुजरत लाव जालेबगर रावचो ना.

ह्या पुस्तकाचे भाशेविशीं थोडेंभोव नदरेक हाडून दीनशें दिसता. समिक्षा-लेखन अभिनिवेशा विरयत आसचें, तेच प्रमाण पूर्वग्रहा विरयतूय आसचें अशें सामान्यतायेन मानतात. पूण ह्या पुस्तकांतल्या साबार लेखांनी जी भास वापरल्या ती हे कसवटणेर खरी उतरतशी दिसना अशें व्हडा दुख्खान सांगचें पडटा. ते भायर, 'म्हाका सांगचेंच पडटलें', 'नोंदोवन दवरचेंच पडटलें', 'जावन आसा' अशे तरेचे भाशीक प्रयोग टाळूं येताले. पूण तांचो पयल्या भागांतल्या सरसकट सगल्याच लेखांनी प्रयोग जाल्लो पळोवंक मेळटा.

तशेंच, समिक्षा लेखन म्हळ्यार फकत येवरोपी-अमेरिकी साहित्यीक, समिक्षक आनी तांच्यो साहित्यकृती हांचे ऊठबस धांवते संदर्भ दिवप न्हय. हातूंतल्यान वाचप्याक दिपकावं येता, नवी नदर वा मर्मदृष्टी मात दिवंक येना हें घट्ट मतींत दवरचें पडटलें. समिक्षकाची नदर 'चौफेर' आनी 'चौकस' आसची पडटा. तेचपरी ती 'सम्यक्' आसची पडटा. हांव तर म्हणीन की ती 'सम्यक' आसप हीच समिक्षेची मुळावी अट आसूंक जाय. जाची नदर 'सम्यक्' तो खरो समिक्षक. आनी ताणें केल्ली समिक्षा ती खरी समिक्षा. मागीर ती कोणाक रुचूं वा ना रुचूं. समिक्षकाक भीड मुरवत लागना. तेच परी ताका दुस्वास-मत्सर ह्योय गजाली आफडूंक फावोनात. तो साहित्याचो म्हळ्यार कलेचो न्याय करपी जुवीज. तिका कसवटणेक लावपी पारखी. ताची तागडी दोन दाल्यांची बाजारू तागडी न्हय. सरस्पतीचें जें वाहन, जो राजहंस, तीच ताची तागडी: 'नीर' आनी 'क्षीर' हातूंतलें 'क्षीर' तेंच तो स्विकारता आनी 'नीर' जाग्याचें जाग्यार दवरता. हाकाच म्हणटात 'नीर-क्षीर न्याय'. न्यायाचें हेंच तत्त्व समिक्षेक लागू पडटा. ते वरवींच तिणें चलूंक जाय. जगांतल्या साबार समिक्षक विचारवंतांचें बरप वाचलें आनी तें उखलून जशाक तशें लावपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार तो निर्फळ जातलो. समिक्षा बरप म्हळ्यार सांच्यांतलो, फॉर्मांतलो गणपती न्हय. वाचनान स्वताक vision प्राप्त जावंक जाय, मर्मदृष्टी येवंक जाय. तातूंतल्यान जें समिक्षा बरप जातलें तेंच निजाचें. बाकिचें सगळें अडेचें. कलाकृतिविशींचें निजाचें interpretation करपाची तांक समिक्षकान वाडोवपाक जाय. तशे तरेचो 'गृहपाठ' समिक्षक जावंक पळेतल्या जण एकल्या अभ्यासकान आपले नदरेक आनी बुद्दीक दिवंक जाय अशें म्हजें मत्त. बाब तेंडुलकार पयल्या प्रकरणाचे आखेरेक म्हणटा, "म्हजो समिक्षाव्यूह मांडपाक आनी ते नदरेन साहित्याची वाखेर करपाक होवें म्हजी साहित्याची व्याख्या दिल्ली आसा. कारण साहित्यविशयक संकल्पना, विकश



हांकां स्पश्टताय हाडपाक व्याख्येची बैठक ही जायच पडटा.'' पूण फुडें वचून केल्ल्या समिक्षा बरपांतल्यान तोच आपले हे म्हणणेक पाळो दिना अशें दिसून येता.

हें पळोवन मुखार प्रस्न उबो जाता : हें अशें कशें जावचें? हाची जाप म्हज्या मत्तान एकूच, आनी ती म्हळ्यार, ताणें आपणायिल्लो 'तागडेचो न्याय'. तागडेन quantity मेजूंक येता, quality न्हय.

ह्या पुस्तकांत जे समिक्षा लेख आयल्यात तातूंतल्या तीन लेखां संबंदान चर्चा करप म्हाका अदीक गरजेचें दिसता. तें अदीक योग्यूय जातलें. पूण ह्या तीन लेखांचे जोडयेक ह्याच पुस्तकांत गुंथिल्ले दुसरे दोन लेख घेवचे पडटले. ते म्हळ्यार 'रवीन्द्र केळेकारांची एक नवलिका - तुळशी', आनी पुरवणेंतलो 'बाकीबाब आनी हांव'. 'काशिनाथ शांबा लोलयेकाराची मुलाखत' हाचो कांय 'अंश'य विचारांत घेवचो पडटलो. 'साहित्यः सामान्य, बरें आनी श्रेश्ठ' ह्या दुसऱ्या प्रकरणांत केल्ले 'शेरेबाजी' (comments) कडेनय लक्ष दिवप हांगा आवश्यक थारतलें.

पयलीं बाकीबाबाले कोंकणी कवितेची मोलावणी घेवया. तेंडुलकारांक कवितेची / कविता लेखनाची बरी जाण आसा हेविशीं म्हज्या मनांत मात्तूय दुबाव ना. कविता म्हळ्यार कितें हें तांकां नव्यान हांवें सांगची गरज आसा अशें म्हाका दिसना. पूण एक गजाल हांगा सांगुंकूच जायः ती म्हळ्यार, कोंकणीच्या हेर भयण-भाशांतल्या कांय कवीं भितर आशिल्ली प्रवृत्ती बाब तेंडुलकार हांच्यांतूय कवी आनी समिक्षक म्हूण आसा हाचो 'प्रत्यय' म्हळ्यार तांचो हो 'वालोर'. बोरकारांचे कवितेविशीं तांणी जी शेरेबाजी केल्या ती एक तर अज्ञानांतल्यान जावं येता वो बोरकार सोडून हेर कवींच्या, देशीविदेशी भाशांतल्या कवींच्या कवितांचो तांचो अभ्यास फावो तितलो जाल्लो नासुंये म्हण आसूं येता. खंयचोय कलाकार, साहित्यिकूच न्हय, जेन्ना आपणाली कलाकृती सादर करता, ताची रचना करता, तेन्ना तो एक सोद आसता. ताणें आपणेंच आपणाचो घेतिल्लो सोद; वा, असो सोद घेवपाचो प्रयत्न. हो यत्न सततचो आसता. आनी देखून, सोदय सततचो आसूंक जाय. तसो तो आसताच. ताका लागून सदांच त्या कलाकाराकडेन masterpieceची अपेक्षा करप हें ताच्या बरें मागत्यांक वो चाहत्यांक लेगीत सोबसारकें न्हय. जगांतल्या साबार व्हड कवींनी 'प्रचारकी' कविता बरयल्यात. फकत बोरकारांनीच अश्यो कविता बरोवंक नात. आनी

असल्या कवितांची मोलावणी करपाक कोणा समिक्षकाची गरज निखालूस ना. जिका 'प्रचारकी कविता' म्हण वळखतात तिचें सौंदर्यशास्त्र 'वेगळें' आसता हें मतींत दवरीत जाल्यार तिचीय बरी समिक्षा करप शक्य आसा. आनीक एक प्रस्न हांगा म्हाका विचारीनसो दिसता. खंयची कला प्रचारकी नासता? सविस्तर बरोवपा सारको विशय हो. 'प्रचार आनी साहित्य' वो 'साहित्याचें प्रचारमुल्य' अशे तरेच्या माथाळ्या सकला हाची विसकटावणी करपी दीर्घ चर्चा करूं येता. आसूं.

प्रस्न तो ना. बोरकार मराठींत व्हड आनी कोंकणींत 'गिड्डो' अशें म्हणप समा जावचें ना. दर एके भाशेची, प्रदेशाची, संस्कृतायेची सुंदरतायेविशींची एक स्वतंत्र संकल्पना आसता. ते ते संकल्पनेच्या आदारान ताची सुंदरताय, सोबीतपण न्हय, पारखुची पडटा. तेच प्रमाण सौंदर्य संकल्पना कालसापेक्षूय आसता. आपूण बरयतां ती 'समिक्षा' म्हणपाचें समिक्षकान पयलीं मतींत दवरूंक जाय. समिक्षा हें उतर 'सम' आनी 'अक्ष' ह्या 'पदां'नी घडलां. तातूंत 'सम' म्हळ्यार 'सम्यक' हें पयलें पद दुसऱ्या पदा परस चड म्हत्वाचें. घडये तेंच पद म्हत्वाचें आनी 'अर्थपूर्ण'. 'अक्ष' हें पद फकत पयल्या पदाक 'अदीक अर्थपूर्ण' करपाक हातभार लायता. तेंच खरेपणानशीं ताचें कार्य. ज्या समिक्षालेखनान 'सम' वगडायलें ताणें सगलेंच वगडायलें अशें म्हणूं येता. बरें गायलें म्हण जायना. आवडतानो खुब्ब मारूं येतात पूण समेर जाका येवपाक मात्तूय कळना वा ती तांक जाचे लागीं ना ताका कोणूच गायक म्हणचो ना. समिक्षा बरयतल्यान 'सम' पातळेचेर वचून वा तसो वचपाचो यत्न करून खंयचेय कलाकृतीचो आस्वाद घेवचो पडटा. 'ट्रॅजडी'चीं सुत्रां 'कॉमेडी'क लावन समिक्षा बरयली जाल्यार ती त्या 'समिक्षालेखना'चीच ट्रॅजडी जातली. आपणाक आवडटा, आपणें वाचलां तेंच व्हडलें, हेर सगळें उणाक, हीण ही वृत्ती समिक्षेक मारक हेंय लक्षांत दवरचें पडटलें. जाका 'सम' पातळेचेर वचूंक कळना ताची 'समिक्षा' 'समा' थारुंकूच शकना.

कविता ही भाशीक संरचना अशें शिकप आनी तें घोंकीत रावप समजूं येता. पूण आपूण करतां तेंच interpretation, तीच अर्थावणी final अशें समजप हाका कितें म्हणप हें म्हाका समजना. जी कलाकृती सगल्यांक, जाणट्यांक आनी नेणट्यांक लेगीत आनंद दिता तीच खरेली व्हडली कलाकृती. दर एकल्याक भाविल्ली, उमजल्ली, आकळिल्ली वा दिश्टावो जाल्ली अर्थावणी विंगड

विंगड आसूं येता. तेंडुलकारांक हांगा म्हाका इतलेंच सांगीन दिसता की बोरकारांचे समग्र कवितेचो तांणी सामग्र्यान अभ्यास करचो आनी मागीर नव्यान तिची समिक्षा बरोवंक घेवची. ना म्हळ्यार धोंगी लोकांक कांय उणाव ना. मराठींत म्हजे वळखीचे आमचे कांय गोंयकार कवी आसात. बोरकार कवीच न्हय म्हण सांगपी आनी तांच्या नांवान दवरिल्ले पुरस्कार मात मोठ्या दबाज्यान स्विकारपी. साहित्यांत आयज नवे 'नवे नैतिकते'चें यूग आसा. तातूंत हीं धोंगां खंय बसतात हांव नेणां. जाणट्यांविशीं आदर बाळगप ही आमची संस्कृताय न्हय?

पुंडलीक नायकांच्यो नवलकथा आनी नवलिका ह्या संबंदान जी कितें समिक्षा ह्या ग्रंथांत आयल्या ते विशीं लेगीत जायत्यो गजाली सांगूं येतात. खोलायेन वचून चर्चा जावं येता. पुंडलीक जालो तरी एक तरणाटोच साहित्यीक. पूण ताणें जी नामना कोंकणी साहित्याक आनी भाशेक आनी अशे तरेन कोंकणी समाजाकय जोडून दिल्या ते विशीं आदराची भावना मुजरत आसूंक जाय. अशी आदराची भावना बाळगून लेगीत बरें, अभिनिवेशा विरयत, समिक्षा लेखन शक्य आसा. पुंडलीकाचे 'अच्छेव' सारकेले कोंकणी नवलकाणयेचो 'मुळारंभ' करून दिवपी नवलकाणयेची तुळा हेर भासांतल्या ते तरेचे नवलकाणये कडेन करूं येताली. तेंडुलकारान तें टाळ्ळां. तांकां मराठींत 'कोसला'बगर दुसरी कादंबरीच दिसना. आनी विदेशांत दोस्तोएव्हस्की आनी काम्यू. पूण तांकां खबर नासुंये की 'आऊटसायडर'चेर आतां नव्यान बरेंच तिखट बरोवन येवंक लागलां. इंग्लेजींत कीट्स आनी फोस्टराच्यो आनी मराठींत फडके आनी खांडेकर हांच्यो कादंबऱ्यो स्रेस्ठ मानताले. समिक्षकांक तांचेबगर कांयच सुचनाशिल्लें. तेन्ना 'रणांगण' सारकेले युगप्रवर्तक कादंबरेक मराठींत १८ वर्सां पसंतीची वाट पळोवची पडली. कांय देडशाण्या टिकाकारांनी ती कादंबरीच न्हय म्हण शेरेय मारिल्ले. तेंच कित्याक, 'कोसला'चेय बाबतींत अशेंच जाल्लें. आनी मागीर ती तकलेर घेवन नाचतल्यांनी तातूंतले दोश नदरेआड केले. हें अशेंच चलता. 'बेटां' तयार जायत वतात. तेन्ना समिक्षकान ताचे पसून आपणाक पयस दवरूंक शिकपाक जाय. निदान तसो प्रामाणीक यत्न तरी करूंक जाय. सगळेंच 'नेती... नेती...' म्हळ्यार जावचें ना. आनी समिक्षकान तशें म्हळें म्हण साहित्यीक आपली निर्मणी थांबोवचो ना. ताणें ती थांबोवची न्हय.

अना म्हांबऱ्यान केल्ल्या युजीन आयनेस्कोच्या 'दि बाल्ड सोप्रानो' ह्या नाटकाच्या अणकारा बाबतींत केल्ली तुलनात्मक चर्चा मात समिक्षक म्हण बाब

तेंडुलकारामदीं आशिल्ले तांकिची गवाय दिता. तांणी हे फुडेंय बरें समिक्षात्मक लेखन करचें अशें हांव तांचेलागीं मागतां. समिक्षालेखन करूंक सोदतल्या कोंकणी भावंडांक ह्या ग्रंथाच्या निमतान एक हारसो मेळ्ळा. तातूंत पळेल्यार आपलीं धोंगांपोंगां पळोवपाक मेळटात आनी तेच वांगडा त्या हारशाची 'प्रवृत्ती'य जाणवूं येता, हें तांचें अपरूप.

* * *

६.

# 'गुणाजी'चें कायारूप : कांय प्रस्न

पुंडलीक नारायण नायक हो कोंकणी भाशेंतलो एक अश्टतासांचो साहित्यीक. कथा, नवलिका, कादंबरी, कविता, नाटक, एकांकी, बालसाहित्य अश्या तरेकवार साहित्याची निर्मणी ताणें आजवेर केल्या. ते भायर नाटकसमिक्षा आनी संपादीत साहित्याच्या मळार लेगीत ताणें येसस्वी पावलां मारल्यांत. साहित्याची विंगड विंगड कायारुपांतली निर्मणी ताचे साहित्यीक समजिकायेविशीं गवाय दिवपाक समर्थ आसा अशें म्हणचें पडटलें. पूण... फाटलीं सुमार पंचवीस तीस वर्सां कोंकणींतल्यान साहित्य निर्मणी करपी ह्या खडेगांठ साहित्यिकाचे साहित्यीक समजिकायेविशीं दुबाव येवचो असो प्रसंग तांचे 'गुणाजी' हे नवलिकेन एक अभ्यासक म्हण म्हजे सारकेल्या एक साहित्य रसिकामुखार उबो केला.

गुणाजी ही पुंडलीक नायकाली नवीताल्ल नवलिका. आतां ह्या **साहित्यरुपा**क कितें म्हण पाचारपाचें हो प्रस्न म्हजे मुखार उबो रावला. ताचें कारण - पुस्तकाच्या भितरल्या पानार प्रकाशकान Novelette (ह्या इंग्लेज उतरांत एक एल् लेत्र मायज पडलां) म्हण ह्या पुस्तकाची वळख करून दिल्या जाल्यार पुस्तकाचो प्रकाशन सुवाळो जाल्लो त्या वेळार ताची वळख **आत्मचरित्रात्मक कादंबरी** म्हण करून दिल्ल्याचो म्हाका उगडास जाता. एका साहित्यीक मित्रालागीं हे विशीं उलोवप जालें तेन्ना ताणें ताका Travelogue म्हण पाचारलें. आनी हांवें स्वता जेन्ना पुस्तक वाचलें, तेन्ना म्हाका तें एक **लघुकथा**शें - ताचे परस चड **काणी**शें लागलें. म्हळ्यार - हे 'नवलिके'न genre विशीं प्रस्न उपस्थीत केल्यात. तेन्ना ते विशींची चर्चा जावप म्हळ्यारूच ह्या पुस्तकाचें योग्य परिक्षण जावप अशें म्हाका दिसता.

पुंडलीक नायक हो कोंकणींतलो 'पयले रांकें'तलो साहित्यीक. कोंकणींतली (देवनागरी) पयली नवलकाणी/कादंबरी **अच्छेव** ताणें बरयली. कोंकणी नवलकाणयेचो अभ्यास हे नवलकाणयेच्या अभ्यासाविणें सफळ जावंक शकना. देखून कादंबरी, नवलिका, कथा, लघुकथा, काणी म्हळ्यार कितें हे विशीं पुंडलीकबाबाक हांवें सांगपाची गरज ना. **वसंतोत्सव** आनी **दायज** सारकेल्यो येसस्वी नवलिका हे आदीं ताणें बरयल्यात. तेन्ना ह्या पुस्तकाच्या निमित्तान

साहित्याच्या कांय कायारुपां विशींची मुळावी चर्चा करप शक्य आसा काय कितें हे विशीं हांव म्हाकाच परतून एक फावट तपासून घेवंक पळयतां. **गुणाजीन** हो योग जुळोवन हाडलो म्हण अपुरबाय प्रकाशनाक परबीं.

पयलें, **गुणाजी** ही नवलिका काय कितें तें पळोवया. नवलिका म्हळ्यार कितें? 'वसंतोत्सव' आनी 'दायज' ह्या पुंडलीकबाबाच्याच साहित्यकृतीं वरवीं आमकां हाची जाप मेळूं येता. लघुकथा आनी नवलिका हांचे मदलो म्हत्वाचो भेद फकत 'लांबाय' न्हय. तांची प्रवृत्तीच वेगळी. Novella often has a dominant symbol or a complex of symbols at its heart. म्हळ्यार, नवलिकेचें कायारूप सर्वस्वी प्रबळ अशे प्रतिमेचेर वा प्रतिमांच्या गोफाचेर अवलंबून आसा. नवलिकेचे वळखीची हीच आत्मीक कुरू अशें म्हणूं येता.

कादंबरी वा नवलकाणी म्हळ्यार complexity of plot. कादंबरेंतली ही complexity च साहित्यकृती म्हण तिका बळगें मेळोवन दिता. Identity मेळोवन दिता. पूण कादंबरी आनी नवलिका हांचे मदलो म्हत्वाचो भेद म्हळ्यार depth and significance. ह्या दोनूय साहित्यपरींची खोलाय (depth) आनी खराय/थाव (significance) एकसारकी वा एके जातीची न्हय. कादंबरीक ही खोलाय आनी खराय तिचे व्यामिश्र रचनेंतल्यान, जिवनदर्शनांतल्यान प्राप्त जाता जाल्यार नवलिकेक तीच खोलाय आनी खराय/थाव तिच्या मुळसांत, अंतरांत आशिल्ले प्रबळ प्रतिमेंतल्यान वा प्रतिमागोफाक लागून प्राप्त जाता. नवलिका हें अशें एक साहित्याचें कायारूप जें कादंबरी वा कथे सारकें दिसता पूण तें तशें आसना. कादंबरी आनी लघुकथा ह्या दोनूय साहित्यरुपांचो भास ताच्या रुपांत जाता. पूण तें मृजगळ. आनी कच्च्या अभ्यासकाची हांगा फसगत जाता. The short story and novella writer does not just produce truncated novels. These different fictional genres require a different use of the resources of the writer of prose, and they should not be read or judged in the way that we read or judge a 500-page novel. म्हळ्यार लघुकथा, नवलिका आनी कादंबरी म्हळ्यार कितें हें पयलीं समजून घेवन साहित्यकृतीचें वाचन वा अभ्यास जावंक जाय. तरूच तिची फावो ती मोलावणी जावप शक्य जातलें. हें आमी, साहित्याच्या अभ्यासकांनी, सदांच मतींत धरूंक जाय.

लघुकथा आनी नवलिका हांचे मदलें म्हत्वाचें वेगळेपण म्हळ्यार 'पात्राचो विकास'. लघुकथेंत हाका उणो वाव आशिल्ल्यान व्यक्तीचित्रणात्मक लघुकथेंत

लेगीत 'पात्र विकासा'क फावो तो न्याय मेळूंक पावना. 'पात्र विकास' दाखोवच्च्या जाग्यार अटीतटीच्या प्रसंगांत - बाह्य वा आंतरीक - घुसपल्लीं पात्रां आनी तातूंतल्यान सोडणूक करून घेवचे खातीर चलिल्ली तांची धडपड, झूज हांचेंच चित्रण लघुकथाकाराक मुखेलपणान करचें पडटा. नवलिकेंत 'पात्रांचो विकास' आनी मनीस म्हण तांची जाल्ली जडणघडण हाचो आलेख पळोवपाक मेळटा. तातूंतलीं 'पात्रां' three-dimensional (त्रिमीतियुक्त) आसचीं पडटात.

लघुकथा, नवलिका, कादंबरी ह्यो सगळ्यो fictionच्योच तरा. आनी, खंयच्याच fictionची वर्गवारी थारावप वा पुरायपणान (absolutely) अमुकूच एका सांच्यांत (segment) ताका दाबून चेपून कोंबप साहित्याच्या अभ्यासाचे नदरेंतल्यान आनी आस्वादाचे वृत्तींतल्यान लेगीत समा जावचें ना. Novelette वा Novella हांचेविशीं अशेंच म्हणचें पडटलें. नवलिका हो असो वाङ्मयप्रकार whose dimensions seem different from those of a normal short story on the one hand and of a normal novel on the other. निवेदन तंत्राच्या वेगळेपणाचे नदरेंतल्यान पळयल्यार लेगीत हे तिनूय वाङ्मयप्रकार एकासारके म्हणूं नजो. हे संबंदान ली बोवित्झ म्हणटात, 'The novel's selectivity differs from the short story's because the novel's narrative task is elaboration, whereas the short story's is limitation. And the novella's techniques of selection differ from the other two genres of fiction because its narrative purpose is compression.' फकत शैलीविशयक साधन (stylistic device) म्हण पळयनासतना एक समग्र सौंदर्यशास्त्री भावावस्था (a total aesthetic impression) म्हण 'double effect of intensity with expansion' हाचेकडेन पळोवचें पडटलें. हे गजालीकडेन त्यो अभ्यासकांची नदर ओडून घेवंक सोदतात.

Travelogue म्हळ्यार भोंवडेविशींचें निवेदन - प्रवासवर्णन. तशें पळयल्यार **गुणाजी** प्रवासवर्णनाच्या निकशाचेर लेगीत खरें उतरना. कारण तें एका वृत्तांतकथनाचे पातळेचेरूच उरता. Reportage क लागीं अशें ताचें स्वरूप. जशें पळयलें तशें सांगलें. तातूंत subjectivity परस objectivity ची भुमिका इल्ली चड आसता. आनी, खंयच्याय बऱ्या फिक्शनाचो प्राण म्हळ्यार तातूंतली subjectivity. ताकाच लागून तें साहित्यकृतीचे पदवेक पावूंक शकता. हे विशीं दुबाव नासत जाल्यार **गुणाजी** मुदलांत fiction काय fiction न्हय हे विशींच दुबाव उपरासूं येतात.

आतां निमाणे कडेन गुणाजी लघुकथा म्हणूं येता काय ना तें पळोवया. 'काणी' आनी 'लघुकथा' हांचे भितरलें मुखेल वेगळेपण हें - 'काणी' मुखेलपणान सांगतात. काणयेंत सांगपी आनी आयकुपी हांचे मदीं Direct communication जायत आसता. कथेंत वा लघुकथेंत आयकुपी आनी सांगपी हांचे मदीं लिखीत स्वरुपांतलें text आसता. तें बरोवप्याक आनी वाचप्याक फावो तें स्वातंत्र्य घेवंक दिना. कांय अद्दश्य अशा नेमांच्या बांदपासांनी तें तांकां बांदून दवरता आनी काणयेचो सैल, मेकळो सभाव अंदिता. 'काणी' सभावानूच सैल जाल्यार 'कथा' तंत्रबद्द. दुसरी गजाल म्हळ्यार कथेंत नाय म्हळ्यार एक plot आसताच. 'काणयेंत' तो आसताच अशें ना. देखीक, एक राजा आसता. एक राणी आसता. राजा मरता. राणीय मरता. ही जाली काणी. पूण 'राजा मरता आनी ताच्या दुख्खान राणी मरता' अशी रचना जाता तेन्ना काणयेचीच कथा जाता. म्हळ्यार, काणयेंत कार्यकारण भाव आसताच वा आसुंकूच जाय अशें ना. कथेंत मात तो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान आसचोच पडटा.

आतां वयले पुराय चर्चेवयल्यान एक गजाल हाताक लागता ती म्हळ्यार **गुणाजी** ही एक 'काणी' जावंक शकता. एका राखण्यान आपल्या बरोबरच्या राखण्यांक सांगिल्ली, फुलोवन सांगिल्ली, एका राखण्याची काणी. कोंकणी लोकांकाणयेंत जशी कुंडेकुस्कुराची काणी आसा ते जातीची ही एक काणी. 'The aim of a short story is to produce a single narrative effect with the greatest economy of means that is consistent with the utmost emphasis.' लघुकथे संबंदांतल्या क्लेटन हॅमीलटनच्या ह्या निरिक्षणाची गवाय **गुणाजीं**त खंयच अणभवूंक मेळना. मेळटा ती रसाळ ओघवते भाशेंतली एका एका प्रसंगाची कॉमेंट्री. कथेंतल्यो घडणुको क्रमवार एकाफुडें एक अश्यो येत रावतात तेन्ना तातूंतलें कथापण सोंपता आनी ताची 'काणी' जाता. काणयेंत कार्यकारण संबंदाक थारो नासता. हाचे उरफाटें कथेंतल्यो घडणुको कार्यकारण संबंदांच्या दाल्यांनी जोडिल्ल्यो आसच्यो पडटात. घडणुकांचें स्वतंत्र अशें म्हत्व कथेंत उरना. तांचें म्हत्व कथेंतल्या पात्रांचे मनोभाव व्यक्त करचेले नदरेंतल्यानूच थारावचें पडटा. खंयचेय बरे कथेंतल्यान लेखकाक फकत विशिश्ट कल्पीत पात्रांचे जिणेंत कल्पीत थळा-काळार घडिल्ल्या घडणुकांचोच पटो मांडपाचो नासता, तर तातूंतल्यान ताका विशिश्ट 'कथार्था'ची निर्मणी सादची आसता. अशे तरेचो अणभव **गुणाजी** वाचतना म्हाका तरी निखालस येवंक ना.

**गुणाजी**क जाणें **आत्मचरित्रात्मक कादंबरी** म्हण होरायल्या ताची तोखणाय करीत तितली उणीच जातली! **गुणाजीं**त आत्मचरित्राचो अंश आयला अशें मानलें तरी, तो कितलो आयला हाचो सोद ह्या अभ्यासकान घेतला व्हय? पुंडलीक नायकान आपणाले भुरगे पिरायेर कांय वर्सां राखणेपण केलें म्हण ही कादंबरी(!) आत्मचरित्रात्मक? जालीच जाल्यार तिका गांवगिरी कादंबरी म्हणूं येताली. पावरफूल गांवगिरे कादंबरेचें म्हालवज तातूंत खुब्ब आसा. मुदलांत ती कादंबरीच नासतना तिका कादंबरेचो तिबो लावप कितलेंशें समा थारतलें? कादंबरेचो जो प्राण ती complexity **गुणाजीं**त वखदाक लेगीत सोदून मेळपाक ना. ऑक्सफर्ड डिक्शनरींत कादंबरी ह्या उतराचो अर्थ असो दिला - 'a fictitious prose narrative or tale of considerable length in which characters and actions representative of the real life of past or present times are portrayed in a plot of more or less complexity.'

**गुणाजी**च्या पयल्या वाचनांतल्यान ताच्या साहित्यीक कायारुपांविशीं म्हजे मुखार आयिल्ल्या कांय प्रस्नांच्या संदर्भांतल्यान हांगा मेरेन चर्चा केल्या. तिचो हेत कोणाक ल्हान वा म्हान दाखोवपाचो निखालूस ना. हेत इतलोच, आमकां — साहित्याच्या अभ्यासकांक — genre म्हळ्यार साहित्याच्यो जाती, प्रकार हाचेविशीं आत्मभान मेळोवपाक मजत करप. फकत प्रकारनिश्ठ समिक्षेचे (generic criticism) नदरेंतल्यान आतां मेरेन **गुणाजी** विशीं उणें अदीक बरोवपाचो हांवें यत्न केला.

आतां इल्ली नदर प्रत्यक्ष **गुणाजी** पुस्तका भितर मारुया. तशें केल्यार थंय आमकां कितें दिसता? वयर केल्ले चर्चेंत आयिल्ल्या विंगड विंगड मुद्द्यांचें practical आमकां थंय पळोवपाक मेळटा!

**गुणाजी**ची रचना पळयात. एक राखणो — गुणाजी — आपणाल्या वांगड्यांक आपयता आनी तांकां आपणाले जिणेंत जाल्ल्या एका चमत्कारा विशींची 'गजाल' आरंभापसून सांगता. एका फाटल्यान एक अशे साबार प्रसंग तातूंत आयल्यात. पूण केंद्रवर्ती घडणूक एकूच - राष्ट्रपतीच्या हातान जाल्लो गुणाजीचो भोवमान. होच हे काणयेचो गाबो. हे कथेंतले काणयेचे घटक सुरवाती सावन पळोवपाक मेळटात. देखीक, लेखकाची निवेदन पद्दत, निवेदनाची/कथनाची भास, कांबळी सोडून वडामुळांत बशिल्ले हेर राखणे, गुणाजीन घेतिल्लो वडाकडल्या देंवचाराचो सोपूत, भोवमाना कडेन चमत्काराचे नदरेंतल्यान पळोवपाची वृत्ती, फाटींफुडें

तुमीय त्या भोवमानाचे धनी जावं येतात; जावंचेच म्हणून वडाकडल्या देंवचाराक पराथपाची गुणाजीची कृती. काणयेच्या प्रवाहांत देंवचाराक दवरपाचो नाल्ल आनी विडो, गांधीबाबाचे समाधीच्या दर्शनाचो प्रसंग आनी गुणाजीचें गाराणें अशे जायते प्रसंग हे काणयेचें 'काणयेपण' सतत जागयत राविल्ले पळोवंक मेळटात. आनी निमाणें, एक भोंवर मारून ही काणी जंय प्रारंभ जाता थंयच म्हळ्यार वडामुळांतूच सोंपता.

काणी सांगपाक येवजिलां तें तंत्र सभावीक आसा. लोकधाटी निवेदनपद्दतीचो आनी लोकभाशेचो देखदिणो उपेग करपाचें कसब दिश्ट लागत इतले बरे तरेन लेखकान संपादलां. निजाची गांवगिरी आनी सैमसुंदर भास आनी निवेदनतंत्र हेंच ह्या पुस्तकाचें व्हडलें देय आनी स्रेय.

गुणाजीचें व्यक्तीचित्रण जितलें व्यामिश्र जावपाक जाय आशिल्लें तितलें तें जावंक पावूंक ना. ताका लागून 'आत्मचरित्रात्मक' भितरल्या 'आत्म'चें चितारप लेगीत बरे तरेन जावंक ना. चरित्रचित्रण तर खुबूच पयस उरलें. गुणाजीचें हें चित्रण लोकांकाणयेच्या सांच्यांतल्यान काडिल्ले वरी दिसता आनी तांतूंतल्यान 'सामको बोडगेश्वर जाला मरे!' हीं उतरां गुणाजीक लेखकान लायिल्ल्या तिब्याचे साद सादयत रावतात. पात्रचित्रण आनी विकासाचे नदरेंतल्यान शंकर सरपंच, गोविंदभट, बायल विठाय, नातू आनी घरचीं हेर मनशां, दिल्लींतलो येंकटेश आनी हेर राज्यांतले राखणे अशीं कांय मनशां गुणाजींत मेळूं येतात. पूण गुणाजींत तीं आयल्यांत अद्भूत, चमत्कारी काणयेंत मेळटात तशीं. पळयतां पळयतां अद्दश्य जावपी.

आं, तुमीय गुल्ल जाल्यात? आरे, थंय पळयात. सरयांतलीं गोरवां भायर सरलीं. धांवात, धांवात आपापल्या गोरवां फाटल्यान...

पूण वयली चर्चा विसरूं नाकात! आनी ते खातीर सगल्यांत पयलीं 'गुणाजी' वाचात. नाजाल्यार चर्चेक मात्तूय 'जिवसाण' उरची ना. चर्चेचोय चमत्कार जातलो.



आदारावळ :

१. Anatomy of Criticism - Northrop Frye.
२ Five Approaches to Literary Criticism - Wilbur S. Scott.
३. What is Literature? - Sartre Jean Paul.
४. The Novel: Modern Essays in Criticism - (Ed.) Davis Robert M.
५. Aspects of the Novel - Foster E M
६. The Theory of Novel - Luka'cs George.
७. The Short Story - Reid Iam.
८. The Anatomy of the Novel - Boulton Marjorie.
९. The Short Story: Its Principles and Structure - Albright Evelyn May.
१०. The Modern Short Story - Bates H E
११. कहानी: अनुभव और शिल्प - जैनेन्द्र.
१२. कहानी: स्वरूप और संवेदना - मुन्शी प्रेमचंदजी.
१३. कहानी: स्वरूप और संवेदना - यादव राजेंद्र.
१४. समकालीन हिंदी कहानी का रचना-विधान - गंगाप्रसाद विमल.
१५. देशी वाण - चंद्रकांत बांदिवडेकर.
१६. टीकास्वयंवर - भालचंद्र नेमाडे.
१७. Genre - Dubrow Heather.
१८. ललित साहित्यातील आकृतिबंधाची जडणघडण - मधु कुलकर्णी.
१९. कादंबरी: एक वाङ्मयप्रकार - जान्हवी संत.
२०. साहित्य: अध्यापन आणि प्रकार - संपा. श्री पु भागवत व इतर.
२१. कथा: संकल्पना आणि समीक्षा - सुधा जोशी.
२२. प्रतिभा-साधन - ना सी फडके.
२३. साहित्याचे तत्त्वज्ञान - वि ना ढवळे.
२४. कथाशिल्प - लक्ष्मणराव सरदेसाई.
२५. साहित्यसिद्धांत - स गं मालशे (अनुवाद: Theory of Literature)
२६. Feeling and Form - Langer Susanee K.
२७. साठोत्तरी मराठी समीक्षा - संपा. केशव सद्रे.
२८. स्वातंत्र्योत्तर हिंदी कथासाहित्य और ग्रामचेतना - संपा. विवेकी राय.

# ७.

# 'ओथांबे' : रवीन्द्रोपनिषद्

रवीन्द्रबाब केळेकारांलें बरप म्हळ्यार एक साधनाच. जिणेचो आपरोस कसो. **ओथांबे** तांगेलें नवें पुस्तक. सप्टेंबर ९९त बांदोडेंच्या 'माणिकपद्म प्रकाशना'न तें उजवाडाक हाडलां. हे परंपरेंतलें रवीन्द्रबाबांलें हें तिसरें पुस्तक. पयलें **वेळेवयल्यो घुलो** जून ७१त उजवाडा आयिल्लें. तेन्ना सावन ही परंपरा मुखार चलत रावल्या. दुसरें, **सांगाती**. हेच परंपरेंतलें तांचें नवेंताल्ल पुस्तक **घुसपल्लें जानवें** तांच्या अमृत महोत्सवी वर्सा निमतान हालींच मार्च २०००त उजवाडा आयलां. ह्या पुस्तकां सांगाताक **उजवाडाचे सूर** पुस्तकाकूय घेवचें पडटलें. तांच्या चिंतनशील बरपावळीचें हें एक पंचक. मनशाचे जिणेंतले साबार रोस तातूंतल्यान चाखपाक मेळटात. आनी चाखतल्याक थाकाय दितात. एक नवी द्दश्ट दितात - मनीस जिणे कडेन पळोवपाची आनी जीण जगपाची.

**ओथांबे** पुस्तकांत ल्हान व्हड अशीं १५० बरपां एकठांय आयल्यांत. तांच्या स्वरुपा विशीं आनी एकूण प्रवृत्ती विशीं खासा लेखकानूच म्हळां, ''म्हजो सभाव मातसो चिंतकाचो. कसलीय सादी गजाल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता. आनी चिंतनाच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरता. एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं हीं तुटिल्लीं चिंतनां आसलीं तरूय तीं पावसाचे पांवळे भाशेन थेंब्या थेंब्यान पडपी आनी सतत व्हांवपी.''

रवीन्द्रबाबान हांकां 'एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं तुटिल्लीं चिंतनां' अशें म्हणिल्लें आसलें तरी म्हाका तीं तशीं दिसनात. तातूंतल्यान अखंड अशें एक सुत्र म्हाका सतत  जाणवत आयलां तें म्हळ्यार जिणेचें सुत्र. उपनिषदांची सुत्रबद्धता आनी संवादीपण तांकां रूपकार दिता. सत्याचो सोद घेवपी हीं चिंतनां म्हळ्यार कोंकणी भाशेंतलें उपनिषदूच. तातूंतल्यान दीसपट्ट्या जिविताचें दर्शन जाता तशेंच एका प्रगल्भ, प्रौढ मनाचें दर्शनूय जाता. तातूंतल्यान जिणेचो गंध आनी अर्थ बळयां सोदचो पडना. तो तातूंतल्यान अखंडपणान पाझरता. रवीन्द्रबाबालीं हीं बरपां म्हळ्यार गद्य कविताच. मनीसजिणेचे आनी मानवी संस्कृतायेचे केळवणीचो अखंड, अनंत, अपरूप असो हो उत्सव. तांच्या जिविताची

लांबाय रुंदाय ह्या ओथांब्यांक लाबल्या. आनी ताका लागून हातूंतलो एक-एक ओथांबो म्हळ्यार एक म्हासागरसो. ताची खोलाय वाचप्याक जिविताच्या मळार खोल खोल ओडून व्हरता. आनी जें दिसता ताचे फाटल्यान आसपी 'सत्य-शिव-सुंदरा'ची वळख करून दिता. निजाच्या वाचप्याक ताच्या वाचनान एक असोशी-शी लागता. परतून परतून ताका तातूंत खोल खोल देंवनशें दिसता. तशें केल्ल्यान तो घुसमटना तर ताका जिणेचो नवो नवो दिश्टावो अणभवूंक मेळटा. आनी वाचप्याच्या ह्या प्रवासांत, ह्या बुडपांत खासा रवीन्द्रबाब ताच्या सांगाता आसता. उपनिषदांतल्या गुरू वरी. हें ह्या ओथांब्यांचें खाशेलेपण. आपल्या बरपां विशीं उलयतना मेन्तैन एके कडेन म्हळां, 'हांव ह्या बरपांनी म्हाकाच चितारतां.' रवीन्द्रबाबांले हे ओथांबे लेगीत तांकांच बेस बरे चितारतात.

हातूंतले ओथांबे ल्हान व्हड आकारांचे. ल्हानांत ल्हान अडेज वळींचो जाल्यार व्हडांत व्हड अडेज पानांचो. पूण दोगांयचें वजन एकसारकें. उदकाचो आकार कितें म्हण विचारल्यार कितें सांगूं येता? ज्या आयदनांत तें भरता तो ताचो आकार. पूण म्हाका दिसता, अशें म्हणप पूर्ण सत न्हय. पूर्ण सत कितें? पूर्ण सत - उदकाचो आकार उदक. जिविताचो, जिणेचो आकार कितें? जिवीत, जीण हीच ह्या प्रस्नाची जाप.

ओथांबे म्हळ्यार जेष्ठांतलो घसघश्यांचो पावस न्हय. न्हय तो शिरवानांतलो झिरीझिरी पावस. दडकांचो पावस वरांचीं वरां पडटा. अख्खी सृश्ट जळमय जाल्या. रुखा पेडार, पाना पानार उदक थारलां. आनी पावस ओखळटा. मनाक सूऽ जाता. पूण खिणभरांत मनाक जागोवपी 'ओथांब्यां'चो साद संथमंद्र लयेंत कानामनार सादयत रावता. 'टप...' 'टप...' 'टप...' 'टप...!' काळखी रात आसत जाल्यार हो साद रंध्रां-रंध्रांत अथांग देंवत वता. आनी मनशाक अंतर्मूख करता. मनीस 'कोहंऽ?'चो सोद घेवपाक भायर सरता. कुडीचे, आपले कुडी, भायर सरता. रवीन्द्रबाबांले 'ओथांबे' हेंच कार्य सादतात. ते मनशाक कुडी भायर सरून जिवन-यात्रा करपाक अणभवाच्या अथांग म्हासागरांत बुचकळी मारपाक प्रेरीत करतात. नीत-अनीत, चारित्र्य, सृजन, शिक्षण, समाज, राजकारण, साहित्य-कला, अर्थकारण, विज्ञान, धर्म, शास्त्र, वेद, बायबल, कुराण, संस्कृताय-सभ्यताय, दुश्ट-सुश्ट, सत-असत, तत्त्वगिन्यान, तंत्रगिन्यान, बुद्ध, महावीर, गांधी, आंबेडकर, तुकाराम, सूर, तुलसी, मीरा, कबीर, टॉलस्तॉय, रवीन्द्रनाथ

अशे साबार विशय आनी आशय हांची भोंवडी, परिक्रमा, ते घडोवन हाडटात. तांच्यांतलो इश्ट, तत्त्वगिन्यानी आनी गुरू ह्या प्रवासांत पावला कणकणीं वाचप्याचो सांगात करता. ताका हाताक धरून चलयता. चलतना केन्ना चिमटे काडटा, केन्ना कोंपर मारता, केन्ना मदेंच लिपून भेश्टायता, तर केन्ना पाठराखण लेगीत करता.

उपनिषदांचे परंपरेंतलो आनी 'लीळाचरित्रा'चे जातकुळयेंतलो हो ग्रंथ कोंकणी सरस्पतीच्या भक्तांक सतत सादयत रावतलो. मनीस म्हण आमचें दायज आनी दायकी विशीं आमकां सदासर्वकाळ जागयत दवरपाची तांक ह्या ग्रंथांत आसा. ह्या ग्रंथांत रवीन्द्रबाबान विनोबांचीं उतरां दिल्यांत, तातूंतल्यान ह्या ग्रंथाचो आशय बेस बरो उकतो जाता :

''आमी अनादी काळाचे यात्रीक. आमची यात्रा आयज लेगीत एका सारकी चलत आसा. असलो यात्रीक खंयच्याय एका देशाचो अभिमानी आसचो ना. तो खंयच्याय एका धर्मपंथाच्या वा जातीच्या जाळांत आपणाक घुसपावन दवरचो ना. संवसारान सत विचारांचें एक पोरसूं फुलयलां. ह्या पोरसांत भोंवप हो ताचो स्वाध्याय आसतलो. आनी वेगळ्या वेगळ्या मत्तांच्या लोकां मजगतीं एकचार घडोवन हाडप ही ताची साधना आसतली.''

* * *

## ८.

# 'अथांगा'चो थाव घेतना

'अथांग' हो जयंती नायक हांचो दुसरो कथांझेलो. तांचो पयलो झेलो 'गर्जन'. 'गर्जना' उपरांत बारा वर्सांनी हो दुसरो झेलो प्रकाशीत जाला. मदल्या बारा वर्सांच्या काळांत तांणी बरयिल्ल्या कथांतल्यान वेंचीक कथा घेवन हो झेलो गुंथला. झेल्यांत वट्ट सतरा कथा आसात. सुमार देडशें पानांचो ताचो विस्तार. ताचे भितर कांय मोटव्यो जाल्यार कांय दीर्घताये कडेन पावलां मारपी कथाय आसपाविल्ल्यो पळोवंक मेळटात. तरी, ह्यो सगल्यो कथा 'लघुकथें'तूच मोडटात. पूण खऱ्यांनीच त्यो सगल्यो 'लघुकथा' आसात व्हय, असो प्रस्न ह्या झेल्यांतल्यो कांय कथा वाचिनाफुडें म्हजे सामकार उबो जालो. चडश्यो कथा पर्थून वाचून काडल्यो. आनी हांव चक्रावलों. आशय म्हळ्यार कथेचो 'प्राण'. पूण ताका फावोशी 'कूड' ना असोच कांयसो प्रकार ह्या कथांचे बाबतींत जाल्लो जाणवलो. दुसरी एक गजाल जाणवली - जयंतीबायची लिखणी कथे परस नवलकथेक अदीक अनुकूल आसा. हांव सल्लो दिना. पूण जयंतीबायन मुजरत नवलकथा बरोवपाचो यत्न करून पळोवचो अशें म्हाका सांगीन दिसता. ह्या झेल्यांतल्यो 'बसवो', 'अवसर', 'रमा', 'काणी सिंड्रेलाची' बी पांच-सात कथा सोडल्यार बाकीचे बरपावळीक कथा म्हणप समा जायतशें दिसना.

जयंतीबायच्या ह्या झेल्या विशीं आतां मेरेन - म्हळ्यार, फाटल्या स-सात म्हयन्यां भितर जायते जाण खूब कितें उलयल्यात आनी तशेंच जायतें बरोवनूय आयलां. पूण ह्या सगळ्याचेर 'लोकवेद संशोधक' म्हण जयंतीबायन जोडिल्ले नामनेची सया आसा. एके समर्थ कथालेखिकेन बरयिल्ल्यो कथा म्हूण ह्या कथांची मोलावणी जावंक जाय आशिल्ली. ती जाल्ली पळोवपाक मेळना. तसो एक सुपुल्लो यत्न ह्या नियाळा वरवीं करचो थारायला. हांगा लेखिकेक उणी लेखपाचो निखालूस विचार ना. ह्या झेल्यांतल्यो कथा 'कथा' म्हण खंय उण्यो पडटात तें दाखोवपाचो हो यत्न. देखून कथा ह्या साहित्य प्रकारा विशींची गरजे पुरती चर्चा पयलीं करून ताच्या उजवाडांत ह्या कथाझेल्यांतल्या कथांचो नियाळ आनी मोलावणी करप समा जातलें अशें दिसता.

साहित्याचो अणभव घेवपाचे प्रक्रियेंतूच एके तरेन साहित्य प्रकाराची

जाणविकाय लिपिल्ली आसता अशें म्हणूं येता. खंयचीय साहित्यकृती आमी वाचतात तेन्ना ती एके विशिश्ट जातीची म्हळ्यार कथा, नवलकथा, नाटक वो कविता म्हुण्णूच आमी वाचतात. कविता झेलो घेवन तांतल्यो कविता आमी नवलकथा म्हण वाचिनात वा नवलकथा नाटक म्हण वाचिनात. हाचो अर्थ, खंयचेय एके साहित्यकृतीचें वाचन करचे पयलींच साबार साहित्यप्रकारां विशींची जाणविकाय, तांचें रुपडें, तांचे निजाचे अशे संकेत, तंत्र हांचे विशीं सादारणपणान वाचप्याक जाण आसता. ह्या गिन्यानाच्या आदारान कळटां नकळटां ताचे मतींत वाचपाक घेतिल्ले ते साहित्यकृती विशीं कांय अपेक्षा लेगीत निर्माण जाल्ल्यो आसतात. वाचनांतल्यान ह्यो अपेक्षा सफळ जाल्यो नात जाल्यार ते साहित्यकृतींत कितें तरी उणें आसा अशें निश्चीत म्हणूं येता. 'अथांगा' विशीं म्हाका एक वाचक म्हण असोच अणभव आयलो. ताचें कारण कितें, ताचो हो सोद. 'अथांगा'चो थाव घेवपाचो यत्न.

कांय जाणांच्या मत्तान दर एक साहित्यकृती 'अनन्यसाधारण' आसता. पूण अशें मानप समा न्हय. कित्याक, अशें मानलें जाल्यार साहित्याचें वर्गीकरण वो साहित्यकृतीची तुळा संभव जायना. आनी तिचे मोलावणेच्या कार्यांत विघ्न येता. दर एके साहित्यकृतीक निजाचें अशें 'स्व'त्व आसता, म्हळ्यार तिगेले खाशेले, निजाचे गुणधर्म आसतात. हातूंत तिगेल्या खाशेल्या रूपबंधाचो, रुपड्याचो आसपाव जाता. तेच भशेन तिचे भितर कांय रासवळ गुणधर्म लेगीत आसतात. हे रासवळ गुणधर्म म्हळ्यार जातितत्त्व (Genre). दर एका साहित्य-प्रकाराचो एक संकेतव्यूह, एक संकेत वळेरी आसता. ही संकेत वळेरी ते साहित्यकृतीक 'विशिष्टत्व', खाशेलपण जोडून दिता; म्हळ्यार ही संकेत वळेरी ते विशिश्ट साहित्यकृतींतल्यान प्रगट जायत आसता. हे संकेत वळेरेचे वो रासवळ गुणधर्माचे फाटभुंयेचेर ते ते साहित्यकृतीचें 'विशेशत्व' - खाशेलपण / नीजपण — प्रगट जातना पळोवंक मेळटा. आनी देखुनूच साहित्याचें वर्गीकरण करप आनी मोलावणेच्या कार्यांत ताचो आदार घेवप भोव गरजेचें आनी नीतकारी थारता.

कथात्म, भावकाव्यात्म आनी नाट्यात्म हे लळीत साहित्याचे तीन मुखेल वर्ग अशें मानतात. साहित्य लेगीत एक लळीत कलाच. 'सर्जक अनुकृतिशीळताय' हें लळीत कलांचें व्यवच्छेदक लक्षण म्हण ॲरिस्टॉटलान सांगलां. साहित्य हें अनुकृतीचें माध्यम. ह्या माध्यमाक लागुनूच साहित्यकला हेर लळीत कलां परस

वेगळी थारता, अशें ताणें म्हळां. निवेदनाच्या आदारान अनुकृती करप हें म्हाकाव्याचें लक्षण अशें तो सांगता. म्हाकाव्य कथात्म साहित्याचो एक प्रकार. हाचो अर्थ, निवेदनात्मकताय वो कथनात्मकताय हें कथात्म साहित्याचें एक व्यवच्छेदक खाशेलपण. नवलकथा, कथा हे कथनात्मकतायप्रधान साहित्यप्रकार आशिल्ल्यान ते कथात्म साहित्याचे प्रकार थारतात. आनी ते विशीं कोणाचेंच दुमत ना.

कथा हो एक साहित्यप्रकार. तो गद्यांत आसूं येता तसो पद्यांतूय आसूं येता. कथा म्हळ्यार कितें, ह्या प्रस्नाचेर जायत्या श्रेश्ट कथाकारांनी आनी साबार साहित्यविमर्शकांनी आतां मेरेन बरोवन दवरलां. त्या सगल्या बरप्यांच्या हे विशींच्या मत्तांचो आपरोस काडलो जाल्यार अशें म्हणूं येता, की 'कथे' विशींची संकल्पना काळा बाराबर बदलत आयल्या. अमेरिकेचो म्हालगडो कथाकार एडगर ॲलन पो हांणी १८४२ वर्सा कथेच्या स्वरुपलक्षणांची पयलीवयली मांडणी केली आनी तेन्ना सावन तिचे तत्त्वचर्चेक प्रारंभ जालो. ते उपरांत स्वतंत्रपणान तत्त्वचर्चेच्या आदारान कथेची संकल्पना विसकटावन दाखोवपाचो प्रयत्न ब्रॅंडर मॅथ्यूज हाणें The Philosophy of the Short Story ह्या आपल्या निबंदा वरवीं (१९०१) केलो. ह्या मळावयलें हें फुडलें पावल. ते पयलीं म्हालगडो कथाकार चॅकोव्ह हाणें हे विशीं भासाभास करतना म्हळां (१८८९), ''रंगमाचये प्रमाण कथेक लेगीत निजाचे कलासंकेत आसात.'' मराठी भाशेंतले एक नामनेचे कथाकार आनी कथा आलोचक प्रा. ना.सी. फडके हांणी पो हाणें मांडिल्ले संकल्पनेच्या आदारान एक कथा संकल्पना मांडल्या. तातूंत ते म्हणटात, ''उण्यांत उणीं पात्रां आनी उण्यांत उणे प्रसंग उपकारावन थोड्या वेळा भितर परिणामकारक रितीन सांगिल्ली वा आयकुप्यांच्या मनाचेर एकूच छाप घालपी हकीगत म्हळ्यार लघुकथा.'' तांणी केल्ले 'कथे'ची ही व्याख्या बारीकसाणीन नियाळून पळेल्यार कथेच्या साबार आंगांच्या सांगातान तिच्या मुळाव्या दोन रूपगुणांचो दिश्टावो जाले बगर रावना. हे दोन गूण म्हळ्यार 'हकीगत' आनी ती सांगपाची 'रीत'. खरेपणानशीं 'कथा' ह्या साहित्य प्रकाराच्या गाड्याचीं हीं दोन चक्रां. आनी ताची धुरा म्हळ्यार 'कथ्य'. 'कथ्य' म्हळ्यार निखळ 'हकीगत' न्हय. कथा सांगप्यान आपले खाशेले नदरेंतल्यान सांगिल्ली हकीगत म्हळ्यार 'कथ्य'.

कथेंत 'कथ्य' आनी तें सांगपाची 'रीत' ह्यो दोन गजाली सगल्यांत

म्हत्वाच्यो. ते बगर त्या सांगपाक परिणामकारकताय येना. तशेंच, रंगरुपूय प्राप्त जायना. लळीत कलेच्यो ह्यो आदिशक्ती. 'कथ्य' हो प्राण जाल्यार 'रीत' ही कूड. हो प्राण धारण करपी हे कुडीचीं पंचेंद्रियां म्हळ्यार कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन आनी भास.

कथात्म साहित्यकृतीची संहिता (text) विंगड विंगड निवेदन प्रकारां वरवीं भाशेच्या माध्यमांतल्यान आकाराक येता. कथानक, पात्र, वातावरण हीं आंगां तातूंतल्यान प्रगट जातात आनी ह्या सगल्यांतल्यान एकात्मपणान कथात्म साहित्यकृतींतल्या अनुभवार्थाची वो कथार्थाची निर्मणी जाता. हें सुत्ररुपान सांगूं येता: अनुभवार्थ, आशयसुत्र, कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन आनी भास अशीं घटकांगां मेळून कथात्म साहित्यकृतीची समेष्टी सिद्ध जाता.

कथन, वर्णन, भाश्य आनी संवाद हीं निवेदनाचीं साबार आंगां. कथानक म्हळ्यार निखळ काणी (story) न्हय. कथानक म्हळ्यार plot. संघटणतत्त्वांक धरून काणयेच्या आंगांची केल्ली मांडणी. 'काणी' (story) आनी कथानक (plot) हांचेमदल्या स्वरूपभेदाची सगल्यांत पयली मांडणी ई एम् फॉस्टर हांणी केली. ते खातीर तांणी संघटणतत्त्व हें सुत्र आपणायलें. घडणुकांची संघटणा करच्या कार्यांत फकत 'काळानुक्रम' (chronology) हें एकूच तत्त्व आपणायलें जाल्यार ते तरेचे रचनेक 'काणी' म्हणची आनी घडणुकांचे गुंफणेंत 'काळानुक्रमा'च्या सांगातान जर कार्यकारणभावाचें सुत्र सक्रीय आसत तर ताका 'कथानक' म्हणचें अशें ते सांगतात.  कथानक म्हळ्यार कथ्य न्हय, तर कथ्य साकार करपी तें कथेचें एक आंग.

'कथा' ह्या साहित्यप्रकारा विशींचे हे अल्प तत्त्वचर्चे उपरांत ताच्या उजवाडांत आतां जयंती नायक हांच्या 'अथांग' कथा झेल्यांतल्या कथांचो सुवाद घेवं येता.

'अथांगां'तल्या कथांचे कांय वांटे घालून ते विशींची भासाभास करप सोंपें जातलें. ह्या झेल्यांतल्या कथांचेर उडटी नदर मारीत जाल्यार एक गजाल सट् करून मतींत येता. ती म्हळ्यार, तातूंतल्यो साबार कथा अस्तुरी केंद्रीत आसात. दोन-तीन कथांचोच हाका आडवाद आसूं येता. जयंती नायक हांचे अस्तुरी स्वतंत्रताये विशींचे विचारसरणेचो हो प्रभाव आसूं येता. पूण हाका लागून लेगीत कांय कथांचें 'कथापण' इबाडून वता. देखीक 'शारदाम्मा' ही कथा. खोलायेन अभ्यासल्यार हांव कितें म्हणटां ताचो उमज अभ्यासकाक जावं येता.

हे कथेचे धारेंत गरजे भायर अस्तुरी स्वातंत्र्या विशींचीं घोशणावजा कांय विधानां आयल्यांत. ताका लागून आनी कथेचे मांडावळीक लागून कथेचो 'प्राण' बळिश्ट कुडी विणें हुमकळटा अशें जाणवता. 'आसाडी' ही झेल्यांतली सुरवातीचीच कथा बरी आसा, पूण थंयूय हो दोश उण्या-अदीक प्रमाणांत पळोवंक मेळटा. ही कथा एके 'आवय'ची. पूण तिचे सुरवातीचो अर्दोअदीक व्याप पळेल्यार तिका खंयचे दिकेन वचचें आसा वा ती खंयचे दिकेन वचची हाचे विशीं कथा आनी लेखिकाय भानार आशिल्लीं दिसनात. 'पानवळ' हे कथेची वीण लेगीत विसविशीत जाल्या. 'सपन', 'भागरत', 'मुमताज' ह्या कथां विशीं लेगीत चिरेबंद बांदावळीचो उणाव दिसता. 'फिलमीनमाना', 'भाकीत', 'चित्रा', 'रमा' ह्यो कथा मॅलोड्रॅमॅटीक जाल्ल्यान प्रभावहीण वा प्रभावदुबळ्यो जाल्यात. रचनातंत्राच्या उणेपणाक लागून आनी, 'भाशे' सारकेल्या कथेच्या घटकांचे तांकीच्या अज्ञानाक लागून अशें जालां. केन्ना केन्ना बरी भास बरे कथेक मारक थारता हे विशींची देख ह्या कथांतल्यान पळोवपाक मेळटा. भाशेच्या भोंवऱ्यांत लेखक वा लेखिका फसले उपरांत कथेचें कितें जावं येता ताच्यो ह्यो देखी.

'भेट' आनी 'ती' ह्यो दोन कथा मात ghost story सारक्या वातावरणाच्यो कथा. लेखिकेची लिखणी हांगा चंवरून येता आनी कथेचो परिणाम वाडोवंक ताका लागून मजत जाता. प्रतिकात्मकतायेंतल्यान जिवनभाश्य करूंक पळोवपी अश्यो ह्यो कथा. असले तरेच्या कथांनी रचणुके खातीर तकलीफोड व्हड प्रमाणांत करची पडना. ही कथा व्हडश्या प्रमाणांत chronological म्हळ्यार घडणुकांच्या इतिहासीक क्रमाक अनुसरपी आसता. आनी तशें पळोवंक गेल्यार रचप्याचो कस हे तरेच्या कथालेखना वरवीं लागना. अशे तरेचे कथेंत 'कथानक' नासता, तर 'गोष्ट' वा 'काणी' आसता आनी ताका लागून ताका 'कथा' म्हणप म्हणल्यार अतिताय जावं येता.

ह्या झेल्यांतल्यो 'बाळसटी', 'अंवसर', 'बसवो' आनी 'काणी सिंड्रेलाची' ह्यो कांय बऱ्यो कथा अशें म्हणूं येत. तातूंत 'काणी सिंड्रेलाची' ही कथा ह्या झेल्यांतली सगल्यांत बरी कथा. कोंकणीच्या वाठारांत आनी इतिहासांत लेगीत तिका सुवात आसा अशें म्हणूं येता. हे कथे वरवीं एक गजाल सिद्ध जाता, ती म्हळ्यार लिखणी seriously हातांत घेतल्यार जयंतीबाय बऱ्यांतली बरी कथा बरोवंक शकता. 'अंवसर', 'बसवो' बी कथा तांकां बऱ्यो जमल्यात. तरी लेगीत तंत्राच्या उणेपणाक लागून तांचो कस उणो जाला. ह्या कथांचें seriously पुनर्लेखन

जालें जाल्यार तांकां चोवीस कॅरेटचो कस लागूं येता. सध्याक त्यो बावीस कॅरेटाचेर आसात.

पात्रचित्रणाचे नदरेंतल्यान पळोवंक गेल्यार ह्या झेल्यांतल्यो दोन वांटे कथा अस्तुरीप्रधान आसून लेगीत तातूंतल्यान ठसठशीतपणान जिवी तट्टटीत 'व्यक्ती' वाचप्यां मुखार येना. आडवाद फकत सिंड्रेलाचो. बाकीचीं व्यक्तीचित्रणां 'चितारपां' जाल्यांत, 'भुमिका' न्हय. तांकां दोनूच dimensions लाबल्यांत. तीन dimensions न्हय. देखून तीं कागदारूच उरतात. तीं जिवीं जावन, उठून वाचप्या कडेन संवाद सादिनात.

एके मर्यादे मेरेन 'भागरत' कथेंतलें 'भागरती'चें पात्रचित्रण बेस बरें सादलां. पूण रचणुकेंतल्या उणेपणाक लागून तें निवेदनाच्या पांवड्याचेरूच तिश्ठत उरिल्लें दिसता.

'निवेदन' आनी 'भास' हे विशींचो जाणीवपुर्वक वापर केल्लो आडवादानूच पळोवंक मेळटा. परतून हांगा 'सिंड्रेला' कडेनूच बोट दाखोवचें पडटा. 'निवेदन' वा 'कथन' म्हळ्यार फकत 'सांगप' न्हय. तातूंत 'कथ्य' आसूंक जाय. आनी साबार कथांनी, कांय बऱ्यो कथा सोडल्यो जाल्यार, हाचोच उणाव आसा हें जाणवता. कथेची भास म्हळ्यार 'व्याकरणी भास' न्हय, हाची जतनाय कथालेखन करप्याक पावला पावलाक म्हळ्यार उतरा उतराक घेवची पडटा. हाचें कारण म्हळ्यार ती भास ते कथेंतल्या 'कथ्या'ची वाहक आसता. देखीक, पेट्रोल आनी डिझल दोनूय गाडयो चलोवपाक वापरतात. पूण पेट्रोलार चलपी गाडी डिझलार चलना आनी डिझलाचे गाडयेक पेट्रोल चलना. तेच प्रमाण दर एके कथेची रचणूक मतींत घेवन मागिरूच फावो ते भाशेचो वापर करचो पडटा. तरच 'कथा' चलता. ना जाल्यार पांगूळगाडयेच्या – वॉकराच्या – आदारान आवय भुरग्याक चलयता तीच तरा कथाकार, कथा आनी कथेचे भाशेची जाता.

एक गजाल ह्या झेल्यांतल्या कथांतल्यान पळोवंक मेळटा, ती म्हळ्यार, जायत्या कथांचेर लेखिकेचे जिणेची आनी तातुंतूय लोकवेदाचे अभ्यासिकेच्या अणभवांची सया पडल्या. 'आसाडी', 'अंवसर', 'बसवो' ह्यो हाच्यो कांय ठळक देखी.

जायते फावटीं कथाकार वा कलाकार म्हळ्यार सर्जक आपूण कितें तरी क्रांतिकारक करतां अशें दाखोवन दिवपाच्या हावेसाक लागून आपले निर्मणे मदें कांय 'नाटकां' करता. ताका लागून ते निर्मणेक एक 'भडक' रूप वा रंग फावो

जाता. लोकांक, कांय लोकांक, तें आवडटाय बी आसूं येता. पूण रसिकांक आवडना. कारण अशीं 'नाटकां' जायते फावटीं 'रसविघ्न' निर्माण करतात. कलाकृतीची तशी मागणी आसत जाल्यार गजाल वेगळी. ती समजूं येता. आनी कलाकृतीची तशी मागणी पुराय केल्ल्यान 'रसविघ्ना' बदला 'रसपरिपोष' जाता आनी ते कलाकृतीची रसवत्ता वाडटा हें सत. पूण हे बाबतींत 'विवेक' आसचो पडटा. विवेक सुटलो जाल्यार ते कलाकृतीचो कपाळमोक्षूय जावं येता. अश्लीलतायेचो प्रस्न हीय अशीच एक गजाल. तिचे विशीं व्हड व्हड साहित्यिकांची दिशाभूल जाल्ल्यान ते पागळ्ळ्यात आनी व्हांवतेर गेल्यात. पूण कांय जाणांनी 'विवेक' जागो दवरून तिचो आलाशिरो घेवन आपणालें साहित्य अजरंवर केल्ल्याच्योय देखी आमकां पळोवंक मेळटात. सांगपाची गजाल म्हळ्यार, जयंतीबायनय 'विवेकहीण' अशे कांय देखाव आनी कांय वर्णनां आपल्या कांय कथांतल्यान शिंवरल्यांत. देखीक 'सपन' ही कथा पळोवची. भडक भास वापरल्यार आनी तशेच देखाव उबारले जाल्यार कथा चड परिणामकारक जाता अशे तरेचो अपसमजय अशे तरेचे करणेच्या मुळसांत आसूं येता. पूण तो खरो न्हय. हांगा एके इंग्लेज म्हणणेचो उगडास करून दीन सो दिसता. ती म्हळ्यार, 'सीझराची बायल पतिव्रता आसूंक जाय, पूण ती तशी आशिल्ल्याचें दिसुंकूय जाय.'

जायते फावटीं पुस्तकाच्या कवरा वयलें चित्र बरें आसता. तें व्हड चित्रकारानय काडिल्लें आसूं येता. पूण तें 'खरें' आसताच अशें न्हय. 'खरें' म्हळ्यार साहित्यकृतीच्या आशयाक वा कथ्याक वा टायटलाक अनुसरपी. बाब श्रीधर कामत बांबोळकार हे गोंयचे नामनेचे चित्रकार. आजवेर तांणी खूब नामना जोडल्या. जायत्या पुस्तकांचीं मुखचित्रां रंगयल्यांत. चित्रकार म्हण ते व्हड आसात हे विशीं दुबाव ना. 'अथांग' ह्या झेल्या खातीरचें तांचें सप्तरंगी चित्र सुंदर आसा पूण तें 'सुयोग्य' ना अशें स्पश्टपणान सांगीनशें दिसता. 'मुखचित्रा'मदें माध्यम बदलता, 'आशय' न्हय हाचो विसर पडचो न्हय. 'मुखचित्र' चितारपी कलाकाराक साहित्याचोय अभ्यास आसचो पडटा. तेन्नाच तें मुखचित्र 'मुखचित्र' थारता आनी 'रसिकत्व' जागें करता.

* * *

९.

# ... तरी लेगीत 'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना'

*काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना* हो काशिनाथ शांबा लोलयेकार हाचो तिसरो काव्यझेलो. *काशि म्हंटा* (१९८२) आनी *काशिक म्हणचेंच पडटा* (१९९७) ह्या दोन झेल्यां उपरांतचो. ह्या झेल्यांतल्यो कविता फकत एका वर्सांतल्यो. दुसऱ्या झेल्या उपरांत वट्ट सात वर्सां ताणें एकूय कविता बरोवंक नासली. आनी सात वर्सांची तफावत एकाच वर्सांत भरून काडली अशें तो म्हणटा. अशेंय म्हणूं येता - ह्या झेल्यांतल्यो कविता बरोवंक ताका पुराय सात वर्सां 'कविते'क होरावची पडली. काशि म्हणटा तशें *लोलयेकार कितें पारशेकार कितें* तेच वरी, सात वर्सां कितें आनी सातशीं वर्सां कितें, ताका रावचें पडलें इतलें खरें. कित्याक? जाप ना. कित्याक जाप ना? हाकाय जाप ना. हे नाशिल्ले जापेचो सोद म्हणजेच काशिची कविता. तेंच तिचें अस्तित्व. तीच तिची नियती. आपल्या पयल्या झेल्यांतले पयलेच कवितेंत शेवटाक काशि म्हणटा

*म्हज्या फाटसून सगलें सोंपलें*<br>
*तेन्ना कालच्या इतलींच वरां जाल्लीं*

काशिचो हो नवो तिसरो झेलो सोंपता तेन्नाय बी कालचे इतलींच वरां जाल्यांत. ही घडयाळ काळाची. काळपुरसाची. नियतीची. काशिची कविता अशी नियतीक बांदिल्ली कविता. पूण ती नियती शरण न्हय. नियतीक बांदिल्ली आसतना लेगीत ती नियतीचेर सुंवार जाल्या आनी आपल्या अस्तित्वाचो सोद घेत रावल्या.

काशिची ही कविता अशे तरेन साबार कोंकणी काव्यसरस्पतीच्या मळार outstanding थरता. पूण ताची ही outstanding कविता कोंकणी साहित्य रसिकांनी, समिक्षकांनी लेगीत एका खेरीत अर्थान outstanding थारावन तिचे कडेन दुर्लक्ष केलां. कोंकणी कवितेच्या विकासाचे नदरेन हें बरें जावंक ना, अशें सांगीनशें दिसता. हातूंतली बरी गजाल इतलीच की हेर सगलो outstanding त्रातामेंत सोंसून आनी पचोवन काशिन आपलें म्हणपाचें सोडूंक ना. आपल्या म्हणपा कडेन तो प्रामाणीक रावला आनी आपली outstanding वाट माड्डीत

मुखार पावलां मारीत रावला. ताचो हो प्रवास म्हणजेच ताची ही नवी कविता - *काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना.*

काशिक ही जगाभायली कविता मेळ्ळी खंयसर, असो एक प्रस्न उपरासूं येता. ताची जाप अशी: *कुंवाळ्या भितर आंवाळो वाड्टा । देवबाप्पा सांबाळ करता.* हो आंवाळ्या कुंवाळ्याचो संवसार. हातूंत आंवाळ्याक आनी कुंवाळ्याक स्वतंत्र अस्तित्व ना. आसा ती गर्दी. गर्देक अस्तित्व आसुनूय नासता. काशिक आपणाली कविता हे गर्देंत होलमल्या. ही गर्दी फकत भायल्या लोकांची न्हय. तर ती खासा ताचे भितरली. आनी हे गर्देंत लेगीत तो एकसुरोच, एकमुळोच उरला. काशि म्हणटा,

> *एक म्हणजे काशिनाथ*
> *दोन म्हणजे शांबा*
> *तीन म्हणजे लोलयेकार*
> *काशिनाथ शांबा लोलयेकार*

मुखार हेच कवितेंत तो म्हणटा,

> *इन मीन तीन*
> *तीन ही गर्दी*

आनी हे गर्दे भोंवतणीं उदक. हें उदक जिणेचें. आनी गर्देंत जितो मूस ना. एके परीन काशि हो *जितो मूस* वो *जितो नासलेलो मूस.* अर्थाचीं विंगड विंगड वलयां निर्माण करून तांच्या आदारान भावाविश्कार घडोवन हाडून जिणेंतल्या कठोर वास्तवाचेर झगझगीत उजवाड घालप हो हे कवितेचो खाशेलो गूण. *जितो मूस नासप* म्हळ्यार *जिणेचो अभाव* आनी तो लेगीत जिवनान (उदकान) वेटाळिल्ले स्थितींत. हो जिवन आनी जिणे मजगतीं आशिल्लो विरोधाभास, contrast तो वाचप्यां मुखार उबो करता. हातूंतलो मूस मनशाचें *क्षणभंगुरत्व* वो क्षुद्रत्व स्पश्टपणान अधोरेखीत करता. ही प्रक्रिया अखंडपणान पुराय कवितेंत चलता. काशिची ही कविता गर्देंत जल्माक आयल्या पूण ती गर्देची न्हय. ती ताची. पूण ती ताची एकल्याची न्हय. ती लोलयेकाराची जावं येता तशीच पारशेकाराची जावं येता. आनी हो लोलयेकार जावं वो पारशेकार जावं वो वासू जावं तो कोण व्हड मनीस न्हय. तो सर्वसामान्य मनीस. तो *मूस-मनीस.* आपणालें अस्तित्व सोदपी. ताचो हो अस्तित्व-सोद दोन तळथिरां मदीं चल्ला.

केन्ना थापटी वाजत आनी मटको (शिवडो) फुटत हाचो भरवंसो ना. काशि म्हणटा,

*वासु म्हणजे कोणूच न्हूं*
*वासु कोणूच न्हूं*
*वासु वासु न्हूं*

वासुचें कोणाक पडूंक ना. काशिचेंय कोणाक पडूंक ना. ताची ही कविता. ही कविता, काशिचें म्हणप म्हणजे कवीन घाल्लें एक रुपडें. ह्या रुपड्याच्या खेळान तो वाचप्याचें लक्ष मनीसजिणे कडेन, साहित्यानुभवाच्या मूल स्रोता कडेन ओडून घेवपाचो यत्न करता आनी तांकां जिणे कडेन पळोवपाची एक खाशेली नदर दिता. *काशि म्हंटा* ह्या ताच्या 'उतरां'तल्यान (नाममुद्रेंतल्यान) चतुर वाचप्यांचे मतींत आयलांच आसतलें की ताची ही 'दृश्टी' 'संत-कोटीं'तली. निर्मय, निरपेक्ष, फकांडेर तशीच स्थितप्रज्ञ. देखून काशिचें हें म्हणप, ताची कविता सर्वकालगामी, सर्वलोकगामी आनी ताकाच लागून अभावगामी जावन जिणेच्या तत्त्वगिन्यानाच्या पांवड्यार पावता. पूण वयल्यान फकांडेर दिसपी हे कवितेच्या काळजांत मनीसपणाचे उमाळे उचंबळटात हाचो अणभव संवेदनशीळ वाचप्यांक आयले बगर रावना.

ह्या झेल्यांतले कविते वयल्यान अशें दिसता की कविची दृश्टी एके वटेन अस्तित्ववादा लागीं तर दुसरे वटेन नियतीवादा लागीं आपणाली सोयरीक जुळयता. खंयचेय भायले गजालीचो आदार घेनासतना फकत आपणाल्या अस्तित्वाच्या आदारा वरवीं खंयचेय घडणुके विशीं वो घडणुकां विशीं निर्णय घेवप आनी ताच्या परिणामाक तोंड दिवपाची तयारी दवरप ही साहित्यांतले अस्तित्ववादी विचारधारेची एक खाशेली वळख. तेच प्रमाण, संवसारांत घडपी साबार घडणुको आदींच कोणें तरी थारायिल्ले प्रमाण घडून येतात. फकत आपआपणाल्या सभावधर्मा प्रमाण वागप इतलेंच मनशाच्या हातांत आसता. हे विशींचें भान आसप हाकाच नियतीवादाची कुरू म्हणूं येता. काशिचे कवितेंत हे दोनूय विचार प्रवाह प्रत्यक्ष वो अप्रत्यक्ष तरेन व्हांवतना पळोवंक मेळटात. परंत हे दोनूय प्रवाह एकामेकांक आडखळी वो आडमेळीं हाडिनासतना जण एकल्याची परिणामकारकताय वाडोवंक उपकारा पडटात आनी हे कवितेचें सर्वगामित्व बळिश्ट करतात.

ह्या झेल्यांत सगल्यो मेळून इकरा कविता गुंथल्यात. पूण तातूंतली *डायरी काशिची* हे एके कवितेचोच एक स्वतंत्र झेलो जावं येता. काशिच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार *घडपाभितर घडप तेजेभितर गडप* अशे वृत्तीच्यो कविता हे डायरेंत आसात. पूण

*पूण तेजेभितर राजा ना, तेजेभितर ना राणी*
*फकत काळजार एक खडप*
*आनी नाकामेरेन पावलेलें पाणी.*

ह्या झेल्यांतल्या कवितांचे कांय विभाग करूं येतात. खरें म्हळ्यार अभ्यासाचे सोयीचे नदरेंतल्यान अशें करूं येता. पूण कवितेच्या अभ्यासाच्या आकलनाचे नदरेंतल्यान तें समा जातलें म्हण खात्रीन सांगूं नजो. खासा आपणा विशींच्यो कांय कविता, कवि, कविता, मर्ण, अस्तित्व, नियती आनी कांय चरित्रचित्रण करपी caricatures च्या रुपड्यांतल्यो कविता अशो ह्यो कविता आसात. दर एके कवितेंत *काशि* आसाच आनी ताचें म्हणपूय. सगल्याच कवितांतल्यान जिणेविशींचें तत्त्वगिन्यान पाझरतना अणभवूंक मेळटा. ह्यो साबार कविता म्हळ्यार काशिचो, स्वताचो, कवीचो आपलो आपणाचो आपूण जावन घेतिल्लो एक सोद. हो सोद म्हळ्यार *आपणाली वळख, identity सोदपाचें, अस्तित्व सोदपाचें* एक अखंडीत मंथन. ह्या मंथनाच्या एका तोंकाक लोलयेकार आसा जाल्यार दुसऱ्या तोंकाक आसा तेंडुलकार. आनी मदीं पातळ्ळा अथांग रत्नाकर, मनीसजिणेचो म्हासागर. काशि म्हणटा,

*हांव सोदतां म्हजी वळख*
*हांव सोदतां म्हजो म्हाकाच*
*- कवितेचें एक एक अक्षर मांडून.*

हो सोद एकेचाळीस पावसाळे चल्ला. ताचे कवितेन एकेचाळीस पावसाळे पळयल्यात पूण हे कवितेंत पावस ना. कविचे सरभोंवतणीं बाजार भरला. हांगासल्लो वेव्हार पळोवन *विकपी आनी विकत घेवपी इतलोच ह्या बाजाराचो अर्थ?* असो ताका प्रस्न पडटा आनी ह्या बाजारांत आपूण कितलो असहाय्य, मनीस कितलो असहाय्य, हाचो ताका दिश्टावो जाता. तेन्ना तो म्हणटा,

*हांव जाणां, ह्या जगांत बकरो जितलो असहाय्य आसा*
*तितलोच असहाय्य आसा कसाई*

ह्या ताच्या उतरांतल्यान बकरो (भोगतलो) आनी कसाय (करतलो) हे दोगूय कशे नियतीचे गुलाम जावन पडल्यात हाचेर ताणें सणसणीत भाश्य केलां. आनी *मनीसजिणेच्या मुळाव्या परावलंबनाचेर* झगझगीत उजवाड घाला. हे अणभवाचे फाटभुंयेर कवी म्हणटा,

*दोगांयचें दुख्ख हांव काळजांत भरून घेतां*
*आनी बरयतां कविता*

कवीच्या ह्या आत्मसोदांत ताका एक गजाल सदांकाळ सतायत आयल्या, ती म्हळ्यार मृत्यु. निमाणें, मर्ण म्हणजे तरी कितें? हो प्रस्न घेवन,

*भीक मागीत कवी भोंवता उतरांउतरांच्या दारार*
*उतरांच्या घरांचें दार खटखटायत.*

ताची कविता म्हळ्यार एक प्रश्नोपनिषद जाता. ह्या प्रस्नाच्या उतराचो उजवाड पळोवपाचे ताका दुवाळे लागतात. तो उजवाड पळोवपाचो यत्न करता. उजवाड पळयता आनी थंयच तो दुख्खांत पडटा. कारण हो प्रस्न म्हळ्यार ताच्या *माथ्यार सतत हुमकळपी एक तलवार* आनी ताणें तिका वेंग मारिल्ली आसता. तातूंतल्यानूच ताची कविता जल्मता. तो म्हणटा,

*जीण जगप म्हणजे जशें वीख घोंटप*
*कविता बरोवप*
*हो तेचेर उतारो.*

वेदनेचे लाडू गिळटना खंयचोय तानलाडू ताका खावचोसो दिसता, तो सामको तानेला, धांवून धांवून त्या प्रस्ना फाटल्यान; आनी ही तान भागोवपा खातीर ताका उतरां कडेन उदक मागचें पडटा. तो म्हणटा,

*म्हज्या दोळ्यांतल्यान आजून गळोंक शकतात दुकां*
*म्हणुनूच सोंसूंक शकलों हांव ही जीण*
*खिणभर तिचें गल्लाभरूपण विसरून.*

कारण काशि मूळचो हळवो, संवेदनशीळ मनीस. आनी हळवो म्हण तो कवी. तो फकत तत्त्वगिन्यानी न्हय. तो तसो आशिल्लो जाल्यार कविता करूंक पावचोच नाशिल्लो. काशि म्हणटा,

*तत्त्व कोणाक कांयच शिकोवंक शकना*
*शिकयता ती भावना.*

काशिचें हें दुख्ख फकत ताचेंच न्हय. तें सर्वात्मक, सर्वदेसी, सर्वकालीक. कारण कवीपरसूय चड तो मनीस. तो सदांच अस्वस्थ आसता, आकुळपिकूळ आसता. आपलें काळीज ताणें कवितेंत ओंपलां. जिणेंत *आंब्यांच्या तोरणांचें काव्य* शेणत चल्लां हाची खोल खंत ताका तोपत आयल्या. संवसारांत पातळिल्ल्या काळखा परस भयानक उजवाड ताका अस्वस्थ करता आनी तो आपणाकूच प्रस्न करता,

*म्हाका भव्य-दिव्य कांयच सुचना काय कितें?*
*हांव कवीच न्हूं काय कितें?*

ताणें विचारिल्ल्या ह्या प्रस्नान तथाकथीत कवी आनी ताचे कवितेच्यो भगलो मारल्यात. खरो कवी आगळोच आसता. ताचे विशीं काशि म्हणटा,

*दोळ्यां पलतडी रावोन हांव रडटां*
*उलयतां उतरां पलतडी*

काशिचे कवितेची जातकुळी ही अशे तरेची. उतरां पलतडी रावन उतरां पलतडीचें उलोवपी.

काशिचे कवितेंतलीं उतरां हीं काशिचीं खाशेलीं उतरां. कवीचीं उतरां व्याकरणाचे बांदावळीचे बांदपास फाफसून उडयतात. व्याकरणाचे हे पास तिका बांदून दवरूंक शकनात. आनी जे कवितेक ते बांदून दवरूंक शकतात ती कविता 'कविता' उरना. उरलीय जाल्यार तिगना, जगना. काशि कोंकणी भाशा मंडळान निर्मिल्ले भाशीक बांदावळीच्या भोंवऱ्यांत सांपडना. तो ताचो चक्रव्यूह भेदून भायर पडटा. ताचे हे करणेक लागून ताची कविता 'कविता' म्हण व्हड जाता, outstanding थारता. आनी ताच्या ह्या भाशीक विद्रोहाक लागून (घडये) तिका कोंकणी 'काव्यमंडळा' भायर सुवात मेळ्ळ्या. पूण काशिची ही भास एका कवीची भास. तिका तार्कीक निकश जशे लागू पडनात तशीच भाशीक भावनाशीळटाय तिका बादना. गरज थंय ती बंड करून उठ्ठा आनी आपले अभिव्यक्ती कडेन प्रामाणीक रावून मराठी, हिंदी, इंग्लेज, पुर्तुगेज बी साबार भाशांतली उतरावळ आपणायता. 'भाशाशुद्धी'च्या रोगाची लागण तिका जावंक ना. तरी लेगीत ती कोंकणीच भास. गोंयांतले बार्देसकारी कोंकणींत तो आपली कविता बरयता. ताची कोंकणी सारस्वतांचे कोंकणीक लागीं करिना. तो भोवजन समाजाची, जाय थंय किरिस्तांव भावांची कोंकणी आपणायता. आपणाल्या

आविश्काराक बळगें दिवपी भास तो आपणायता, घडयता. ताचे हे भाशेक 'तथागता'चे जिणेचें रुपडें आनी समकालीन वास्तवाचो सुवाद लाबला. 'कविता' ही सगल्यांत पयलीं एक भाशीक रचना आसता हें सत जण एकल्यान मतींत घेतल्यार काशिचे कविते कडेन निर्मळ नदरेंतल्यान पळोवप आनी ती समजून घेवप शक्य जातलें.

आपणाले कवितेंत काशिन कोंकणींतल्या कांय म्हणण्यांचो वा ओंपारींचो अर्थघन वापर केला. पूण अशें करता आसतना तो ते ते ओपारीची वा म्हणणेची मोडतोड, फिरवाफिरवी करता आनी तातूंतल्यान अकल्पीत, संवकळी भायरो अर्थ वा भावार्थ निर्माण करता. ताका लागून ताचे कवितेक खाशेलें तेज आनी ओज प्राप्त जाता. काशिची कविता कोंकणींतल्या हेर कवींपरस हे नदरेन लेगीत outstanding थारता. असो वापर कोंकणी कवितेंत खुबूच उणो पळोवंक मेळटा. काशिचे कवितेंतल्यान 'उतरांचो अर्थपूर्ण खेळ' अणभवूंक मेळटा.

कवीक हीं उतरां मेळटात खंय? आनी तो तीं वापरता कशीं? हाचे विशीं काशि म्हणटा,

*उतरांच आपसूक फाटीक लागतात*
*कवीच्या मोगांत पडटात*
*तेंकां घट्ट वेंगेंत घेवचीं*
*गच्च संभोग करचो*
*घळाघळां वतोवचें वीर्य*
*प्रत्येक उतरा-उतरांत*
*आनी जावचो*
*रिकामो*
*मर्ण येवन गेल्ल्यासारको*

रचनाबंदाच्या मळार लेगीत काशिन जायते नवे नवे प्रयोग केल्यात. 'डायरी काशिची' हो लेगीत असोच एक प्रयोग. सॉनेट, नाट्यकाव्य, संगितिका हे सारकेले प्रयोगूय ताणें केल्यात. पूण प्रयोगा खातीर प्रयोग हो ताचो उद्देश ना. आशयाची खरसाण वाडोवन जिणेचो तळ दाखोवप हें ताचें लक्ष्य.

काशिची कविता पारंपारीक कोंकणी कविते परस भोवच वेगळी. ती खरेल्या अर्थान 'समकालीन कोंकणी' कविता. विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांतले

मनीसजिणे संबंदान जे प्रस्न उपरासल्यात तांचो सोद तांकां सोब सारके शैलींतल्यान घेवपाची ती प्रयत्न करता. अस्तित्ववादाच्या सौंदर्यशास्त्रा मदल्या तीन सुत्रांचो ताचे कवितेंत दिश्टावो जाता. तीं म्हळ्यार, 'Hell is other people,' 'Man is condemned to be free' आनी 'Life is an ineffective passion.' सार्त्रान अस्तित्ववादा विशींचें तत्वगिन्यान मांडलें. ह्या तत्वगिन्याना विशीं अशें म्हणटात - 'His ethics is an attempt to draw the consequences of ceasing to believe in a God who decrees and reveals the rules that men live by.' हातुंतली 'देव न्हयकारपांतल्यान जल्मुपी परिस्थिती'च आमकां काशिचे कवितेंत पळोवपाक मेळटा. आपणाली जीण आपणाचेर जबरदस्तीन लादल्या अशे तरेची भावना हे कवितेंतल्यान जायते फावटी व्यक्त जाल्या. तेच प्रमाण जें आपल्याचेर लादिल्लें आसा ताका लागून नाकापुरो जालां, तें सोंपोवचेंशें दिसता. आनी हे तरेची इत्सा कवी साबार कवितांतल्यान परगटायता. अशें दिसप आनी तें परगटावप ह्यो दोनूय गजाली समकालीन वास्तवा भितर सभावीक थारतात. हातूंतल्यानूच अस्तित्ववादी विचारसरणेंत अंतर्भाव जावपी Death wish वा Death instinct हांची व्हांवती ताचे कवितेंतल्यान अखंडीतपणान जाणवत रावता. इतलेंच न्हय तर अस्तित्व आनी मृत्यू ह्या दोन तोंकां मजगतीं आशिल्ल्या ताणाचो रूपकार म्हळ्यारूच काशिची ही कविता अशें म्हळ्यार अतिताय जावची न्हय.

आपणाले कवितेंतल्यान काशिन मनशाचें दुख्ख, ताचें एकसुरेपण, ताची विश्वरचने पसून तुटिल्ल्याची, 'विलगते'ची जाणीव (alienation), ताच्या दुख्खाच्यो असंख्य पती आनी रुपडीं, आनी तातूंतल्यान अणभवाक येवपी मनशाची असहाय्यताय वा मनीसजिणेची निरर्थकताय हांचो वेध घेवपाचो यशस्वी प्रयत्न केल्लो पळोवंक मेळटा. हे विशीं खोलायेन चिंतूंक गेल्यार दिसता, हाचेय मुखार वचून काशि सोद घेता, सोद घेत रावता तो मुळावे जिवनप्रेरणेचो. सातत्यान. अखंडपणान. तरेकतरांनी. काशि म्हणटा,

*निमणें, मर्ण म्हणजे तरी कितें?*
*आख्ख्या कांद्याचीं आख्खीं कल्लां काडून*
*जें उरता - तें.*

आनीक एके कवितेंत काशि म्हणटा

*या अल्ला ऽऽ*
*आमी गा बकरे*
*मर्णाआदींच मेल्ले*
*पूण तरीय सोसूंक जायना हें दोट्टी मर्ण*
*हालहाल*
*- हलाल.*

काशिची पुराय कविता ही खऱ्यांनी पळोवंक गेल्यार एका 'हांव'ची काणी, एक कथा. कथा म्हळ्यार स्थळ, काळ, जल्म, मृत्यू हांचे फास्केंत बसपी वा ती मोडूंक पळोवपी कसलीय घडणूक, साबार घडणुको वो मनशां हांचे मजगतचें नाट्य. भितर काळ आनी अवकाश हांचे मदीं सातत्यान कितें न्हय कितें एकासारकें 'घडत' आसता. हें 'घडप' लेगीत विशिश्टतायेन भरिल्लें आसता. ह्या 'हांव'ची ही कथा. जल्मापसून मर्णामिरेनच्या ह्या 'हांव'च्यो विंगड विंगड अवस्था, विंगड विंगड संस्कार, तांचो सहयोग वा संयोग आनी तांचे मजगतचें नाट्य हो हे कथेचो (म्हळ्यार कवितेचो) आशय. हे कथेचो एक सूर 'विलगताये'चो, 'तुटिल्लेपणा'चो, 'दुरावलेपणा'चो जाल्यार दुसरो सूर समाजीकतायेचो. व्यक्तीवादी दृश्टीकोणांतल्यान समाजीक आनी वैश्वीक आशय हांगा व्यक्त जाल्लो पळोवपाक मेळटा. आपणाल्या सनातन प्राक्तनाचो एक आगळो सूर लेगीत कवी हांगासर लायतना आयकूंक येता. हो सगलो आविश्कार आपले कवितेंतल्यान घडोवन हाडपी 'हांव' एका वेगळ्या अर्थान विश्वव्यापी रूप धारण करता. हाका लागून काशिचे कविते मदल्या 'हांव'चे कथेक म्हाकाव्याचोसो स्पर्श जाल्लेवरी जाणवता. कित्याक तर तातूंतल्यान एक खेरीत प्रकारची अनादी-अनंत अशी शोकसंवेदना जागृत करपी कथा उकती जाता. एक भोव प्रचंड नैराश्यताय, उदासिनता तिका व्यापून उरल्या अशें पावला पावलाक जाणवत रावता. हांतुंतल्यान 'मुक्ती' मेळोवप हो ह्या 'हांव'चो ध्यास. आनी हो ध्यासच हे कवितेचें आदिमूळ.

काशिची ही कविता एक ode (उद्देशिका) कशी. परंत तिगेलें स्वरूप परंपरेन चलत आयिल्ल्या ode सारकें ना, हें जाणून घेवचें पडटलें. ह्यातूत आनी जुने odes हांचे मजगतीं एक मुळावो वेगळेचार आसा - तो म्हळ्यार, पुर्विल्ली ode उखलापी प्रतिक्रियात्मक स्वरुपाची आसताली. काशिन हे तरेचे जुने कवितेंतले



आवाहन वो प्रतिक्रिया व्यक्त करपा विशींचें तंत्र आपणायलां. पूण तें तशा तशें आपणावंक ना. ताणें ताचें रूप पुरायेन बदलून उडयलां आनी ताची सांगड 'समकाला' कडेन घाल्या. हे कवितेंतल्यान व्यक्त जावपी कवीची जाणीव ही अर्थहीनतेची, तुटिल्लेपणाची, पयशिल्लेपणाचीशी आशिल्ली अणभवूंक मेळटा आसली तरी लेगीत तातूंतल्यान तिगेली खाशेली व्यक्तीकेंद्रीतताय पळोवंक मेळटा. हाकाच लागून पुर्विल्ले हे प्रकारचे कवितेंतल्यान येवपी वर्णनां, निवेदनां वो ढोबळ प्रतिक्रिया हे सारक्यो गजाली काशिचे हे नवे 'odes' कवितेंतल्यान येनासतना तांचो आत्माविश्कार तितलोच आयिल्लो पळोवंक मेळटा.

काशिचे हे कवितेचेर काम्यूचो आऊटसायडर, नेमाडेंचो पांडुरंग सांगवीकर, जी एं चो डॉन हांचो मुळावो प्रभाव आशिल्लो जाणवता. शंकर रामाणी, पु.शि. रेगे, पोएट बोरकार हांचोय अल्पस्वल्प प्रभाव ताचे कवितेचेर आनी कवी म्हण ताचेर जाल्लो दिश्टी पडटा.

'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना' ह्या कविता झेल्यांत आदल्या दोन झेल्यां प्रमाण कांय व्यक्तिचित्रां आयल्यांत. तातूंत शंकर रामाणी, माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार हे कवी, गजानन जोग हो कथाकार आनी प्रा. केशव सद्रे हांच्या सांगातान पिके हांचो आसपाव जाता. मेजक्या उतरांनी आनी तांचे मार्मिक रचनेंतल्यान ताणें ते ते व्यक्तीचें खाशेलेपण प्रगट केलां. पूण ह्या कवितांतल्यान लेगीत ताचो 'हांव'चोच सोद चलिल्लो दिसता. देखीक, माधव बोरकारा वयले कवितेंत तो म्हणटा,

*दोगूय जाण एकामेकांक*
*स्ट्रेंजर दिसूं येता.*

'पिके' वयले कवितेंत तर काशि वाचप्यां मुखार जिणे विशींचो मुळावो प्रस्नूच प्रस्नचिन्नशें उबारून धरता. तो म्हणटा,

*फोटवार मेला तो पिके म्हाका स्ट्रेंजर आसलो*
*हांव जेका वळखतां तो पिके मरोंकूच ना काय कितें?*

ह्या काव्यझेल्यांतले कवितेचीं (खरेपणान सांगचें जाल्यार, काशिचे साबार कवितेचीं) कांय गुणवैशिश्ट्यां सुरवातीक साकून नदरेंत भरतात. ही कविता पराकोटींतली आत्मकेंद्री आनी ताकाच लागून व्यक्तीकेंद्री कविता. म्हुण्णूच ती साबार जाग्यांचेर दुर्बोध जाल्ले वरी दिसता. ताका लागून तातूंतल्यान फावो ते

आनी फावो त्या प्रमाणांत आनी सहजतायेन घडून येवंक जाय अशें दिसपी communication वो संवाद घडून आयिल्लो दिसना. Communication म्हळ्यार एक सामाजीक प्रक्रिया. पूण काशिची कविता तिका सहजतायेन मार्ग दिना. ताचे कवितेंतल्यान communication सहजसाध्य ना. कवितेक communication चें साधन मानपी आनी मानिनासपी अशे दोनूय तरांचे लोक समाजा मदीं पळोवपाक मेळटात. पूण खासा काशि हे संबंदान कितें म्हणटा तें आयकुपा सारकें; इतलेंच न्हय तर आत्मचिंतन करूंक लावपी. तो म्हणटा,

*भास म्हणजे कम्युनिकेशनाचें एक साधन -*
*हेचेवेलो म्हजो विश्वास उडत चल्ला*
*भास म्हणजे भासूच - एक इल्युजन*
*भास म्हणजे एक मोट्टें कम्युनिकेशन गॅपूय आसूं येता.*

जायत्या कलावंतांचीं व्यक्तीचित्रां घुसपागोंदळाचीं (व्यामिश्र) complex आशिल्लीं पळोवपाक मेळटात. ताका लागून तांचे कलाकृतींतल्यान (हांगा कवितेंतल्यान) जावंक फावो तें communication लेगीत कुस्तार जावन बसता. काशिचे कवितेंतलें alienation जाणवता तें फकत समाजा पसूनचें न्हय, तर कवी खासा आपणा पसून alienate जाल्ल्याची प्रचिती ताचे कवितेंतल्यान येता. ती वाचून वाचप्यां मुखार असो एक प्रस्न उपरासूं येता की काशिची ही कविता वाचप्यां खातीर आसा अशें कशें म्हणूं येता?

'कविता म्हळ्यार 'उत्कट भावानुभवजन्य लयबद्ध संस्मरणीय रचना' अशी कवितेची एक व्याख्या एका नामनेच्या समिक्षकान केल्या. ह्या झेल्यांतल्या जायत्या कवितांतल्यान चिंतनात्मक, विचारात्मक आशयाचें पयलीं भावानुभवांत रुपांतर जालें आनी मागिरूच तो आशय लयबद्ध संस्मरणीय जालो अशें वाचप्याक जाणवूं येता. हातूंतली दर एक वळ (line) संस्मरणीय आसा अशें म्हाका म्हणपाचें ना. पूण दुसऱ्या कोणाकूय गद्यसदृश दिसपी ह्या काव्यझेल्यांतल्यो साबार वळी म्हाका 'खुदबळायतात', अस्वस्थ करून उडयतात. तांचेमदली लयबद्धताय म्हाका उतरां उतरांमदीं जाणवता. ती म्हजे जिबेर घोळटा. गात्रां धोलयता. तेन्ना अशे तरेचे हे रचणुकेक म्हाका कविता म्हणचेंच पडटा. नाय जाल्यार जायते फावटीं अशें पळोवंक मेळटा की परंपरेन एके खाशेले मोडीन छापून आयिल्ले उतरावळीक वा मजकुराक वाचक कविता

समजता. (कोंकणी मळार हाची गवाय कागदा कणकणीं मेळूं येता.) हाका लागून कोणाय well read (बहुपढिक वो अतिपढिक) पंडीत वाचप्याक लेगीत काशिची कविता अनाकलनीय जावं येता, जाल्यार दुसऱ्या कोणाय सर्वसामान्य पूण रसीक काळजाच्या वाचप्याक ती भोव बरी समजूं येता. कविता कळपाक रसीक काळीज आनी संस्कारीत मन जाय पडटा.

आपले हे अशे तरेचे भाशीक रचणुके संदर्भांत समस्त वाचप्यांक शिटकावणी दिता आसतना काशि म्हणटा,

*'वाज येयल्लो म्हणून मारल्ली दांडी ऑफिसाक'*
*- खरें म्हणजे ह्या वोळींत कसलेंच काव्य ना*
*इतलेंय जावन*
*ही म्हज्या कवितेची ओळ जावन आसा.*

काशिचे हे कवितेक आजून मेरेन कोंकणी समिक्षक एके खेरीत तरेचो outstanding त्रातामेंत कित्याक लागून दितात तें म्हाका अजून मेरेन आकळूंक पावलेंना. एका खऱ्यांनीच outstanding प्रतिभेच्या ह्या कवीचेर आनी ताचे कवितेचेर हो अन्यायूच. कोंकणींतल्या कांय किरकोळ बरपांक लेगीत साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. पूण काशिक तो फावो जावंक पावूंक ना. हातूंत कोंकणी साहित्याचें व्हडपण, साहित्य अकादेमीचें व्हडपण काय काशिचे कवितेचें व्हडपण दिसता, हांव नेणों. हे कविते संबंदान वाद जावं येता. पूण तो तिका 'कविता मानपी' आनी 'कविता न मानपी' हांचे मजगतीं न्हय; तर तिका 'कविता' मानपी दोगां मजगतींच हो वाद जावं येता. तोय तिच्या फकत स्वरुपाशयाच्या संदर्भांतूच.

काशि म्हणटा,

*कुत्र्या-माजराचीं झगडीं चलल्यांत*
*आनी हुनीर वॉर्राद चाबड्ट्टा कवितेचे कागद.*

* * *

आधारावळ :


१. Anatomy of Criticism - Northrop Frye.

२ Five Approaches to Literary Criticism - Wilbur S. Scott.

३. काशि म्हंटा.

४. काशिक म्हणचेंच पडटा.

५. काशिन म्हणपाचें सोडुंक ना.

६. वालोर.

७. साहित्य: देय आणि श्रेय - प्रा. केशव सद्रे.

८. Seven Ambiguities of Poetry.

९. कवितेची रसतीर्थे - निशिकांत मिरजकर.

१०. कविता: संकल्पना, निर्मिती आणि समीक्षा - वसंत पाटणकर.

११. समीक्षा: काव्यातील दुर्बोधता - संपा. वा ल कुलकर्णी.

१२. कविता फुलते अशी - संपा. वा रा ढवळे व व दि कुलकर्णी.

१३. कवितेचा रूपविचार - म सु पाटील.

१४. वाङ्मयीन वाद: संकल्पना व स्वरूप - संपा. रायकर सीताराम व इतर.

१५. आधुनिक भावबोध की संज्ञा - अमृतराय.

१६. आधुनिकता और हिंदी साहित्य - मदान इंद्रनाथ.

१७. Language of Literature - Jacobson Roman.

१८. अस्तित्ववादाची ओळख - दि. के. बेडेकर.

१९. Language in Literature - Jacobson Roman.

२०. What is Literature? - Sartre Jean Paul.

२१. Modernism - Faulkner Peter.

२२. The Roots of Obscenity - Ranganath N S.

२३. साहित्याची भाषा - भालचंद्र नेमाडे.

२४. टी एस् इलियट आणि मराठी नवकाव्य व समीक्षा - संपा. सरोजिनी वैद्य व वसंत पाटणकर.

# १०.

## कोंकणी कथेक लागिल्लो एक नवो 'सोद'

कोंकणी कथासाहित्याच्या मळार कथाकार म्हण ज्या लेखकांनी नामना जोडल्या तांचेमदीं आतां जोगबाबांचो आसपाव जावंक लागला. कोंकणी कथा साहित्य मळावयलो एक समर्थ कथाकार म्हण कोंकणी सरस्पतीचे भक्त आनी रसीक तांचेकडेन पळयतात. तांच्या कथांचो दुसरो झेलो उजवाडाक येता हाची म्हाका व्हड खोस भोगता. तांच्या ह्या कथाझेल्यांत गुंथिल्ल्या कथांविशीं सांगचे पयलीं कोंकणी कथेची इतिहासीक वाटचाल कशे तरेन जाल्या तें थोडेंभितर पळोवप अनुचीत थारचेंना अशें म्हाका दिसता.

संवसारांतले खंयचेय भाशेंतल्या साहित्याची पयली निर्मणी ही भौसामदें जाता. भौस म्हळ्यार लोक. देखून ताका लोकांसाहित्य वा लोकसाहित्य म्हणटात. साहित्याचे जे मुखेल प्रकार संभवतात तांचीं मुळां आनी पाळां ह्याच लोकसाहित्यांत पळोवपाक मेळटात. संवसारांतली खंयचीच भास हाका आडवाद ना; आसूंय नजो. कोंकणी भास लेगीत हाका आडवाद ना. म्हणटकीर कोंकणी कथेचो जल्म हो कोंकणी लोकांकाणयेंतल्यान जाला हें जण एकल्याक मानून घेवचेंच पडटलें. पूण ही काणी सांगताले. काणी सांगपी सांगतालो आनी जमिल्ल्या लोकांचो जमो आयकतालो. वरांचीं वरां हें कथासत्र चलतालें. फुडें कोंत्रावपाचे/बरोवपाचे कलेचो सोद लागलो. बोलभाशेचें चिन्नीकरण जालें आनी अक्षराचो जल्म जालो. लेखन कलेचो वापर साहित्यनिर्मणेच्या मळार जावंक लागलो. ह्या अक्षराच्या आदारान वर्सां सरत गेलीं तसो हे कलेचो विकास जायत गेलो. तेच बराबर विंगड विंगड साहित्यप्रकारां मदीं क्रांतिकारक अशे नवे नवे बरपांचे प्रयोग जावंक लागले.

इतिहास फुडें फुडें वता तशी मानवी संस्कृताय संपन्न, गिरेस्त जायत वता. पूण हो प्रवाह अखंडपणान चलना. मदींमदीं जायतीं मोडां-नाडां उपरासतात आनी संस्कृतायेचें स्वरूप आनी आत्मो लेगीत नवें मोडण घेता. नवे सोद लागतात. नव्यो नव्यो संस्कृतायो जल्माक येतात, ना नपयत जातात. पूण मानवी संस्कृताय ह्या सगल्यांपसून पोसवण घेता आनी समृद्ध जायत वता. भास

हें संस्कृतायेचें अविभाज्य अशें आंग आनी साहित्य हो भाशेचो रूपकार. तेन्ना, संस्कृताय आनी साहित्य हीं एकामेकांक पोसवण दीत आसता ही घडणूक वेगळेपणान लक्षांत हाडून दिवची गरज उरता अशें म्हाका दिसना. त्या त्या लोकसमाजाचे संस्कृतायेच्या रूपकारांत जाल्लो बदल त्या त्या लोकांच्या साहित्यांतल्यान दिसप म्हणूनच अपरिहार्य थारता. पूण हाचो अर्थ असो जायना की स्रेश्ट साहित्य म्हळ्यार निखटें प्रादेशीक साहित्य. हांव अशें म्हणीन की स्रेश्ट साहित्य म्हळ्यार अशें साहित्य जाचे पांय त्या त्या प्रदेशाचे भुंयेंत थीर रोमिल्ले आसात पूण माथें विश्वाच्या मळबांत झळकता.

**कोंकणी कथा :**

कोंकणी कथा साहित्यांतली पयली लिखीत कथा असो जिचो उल्लेख करूं येता अशी कथा आमकां कोंकणी रामायण आनी महाभारत ग्रंथांच्या हातबरपांत पळोवंक मेळटा. सादारणटायेन पंदराव्या शतमानाचो अखेरेचो काळ वा सोळाव्या शतमानाचो सुरवातीचो काळ हो ह्या हातबरपांचो काळ जावं येता. ते उपरांतच्या काळांत क्रिस्तांव मिशनऱ्यांनी हांगा जायतो साहित्यीक वावर कोंकणी भाशेंत केल्लो पळोवंक मेळटा. तातूंत तांणी पद्य ग्रंथां वांगडाच गद्य ग्रंथांचीय निर्मणी केल्या. पूण लिखीत कोंकणी कथेची घणघणीत परंपरा पळोवंक मेळना. फुडें १९३३त शणै गोंयबाबांच्या 'गोमन्तोपनिषत्'चो पयलो खंड उजवाडा आयलो. तांच्या पांच काणयांचो आसपाव तातूंत जाल्लो आसा. लिखीत कोंकणी कथेचो पयलो हुस्कार हातूंतल्यान स्पश्टतायेन आयकूंक आयलो आनी अशे तरेन आर्विल्ले कोंकणी कथेचो जल्म जालो अशें म्हणूं येता. फाटोफाट जयवंतबाब कुलकर्णी हांणी संपादीत केल्लो प्रातिनिधीक कथांचो झेलो 'ओंवळां' १९३५ वर्सा उजवाडक आयलो. ते फाटोफाट चंद्रकांत केणी हांणीय असोच एक प्रयोग केलो आनी तातूंतल्यान 'भुंयचांफीं' फुल्लीं. तें वर्स आसलें १९५५. हाचे उपरांत कोंकणी कथेच्या मळार नव्या उमेदीच्या तरणाट्यांचो वावर सुरू जालो. गोंयां आनी गोंया भायर नवे नवे प्रयोग जावंक लागले. नवो आशय, नवो विशय आनी रचणुकेचे नवे नवे आकृतीबंद घेवन ते आयले. सगल्यांचींच नांवां घेत बसल्यार ताका 'विष्णुसहस्त्रनामावळी'ची कळा येतली.

ह्या साहित्यमळार जांणी आपल्या कर्तुत्वाच्यो घुडयो उबारल्यो तातूंत चंद्रकांत केणी, अना म्हांबरो, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, एन् शिवदास, शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, महाबळेश्वर सैल, गोकुळदास प्रभू हांचो आसपाव जाता. हांचे मदल्या जायत्या जाणांक तांणी कोंकणी कथा साहित्याच्या मळार केल्ल्या घसघशीत वावराक लागून साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लेगीत फावो जाला.

कोंकणी कथेचें मळ फुलोवपाचो आज जो वावर चल्ला तातूंत वसंत सावंत, अशोक भोंसलो, देविदास कदम, प्रकाश पर्येकार, दुर्गादास गावडे, जयंती नायक हांचे लिखणेचो आसपाव जाता. शशांक सीताराम ह्या कथाकारा कडल्यान कोंकणी कथासाहित्याक जायत्यो अपेक्षा आशिल्ल्यो पूण तांच्यो आतां यादीच फाटल्यान उरल्यात.

**जोग आनी कथाबरप :**

गजानन जोग हांचोय आसपाव हांव ह्या प्रतिभावंत तरणाट्या कथाकारांमदींच करतां. तांणी आपल्या कथालेखनाक १९६७ वर्सा सावन सुरवात केल्या हें जरी खरें आसलें तरी तांचो पयलो कथांझेलो 'रुद्र' अवतरपाक १९८६ वर्स उजवाडचें पडलें. बद्द वीस वर्सां उपरांत तांचो हो झेलो रसिकांच्या हातांत पडलो. कितले झेले उजवाडाक आयले हो कथेच्या कसाचे नदरेन तशें म्हत्वाचें न्हय. तरी लेगीत लेखकाच्या कर्तृत्वाचो कस लावपाच्या कामांत निर्मणेची विपुलताय खूबशी उपकाराक पडटा ही वस्तुस्थिती नाकारप योग्य जावचें ना. मदल्या बऱ्याच वर्सां उपरांतच्या 'बॅड पॅचां'तल्यान ते आतां सांवरल्यात अशें हांव समजतां आनी तांचे हे नवे खेळीक मनाथावन येवकार दितां. कित्याक तर तांचो 'रुद्र' जेन्ना हांवें वाचिल्लो तेन्ना ह्या कथाकाराविशीं म्हज्या मनांत मोट्यो अपेक्षा निर्माण जाल्ल्यो. पूण मागीर तांणी जी दडी मारली ती बद्द आयज मेरेन, म्हळ्यार १९९५ वर्सा मेरेन. जानेर १९९५ मेरेन तांकां कथेची परतून 'जाग' आयिल्ली दिसता आनी आतां ते सातत्यान बरोवंकय लागल्यात. हें सातत्य तांणी सांबाळचेंच पूण ताचो 'रतीब' जावंचो ना हाचीय चत्राय तांणी दवरची अशी शिटकावणी ह्या निमतान दिनशें दिसता. हाचें कारण अशें की ह्या झेल्यांत

तांच्या एकूण सतरा कथांचो आसपाव जाला, तांतल्यो पांच अप्रकाशित आसूं येतात; स 'जागां'त आयिल्ल्यो आसात तर 'कोंकणी', 'कोंकण टायम्स' आनी 'कुळागर' हातूंतल्यान प्रत्येकीं दोन कथा उजवाडाक आयल्यात. ही आंकडेवारी हांव मौजेखातीर दिना. तर बारीकसाणीन पळयल्यार ह्या कथाझेल्यांतल्यो तिसरो वांटो इतल्यो कथा पयलेच फावट उजवाड पळयतात. त्योवूय ह्या कथाझेल्यांतल्यान. तेन्ना अशा वेळार तांचो दर्जो कितें आसूंक फावो हाचोय विचार लेखकान करूंक जाय आशिल्लो अशें म्हाका दिसता. हाचो अर्थ, पयलीं उजवाडाक येवंक नाशिल्ली कथा कथाझेल्यांत आसपावची न्ही असो जायना. स्पश्टपणान सांगचें जाल्यार, तांच्या एक दोन नव्या कथांचो आडवाद केल्यार जोगबाब फुडें पावली मारतना दिसनात. ते आपली रुळिल्ली वाटूच नव्या नेटान चलतना दिश्टी पडटात. तांकां तंत्राची कळाशी बरे तरेन गवसल्या हें सत. पूण तंत्र म्हळ्यार मंत्र न्हय हें तांकां खबर आसतलेंच. तंत्र जायच. पूण निखट्या तंत्राच्या ताण्यार उतरां विणलीं म्हण तातूंतल्यान मंत्र साकार जातलोच हाची खात्री दिवं नजो. हे नदरेन तांणी आपल्या 'रागणें', 'असो मोग! नवो मोग!', 'आयुश्याचे आमोरेर', 'कृश्ण', 'संवसार' ह्या कथांचो जरूर फेरविचार करून पळोवचो.

कथाकार म्हूण गजानन जोगाची तांक सुमार आसा अशें हांव म्हणिना. कांय असादारण तांकीच्यो कथाय तांच्या ह्या झेल्यांत आसात. तातूंत 'सोद', 'वाट', 'कावून व्हेऽऽले', 'औंट घटकेचो भट', 'व्हॅरा', 'मिनी', 'टायगर आनी ग्रॅनपा' ह्या कथांचो आसपाव जाता. तातुंतूय 'वाट', 'सोद' आनी 'कावून व्हेऽऽले' अप्रतिमूच! 'औंट घटकेचो भट' ही तांची १९७४तली सर्वांगसुंदर कथा. ही कथा तांच्या पयल्या झेल्यांत कशी आयलिना हाचें अजाप दिसता. उरिल्ल्यो कथा तंत्राचे फास्केंत कुशळटायेन बसोवपाक तांकां सुयश आयलां अशें हांव म्हणीन. कथा सुरू करची खंय आनी सोंपोवची खंय हें तांकां बरे तरेन खबर आसा हे विशींची गवायूच ह्या साबार कथांतल्यान मेळटा.

सर्वसादारणपणान तांच्यो ह्यो कथा दोन कालखंडांनी विभागूं येतात. १९९० वर्सा आदींच्यो आनी उपरांतच्यो. उत्कृश्ट कथा म्हण जांचें हांवें नांव घेतलां तांचे भितरल्या 'सोद', 'व्हॅरा', 'मिनी', 'टायगर आनी ग्रॅनपा', 'औंट घटकेचो भट' सारक्यो अदीकश्यो कथा पयल्या कालखंडांत बरयिल्ल्यो आसात. 'कावून व्हेऽऽलें' ही १९९१ वर्सांतली कथा आनी 'वाट' ही सामकी लागींची म्हळ्यार

१९९५ दिवाळेंतली कथा. अश्यो दोनूच लक्षवेधक कथा दुसऱ्या, म्हळ्यार १९९० उपरांतच्या, कालखंडांत लेखकान बरयल्यात अशें म्हणूं येता. अशें कित्याक जालें? 'बॅकलॉग' भरून काडपाचें चिंतप हाच्या मुळाकडेन आसा काय कितें, हाचो सोद लेखकान घेवचो. तशें आसत जाल्यार तें बऱ्याचें लक्षण न्हय अशें सांगीनशें दिसता. विचार जावचो अशें मागतां.

आतां जोगबाबामदल्या कलाकाराचे तांकीविशीं थोडें पळोवया. साहित्य म्हळ्यार कला आनी साहित्यीक म्हळ्यार एक कलाकार. कलाकार जेन्ना एक कलाकृती निर्माण करता तेन्ना ती अद्वितियूच आसता. तिचे सारकीच दुसरी कलाकृती निर्माण जाली जाल्यार ती अद्वितीय थारना. वा तो कलाकारय स्रेश्ट थारना. ती कलाकृती एक कारागिरीशी जावन पडटा आनी ताचो कलाकार हो एक कुशळ कारागीर. अशें कित्याक लागून जाता? हाचें कारण अशें की कलाकृती ही सहज, उत्स्फूर्त जल्माक येता. तर कारागिरींत अनुकरणाचो वांटो आसता. मागीर तें अनुकरण दुसऱ्याचें आसूं वा स्वताचें आसूं. अनुकरण तें अनुकरण. आमी, म्हळ्यार कलाकारांनी आनी रसिकांनी लेगीत एक तत्त्व थीर लक्षांत दवरूंक जाय की 'मोनालीसा' हें एकूच आनी एकदांच जल्माक आयलें. परतून परतून न्हय. परतून परतून जल्माक येतकीर ताचें एक तर 'मोना' जालें ना तर 'लीसा'. तेन्ना अनुकरण स्रेश्ट कलाकृतीक जल्म दिना. तें जल्माक घालता तीं 'सवंगां'. जोगबाबामदीं स्रेश्ट कलाकाराची तांक आसा हें तांच्या 'रुद्र' आनी ह्या झेल्यांतल्या 'सोद' आनी 'कावून व्हेऽऽले' ह्या कथांनी दाखोवन दिलांच. तेन्ना तांणी अनुकरणाचे, आपल्या अनुकरणाचे लेगीत, भकीक पडचें न्हय अशें हांव तांचे लागीं मागतां.

**कलाकृती :**

कलाकृतीचीं प्रमूख अशीं दोन आंगां आसतात. एक भायलें आनी दुसरें भितरलें. भायलें तें सरूप म्हळ्यार शरीर, आनी भितरलें म्हळ्यार तिचो आत्मो. भायलें स्वरूप रचणुकेंतल्यान संपादूं येता. पूण भितरलो आत्मो म्हळ्यार कलाकृतीचो आशय. तो निखटे रचणुकेंतल्यान संपादप शक्य ना. तो फुंकचो पडटा कलाकृतीचे कुडींत. तेन्नाच ती कलाकृती सजीव जाता. समूर्त जावप वेगळें आनी सजीव जावप वेगळें. कलाकृती ही एक सेंद्रीय वस्त आनी म्हणून तिका 'प्राण' आसचोच पडटा. तोच तिका अद्वितीय पदाक पावयता. प्राणाविणें

कलाकृती म्हळ्यार मारमरचो कळाहीन सुंदर पुतळो. कथेचो आशय हो आपणाक योग्य अशें शरीर म्हळ्यार आकृतीबंद बरोबर घेवनूच प्रगट जाता. तसो तो प्रगटप हेंच सभावीक आनी समा. मागीर कलाकाराक करची लागता ती ताची कुयदाद. कुयदाद करप वेगळें आनी तांकां सजोवप नटोवप वेगळें. सजोवप म्हळ्यार कुयदाद न्हय हें मतींत दवरलें तर कलाकृती कळाहीन जायना. Black is beautiful हे म्हणणेचो भावार्थ हेंच सांगता. काळ्या रंगाक लेगीत ताचें अशें आगळें वेगळें रूप आसा; आत्मो आसा. काळो म्हण तो नाकारप योग्य थारना. कलाकृती निर्मणेचीं जायतीं प्रयोजनां जाणकारांनी सांगल्यांत. पूण निखटीं प्रयोजनां नदरेमुखार दवरून कलाकृती जल्मूंक शकना. प्रयोजनां येतात तीं मागीर फाल्यान. कीर्त, धन मेळचें म्हूण कोणूच कलाकार नवनिर्मणी करिना. जे करतात अशें सांगतात ते कारागीर. कलाकार न्हय. कलाकार नवनिर्मणी करता तो खऱ्या अर्थान 'स्वांतसुखाय'. मागीर ताका 'बरें', 'वायट' अशे कस लावप कशें समा थारता अशें कोणूय म्हणूं येता. पूण कलाकारान निर्मिल्ली कलाकृती रसीकाची उत्स्फूर्त दाद मेळ्ळे खेरीज पूर्ण जायना. कलाकार आनी रसीक हांची जेन्ना एकतानताय जातली तेन्नाच ती कलाकृती पूर्ण जावंक पावतली. संगीतकलेचो हाका भोव बरो दाखलो दिवं येता.

**लळीत साहित्य :**

लळीत साहित्याचे प्रमूख अशे तीन वर्ग कल्पितात. तातूंतलो कथनात्म हो एक. लेखक आनी वाचक हांचे मजगतीं जे संबंद विंगड विंगड अशे तीन तरांचे प्रकार कल्पिल्ले आसात ते म्हळ्यार 'सांगपाचो करार', 'दाखोवपाचो करार' आनी 'भावोवपाचो करार'. कथा आनी कादंबरी ह्या लळीत साहित्याचो आसपाव पयल्या प्रकारांत जाता. एके विशिश्ट संगतीन गुंफिल्ल्या वा संघटीत केल्ले घडणूक-माळकेचें वा माळकांचें कथन करप अशें ताचें स्वरूप सांगूं येता. कथनात्मक साहित्य म्हळें की कथन करपी आयलो. होच निवेदक, जो आयकुप्याक/वाचप्याक उद्देशून कथन करीत आसता. हो निवेदक म्हळ्यार त्या कथनात्मक साहित्याचो एक मुळावो असो व्यवच्छेदक विशेश. 'घडणूक' ही कथनात्मक साहित्याचो एकक (युनीट) म्हणूं येता. घडणुको दोन तरांच्यो.

भायल्यो म्हळ्यार भौतीक वास्तवांतल्यो आनी भितरल्यो म्हळ्यार आंतरीक वो मानसीक वास्तवांतल्यो. 'जी घडटा ती' अशी 'घडणुके'ची सुटसुटीत व्याख्या करूं येता. एके परस अदीक घडणुको आसल्यो तरूच तांची माळका करप शक्य जाता, हें तत्त्व लक्षांत घेतल्यार घडणुकांचे माळकेंत एके परस अदीक 'घडणुको' अपेक्षीत आसतात हें ध्यानांत येवंक कळाव लागना. अशे तरेन तयार जाल्ले हे घडणुकांचे माळकेंत उण्यांत उण्यो तीन तरी घडणुको आसच्यो पडटात. आदी, मध्य आनी अंत हो तांचो क्रम. अशे तरेन एके परस अदीक 'घडणुकां'चे माळकेंतल्यान कथनात्मक साहित्यकृतीचो जल्म जाता. हे दिकेन चिंतप करीत जाल्यार अशें दिसता की 'घडणुकांच्यो माळको' ही संज्ञा प्रयोजनपूर्ण आसा. 'अणभव' घेवपाचो काळ ही तत्त्वाची कसवट लावन लेगीत साहित्याचें वर्गीकरण करपाक येता. हे कसवटे प्रमाण कथनात्मक साहित्याचो काळ हो सदांच भूतकाळ आसता. ह्या प्रकारच्या साहित्यांतल्यान साकार जावपी अणभवाची खाशेली कुरू म्हळ्यार 'तो अणभव घडून गेल्लो' आसता. असल्याच 'घडून गेल्ल्या' घडणुकांची वळेसर म्हळ्यार कथा वो नवलकाणी. देखून ह्या साहित्यप्रकारांतल्या 'घडणुकां'चो काळ हो भूतकाळ आनी भूतकाळूच आसता. 'घडणुकां'चें हें गुंफप सादरणतायेन काळाचो क्रम आनी कार्यकारणभाव ह्या तत्त्वांनुसार आसता. हाका लागून तिका एक खाशेल्या प्रकारची क्रमवेवस्था लाबता. घडणुको, पात्रां आनी कृती वा करण्यो हांचे मदल्या क्रमवेवस्थेच्या निदर्शकाचे कार्य कथेंतलो हो भूतकाळ करता. कार्यकारणसंबंद वो कलानुक्रम हीं कथनात्मक साहित्यांतलीं संघटणतत्वां. कथा आनी नवलकाणी हे दोनूय साहित्यप्रकार कथनात्मक जाल्ल्यान तांचो सभाव एक सारकोच आसलो तरी लेगीत हे दोनूय साहित्य प्रकार विंगड विंगड आसात. तातूंतलो वेगळेचार फकत आकारांतलोच न्हय तर प्रकारांतलोय आसता.

**कथा आनी नवलकाणी :**

रचनेंतलें, अणभवांतलें एककेंद्रित्व ही कथेची खाशेलकाय जाल्यार रचनेंतलें, अणभवांतलें अनेककेंद्रित्व ही नवलकाणयेची खाशेलकाय. दोनूय साहित्य प्रकारांतलो हो म्हत्वाचो असो वेगळेचार. नवलकाणये प्रमाण कथेंत स्वतंत्रतायेन

विकास पावूं येतात अशो विंगड विंगड अणभवसंघटना नासतात. आनी ताकाच लागून कथेंतले अणभवसंघटनेमदीं 'एक'ताय आशिल्ली दिश्टी पडटा. हाका लागून कथेंतले अणभवघटक, पात्रप्रसंग, भाववृत्ती तेचपरी तांचेमदले परस्पर अनुबंद हांकां मर्यादा पडटात. आनी हाकाच लागून तिका लघुरूप म्हळ्यार 'सान'शें रूप प्राप्त जाता आनी तातूंतल्यान एकूच एक संस्कार सिद्ध जाल्लो पळोवंक मेळटा. कथे संदर्भांत उलयतना हें लक्षांत दवरप गरजेचें आसा की परिणामाची एकाग्रताय आनी उत्कट्टाय हे तिचे अशे खाशेले गूण आसात. एककेंद्रित्व, मितव्यय, संक्षेप, संपृक्तताय, कांटेकोर, नेमकेपण हे तिच्या कलातंत्राचे खाशेले गूण तिचें स्फूट, मोटवें स्वरूप आनी संस्कारांतली एकता हांचेलागीं संबंदीत आसतात.

कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन आनी भास हे कथेचे मुळावे घटक. तेच कथार्थ/अणभवार्थ हांची निर्मणी करतात. कथार्थ म्हळ्यार आशय. सगळे घटक एकामेकांचेर पातयेवन आसतात. सगळ्या मुळाव्या कथाघटकांक सेंद्रीयतेच्या नात्यान एकात्म करपाचें कार्य कथार्थ करता. हाका लागुनूच कथेक एकजिनसी, सेंद्रीय अशा स्वरुपाचो रूपबंध फावो जाता. कथेची कलाप्रकृती समजून उमजून घेवपाची आसत जाल्यार तिच्या ह्या विंगड विंगड घटकांगांच्या सरुपाचें विवेचन करप गरजेचें थारता. तेन्ना ह्या झेल्यांत आयिल्ल्या जोगाले कथेच्या आदारान हें विवेचन आमी करुया.

**कथानक आनी आशय :**

कथानकाचो विचार करता तेन्ना तांच्या ह्या झेल्यांतल्या कथांतल्यान विंगड विंगड विशय हाताळिल्ल्याचो दाखलो मेळटा. तांचे 'वाट' हे कथेंतल्यान दोन म्हाताऱ्या जिवांचो आदार आशिल्ली चली रजू - रजनी - पंदरा वर्सांचे कंवळे पिरायेर हुंवारांत बुडून मरता आनी तांच्या आयुश्याची वाट थांबता. पूण मंगेशाक लागून तीं वाट परतून नव्यान मुखार चलूंक लागतात. नाना मास्तराच्या आनी बाईच्या जिवनाक परतून गती प्राप्त जाता; इतलोसो, सादोच विशय जोग हे कथेंत मांडटात. पूण तातूंतल्यान जो कथार्थ/आशय ते सुचयतात ती रीत कमालीची कलापूर्ण. पावसांत भिजूंक मेळचें म्हण सत्री व्हरनासप, पावसांत भिजून येवप असल्या घडणुकांतल्यान कथाकार जिणेचो मुक्त आकंठ आसवाद

घेवपाविशींची मास्तराची ओड सुचयता. हे कथेचो हो कथार्थ. एके वटेन नानामास्तरांची उत्कट जिवनेच्छा आनी दुसरे वटेन रजूच्या हुंवारांत बुडून आयिल्ल्या मर्णाक लागून बाईन जिवनाकडेन फिरयिल्ली फाट. हांचे मदलो ताण, संघर्श, द्वंद्व हे कथेंत अथपसून इति पर्यंत चलिल्लो दिश्टी पडटा. आनी जेन्ना हें द्वंद्व सोंपता तेन्ना कथाय सोंपता. हें सोंपप सभाविकूच. हे कथेंत मस्तो मंगेश आनी पावस हीं एकेच प्रतिमेचीं दोन मुखां जावन येतात. मास्तराच्या मनांत लेगीत तांचेविशींची एकरुपताय पळोवपाक मेळटा. तांकां तिचो साक्षात्कार जाला. हेविशीं जोग सुचकतायेन बरयता: 'मास्तराक दिसलें पावस हो मस्त्या चल्या भशेन! नावाडगेपणां करता पूण एकाच खिणाभितर, भितर खंय तरी थंड थंड स्वस्थकाय भरून वडयता.' आनी हाकाच लागून मंगेश मास्तराच्या घरांत येनाफुडें त्या घराची अवकळा खंयचे खंय पळटा आनी ताणें केल्लीं नावाडगेपणां बाईचे जिणेंत परतून हांसो फांकयता. 'मास्तर घरा पाव मेरेन चडशे भिजून गेल्ले' अशें लेखक म्हणटा. पूण मास्तर भिजून गेल्लो तो 'मंगेश' मेळ्ळ्या उपरांत हें हांगा लक्षांत घेवंक जाय. आनी तो कितलो भिजिल्लो? ह्या प्रस्नाची जाप मेळटा ती 'चडशे'. अशे 'चडशे' भिजून तो घरा वता. 'मंगेश' मास्तराक मेळटा हाचें कारणूय 'पावस पडपाचीं लक्षणां.' ताका लागून शाळा बेगीन सोडून मास्तर घरा वचपाक लागचो आनी 'मंगेश' मेळचो. आनी मास्तर शाळा तरी बेगीन कित्याक सोडटा तर झोंपडपट्टी शाळेंतलीं भुरगीं पावसा आदीं सुखरूप घरा पावचीं म्हण. असो हो अंतर्विरोध. मंगेश ज्या दिसा नानामास्तरागेर येता तेन्ना दार उगडटा ती बाई. आनी बाई कशी तर ताचे विशीं लेखक प्रतिमांचे भाशेंत उलोवंक लागता. 'दाट कंवचेचें वक्ल लायिल्ली, सुकून बडी कशी जाल्ली' अशा वर्णनांतल्यान जोग समर्थपणान रंगारेगांच्या एकाच फटकाऱ्यांत 'जीवना' पसून वंचीत जाल्ली आनी म्हणून शुश्क कोरडी 'सुकून बडी कशी जाल्ली' बाई रसिकांक भेटयतात. ही 'सुकून बडी कशी जाल्ली' बाई मंगेशाच्या सहवासांत येनाफुडें तिका पाचवी आंकरी तोडेता आनी ती पळयतां पळयतां पाचवीचार जाता. तिच्या दोळ्यांचेर आशिल्लें 'दाट कंवचेचें वक्ल' ही प्रतिमा तिचे जिणेपसून, संवसारापसून पयस वचप, आपणाक तोडून घेवप सुचयता. मंगेश मास्तरागेर येता तो दीस रजूचो श्राद्धदीस आसता. योगायोगान तोय बी आयतार आनी तारिखूय तीच म्हळ्यार 'सातू'च आसता. तीय 'तांबड्या' रंगांतली.

रंजूची पिराय आनी मंगेशाची आतांची पिराय एकूच म्हळ्यार 'पंदरा'च. मंगेशाच्या आगमनान त्या घरांतल्या कॅलेंडरांतली ती 'तांबडे भडक शाईन छापिल्ली' सात सारीख पाचवीचार जावन हांसून नाचूंक  लागता. पावसाक लागून त्या घराक अवकळा येवप आनी पावसाक लागुनूच  पंदरा वर्सां उपरांत परती कळा प्राप्त जावप ह्या आंतरीक विरोधाभासांतल्यान कथा  फुलत वता. 'पावस हो म्हजो काळ. म्हजो सात जल्मांचो वैरी तो...' हीं बाईचीं उतरां, पावस पडटलो हाची मंगेशान जाणीव करून दिवप, मास्तरान केन्नाच न्हय ती आपली 'शबनम' दवरून सीट रीझर्व करप, तीय मंगेशासारक्या अनवळखी पूण भावनीक नात्याची सुलूस दाखयतल्या भुरग्याखातीर अशा घडणुकांच्या माळकांतल्यान कथा चंवरत वता. ''पावस... पावस... ओऽ पळय पडपाक लागलो... हांवें सांगूंक नासलें तुका... पळय कसो पडपाक लागलो.'' मंगेशान अशें म्हणप आनी 'त्याच वेळार पावसाचे चार थेंबे कडेक बशिल्ल्या मास्तराच्या तोंडार शिंपडले आनी मास्तराक त्या चार थेंब्यांनी लेगीत तरतरी आयली. जिवाक बरेंऽ दिसलें.' मंगेश वयले उद्‍गार खुब्ब व्हडल्या आवाजान म्हणटा आनी त्या आवाजाक लागून मास्तराची तंद्री तुट्टा. ही तंद्री तुटप म्हत्वाचें. तंद्री तुटिल्ल्यान तो केशांतल्यान भायर येता. आनी ताका परतून 'जिवना'चो स्पर्श जाता. तो चडसो भिजून घरा येता. शरिरान आनी मनान लेगीत. 'ना, ना, मास्तर... संबंध उरता. संबंध उरता, मास्तर.' हे कामाक्षेच्या - मंगेशाचे आवयच्या - उतरांतल्यान, तेचवरी 'पोरा, सामकें बदल्लें मगो तूं!' हे नाना मास्तराचे कामाक्षे संबंदीचे उद्‍गार हातूंतल्यान ह्या नातेसंबंदाची माळका सादत वता.पावस पडपा संबंदीचें मंगेशाचें  कथन आनी ताचें बसींतल्यान देंवून वचप, 'हो वेळमेरेन पावसाची एक ल्हानशी दडक पडून गेली आनी आतां ताणें आपली थंडशी पिरपीर चालू केली.' असो हो मास्तराचे भावभुमीर आनी भायर सैमांत एकाच वेळार पावस पडटालो. आनी ताणें चालू केल्ली 'पिरपीर' मास्तराक 'थंडशी' लागता.  भवतापान तापिल्ल्या ताच्या जिवाक थाकाय दिता. भावकवितेंत प्रतिमा काव्यात्म कार्य सादतात तर कथेंत त्यो कथात्म कार्य कशो करतात हाची गवाय हे कथेंत जोगांनी येवजिल्ल्यो प्रतिमा आनी तांची प्रतिमासृश्ट समर्थतायेन करून दितात.

हे  कथेच्या कथानकाची मांडणी लेगीत जोगान भावकवितेच्या आकृतिबंदासारकी केल्या. पावसाच्यो दडको कुडक्या कुडक्यांनी, खळून खळून

पडटात तशेच तरेन घडणुकांचे कुडके आरतून परतून दडकांसारके 'बरसत' रावतात. 'गिमाचे निमाणे दीस' घेवन कथेचो प्रारंभ करप आनी सुकीशी बडी जाल्ले बाईच्या तोंडार पावसाचे थंडसाणीचो हांसो फुलोवन हे कथेक पूर्णविराम दिवप, ही प्रतिभा सामान्य न्हय. जबरदस्त तांकीच्या कलाकाराकूच हें साध्य जावं येता. परतें, ह्या दोनूय बिंदूंमदीं लेखक नानामास्तराचें, बाईचें, कामेक्षेचें आनी गोविंदाचे मनभुंयेर यादींच्या भावपावसाच्यो दडको घालीत ही कथा घडयता.

हे कथेंत आयिल्ल्या जायत्या प्रतिमांचो यथार्थ वापर केल्लो पळोवपाक मेळटा. तातूंत गीम, पावस, बांय, बांयचेर बागवून उदकांत रुपडें पळोवपी धव्या चांफ्यांचें झाड, बस, हुंवार, सत्री, सुकी बडी, दाट कंवचेचें वक्ल, तांबडे शाईन छापिल्ली आयतारा दिसाची ७ तारीख, पोरणें पूण गडगंज बांदावळीचें उजवाडापरस काळोख चड आशिल्लें घर, पंदरा वर्सां, पंदरा वीस सोंपणां, शबनम पिशवी, पुस्तकां, कोठयेची काळखा कूड, खेळ, शेजरा बशिल्लो आडवो सुरिल्लो मनीस आनी ताणें उठ्ठना आपल्या पांयांपोंदा चिड्डिल्लो नाना मास्तराचो पांय, दोनूय हातांनी जमता तसो पावस आपल्या पोशांत धरून बाईचेर मारप, कमरांत घागरपाटाक घांट आशिल्ली बाळकृष्णशी रजूची म्हूर्त अशो कितल्योश्योच अर्थपूर्ण प्रतिमा हे कथेंत पळोवपाक मेळटात. त्यो कथात्मक कार्य करता आसतनाच कथेक काव्यत्मकतेच्या पांवड्यार व्हरून दवरतात; हें हे कथेचें अपूर्व यश.

'वाट' ही कथा मनीस जिणेचें एक रुपकशें जावन अवतरता. अशेच तरेची तांची समर्थ कथा म्हळ्यार 'सोद'. हो 'सोद' मनीसजिणेचो. पूण हो म्हान आशय सांगपा खातीर लेखकान कथानक घेतलां तें मात सामकें सामान्यशें दिसपी. तें म्हळ्यार 'केशव ताका सोडून पळून गेल्ले आपले बायलेचो सोद घेवपाक भायर सरला.' वयर वयर पळयल्यार हें कथानक अती सामान्य दिसता. पूण तशें तें ना. 'दादलो' आनी 'बायल' ही मनीसजिणेच्या रथाचीं दोन रोदां हें तत्त्व लक्षांत घेतकर कथानकांतलें 'रुपक' लक्षांत येवंक लागता. तांतल्यो साबार प्रतिमा रसीकाकडेन संवाद सादतात आनी ताका 'मनीसजिणे'च्या ह्या 'सोद'कार्यांत वांटेकार करून घेतात. तांचे 'व्हॅरा', 'असो मोग! नवो मोग!' आनी 'दूधसागर' ह्या कथांचो विशय जरीय एकूच 'मोग' आसलो तरीय तांचो आशय भिन्न आसा. इतलेंच न्हय तर ह्या तिनूय कथांनी केळयिल्ल्या मोगाची

तराय विंगड विंगड आसा. हो मोग 'व्हॅरां'त निसुवराथी तर तोच 'असो मोग! नवो मोग!' कथेंत आपसुवराथी जाल्लो अणभवाक येता. आनी 'दूधसागरा'तलो मोग तर अमुरपिको, पिसो-पिसोसो. 'मिनी', 'टायगर आनी ग्रॅनपा' ह्या कथांतलो मोग कितलो निश्पाप, नितळ आनी म्हणुनूच heavenly. वेव्हारी मनशामदें ताचो उणाव दिसता होच हे कथेचो आशय. तेचबरोबर 'व्हॅरा' ही कथा एक उत्कृश्ट व्यक्तीचित्रणात्मक कथा. 'जीण' हीय ह्याच प्रकारची 'सुखी मनीस' व्यक्तीचित्रणात्मक भासता पूण तिचो आशय व्यक्तीचित्रण करप हो ना. लेखकाक तातूंतल्यान सांगपाचें आसा तें अशें की, मनीस सुखी जावपाच्या नादाक लागून 'सूख' कितें तें पारखूंक चुकता. ताका दिसता, खूब पयसो मेळटकीर 'सूख' आपशींच मेळटा. पूण तशें जायना. 'सूख' हें समाधानी वृत्तींतल्यान जल्म घेता. जंय समाधान ना थंय सूख खंयचें आसतलें? 'पंचेचाळीस हजार' हे कथेंतल्यान लेगीत होच आशय वेगळे तरेन लेखक केळयतना जाणवत रावता. 'सुखी मनीस' कथेंतलो शाम आनी हे कथेंतलो पुरसो हीं हे वृत्तीचीं दोन तोंकां. पॉजिटिव्ह आनी नेगेटिव्ह. 'जीण' आनी 'संवसार' ह्या दोनूय कथांचो आदारपाटो म्हळ्यार कथानायक/नायिका हांच्या अर्दांगाचें मर्ण. पूण दोनांयचो आशय विभिन्न. 'संवसार' ही कथा पातळ जाल्ली दिसता तर 'जीण'मदलो आशय भालोसो काळजाक खोल खोल तोपत रावता आनी यशवंताक एका निरक्षर मानांयान सांगिल्लें जिणेविशींचें तत्त्वगिन्यान मेंदवाक काटमुयेवरी चाबत रावता असो भेदक अणभव येता.

'औंट घटकेचो भट' आनी 'रस्तो' ह्यो दोनूय कथा गांवगिऱ्या वाठारांतल्या अज्ञान, दळदीर, आडांगेपण, तुकलावणेपण, बाबडेपण, श्रद्धाशीळताय अशा साबार प्रवृत्तींचेर उजवाड घालतात. पूण दोनूय कथांमदीं लेखकान आपणायिल्लें तंत्र वेगळें. 'रस्तो' समाजीकतेच्या आंगान उलयता तर 'औंट घटकेचो भट' कुटुंबीकतेच्या आंगान. 'औंट घटकेचो भट' हें खरें म्हळ्यार गांवगिरे जिणेचें मार्मीक शब्दचित्रण. एकाच वेळार ही कथा अनुभुतीच्या विंगड विंगड पांवड्यांवेल्यान प्रवास करतना दिश्टी पडटा. एकाच वेळार विनोदी, मिस्कील, वास्तवदर्शी, व्यक्तीचित्रणात्मक अशें म्हणचें पडटा. जो रसीक तिचेकडेन जसो पळयता तशी ती ताका भावता.

'कावून व्हेऽऽले' ही ह्या झेल्यांतली सर्वांगसुंदर तशेंच कोंकणी कथाविश्वांतली

आगळी वेगळी कथा अशें हांव म्हणीन. 'गॅसान हुलपून मरण येवप' ही कितली सदची गजाल जावन पडल्या. खरें म्हळ्यार वाचप्याक लेगीत ती संवकळीची जाल्या. आयिल्ल्या दिसा ताचेविशीं आमी आयकतात, वाचतात, उलयतात. पूण जोगबाबाक तांतल्यान मनीसजिणेच्या संदर्भांतलो आगळो वेगळो आशय भावता. आनी ते तो आशय रसीकाक हे कथेंतल्यान भेटयतात आनी आमचे दोळे उगडटात. 'जे न देखे रवि...' अशें जें कवी कलाकारा संबंदान म्हणटात ताची तीख प्रचिती वाचप्याक येता. परात्मभावाचो जळजळीत तीख अणभव ही कथा वाचप्याक घेवंक लायता. मनीस जिणेंतली संदर्भहीनताय, निरर्थकताय, absurdity हे कथेंतल्यान जोगबाब जे तांकीन मांडटात ती तांक तांच्यांतल्या श्रेश्ट कथाकाराचो साक्षात्कार घडयले बगर रावना. कथेचो आशय, रचना, पात्रचित्रण, वातावरण निर्मणी, निवेदन, भाशा बी कथेच्या साबार आंगांचो वस्तुपाठ हे कथेंत पळोवपाक मेळटा.

कथेची सुरवात एके तात्कालीक खंतींतल्यान जाता आनी अखेर सासणाचे खंतीन जाता. आनी हे मदीं मनीस जिणेचे सगळे तरेचे विभ्रम थोडेभितर पूण प्रत्ययकारी अणभव दिवन वतात. हे कथेची सुरवात आनी शेवट अभ्यासपासारकीं. सुरवातीचें वातावरण चित्रण आनी अखेरचें वातावरण चित्रण, एकामेकांचो लय, ताल आनी तोल (balance) कसो अचळयां सांबाळटात. कथेची अखेर मनीसप्राण्याच्या 'कळसुत्री'पणाविशीं केल्ल्या प्रखर भाश्यान जाता. आनी ती लेगीत 'कोवळो' आनी 'मर्ण' हांचे संदर्भ घेवन. कथेचे सुरवेक साळोरेचो संदर्भ येता आनी अखेरेक कावळ्याचो. हो विरोधाभास लक्षांत घेवपा सारको. अशे तरेन आशयूच हांगा कलात्मक रूप घेवन प्रगट जाता. 'मागीर खंयच्यान तरी कोणाचो तरी हात येता, ल्हवूच भुरग्याक कळनासतना ती वस्त उखलता. अस्सो हात हालयता, म्हणटा, "ओऽ पळय काऊ आयलो... काऊंन व्हेऽऽलें... आ! पळय! ना...?" आपलो रिकामो हात त्या भुरग्यामुखार नाचयता, भुरगोय आपलो हात नाचयता आनी म्हणटा, 'आ... ना!' हो शेवट वाचप्याक अंतर्मूख करता. ही कथा मनशाचे जिणेविशीं एक रुपकशें जावन अवतरता.

**पात्रचित्रण वा व्यक्तीचित्रण :**

पात्र म्हळ्यार 'container'. जो आशय रसिकांमेरेन पावोवपाचो हेत कलाकार बाळगिता तो तांचेमेरेन पावोवपी एक 'आयदन' जाय पडटा. तें म्हळ्यारूच

'पात्र'. पात्र ह्या  घटकाचें मुळावें कार्य लेगीत कथार्थाची निर्मणी करप हेंच आसता. हें लक्षांत घेतल्यार 'वाट' कथेंतलीं 'पात्रां' नाना मास्तर, बाई आनी मंगेश हांच्यांतली संगती लक्षांत येता. कथाकार आपणाक निर्माण करपाच्या कथार्थाच्या अनुषंगान एके  व्यक्तीप्रतिमेची निर्मणी करता. ही व्यक्तीप्रतिमा कल्पीत आसता. ताची वृत्ती, कृती, उक्ती, अणभवसृश्ट, जिवनपद्धत आदींच्या साबार चित्रणांतल्यान तिची एक शब्दरूप प्रतिमा निर्माण जाता. ही शब्दरूप प्रतिमा म्हळ्यारूच 'पात्र'. शब्दरूप आसली तरीय ह्या 'पात्रां'क प्रत्यक्ष जिणेंतल्या मनशांप्रमाण शरीरीक, मानसीक, समाजीक आंगां लाबिल्लीं आसतात. तांकां स्वताचें अशें स्वतंत्र भावविश्व, व्यक्तित्व लाबिल्लें आसलें तरी लेगीत प्रत्यक्ष जिणेंतल्या व्यक्तींप्रमाण तीं स्वतंत्र नासतात. कथेचे अर्थसमेष्टीचें तें एक अविभाज्य आंग आसता. पूण तरी लेगीत एक चत्राय लक्षांत दवरूंक जाय. ती म्हळ्यार, कथासंहितेचो मुळावो घटक म्हण कथेंत जशें हें 'पात्र' क्रियाशीळ आसता त्याच वेळार दुसऱ्या पांवड्यार ताचें भावविश्व प्रत्यक्ष जिणेंतल्या मानवी भावविश्वाबरोबर एक खाशेल्या प्रकारच्या नात्याची थापना करीत आसता. 'पात्रां'चें सरूप आनी पात्रचित्रणपद्दत कथार्थानुसार थारतात. 'पात्रां'कडेन पळोवपाचो लेखकाचो दिश्टीकोन लेगीत 'पात्रा'चे सरूप घडणुकेंतलो एक म्हत्वाचो घटक. कथेंतल्या पात्रां-पात्रां मदले संबंद आनी तांचो परस्परन्यास हे लेगीत पात्रचित्रणाक आकार दिवपी दुसरे म्हत्वाचे घटक लेखकाक आनी रसीकांक लक्षांत घेवचे पडटात. 'वाट' कथेंतलीं नाना मास्तर, बाई आनी मंगेश, 'सोद' कथेंतलो केशव आनी म्हातारो, 'औंट घटकेचो भट' मदलो शंभुलो, 'जीण' कथेंतलो यशवंत, 'काऊन व्हेऽऽले' मदलो तो आनी ती, 'व्हॅरा' कथेंतलें 'व्हॅरा', 'शंभर रुपयांची गजाल' मदलो 'तो', 'पंचेचाळीस हजार' मदलो पुरसो आनी ताची बायल अशीं अर्थपूर्ण आनी आशयसंपन्न व्यक्तिचित्रणां 'सोद' ह्या कथा झेल्यांत आसात. संवसारांतल्या जायत्या प्रकारचीं मनशां तांचे कथेंतल्यान भेट्टात. तातूंत दादले आसात तेचवरी बायलो, तरणाटे आनी चलयो, म्हातारे-म्हाताऱ्यो आनी वागा सारकीं जनावरां लेगीत पळोवंक मेळटात. गांवगिऱ्या वाठारांतलीं तशींच शारांतलीं विंगड विंगड वेवसायांतलीं आनी कामाधंद्यांतलीं हीं मनशां. तांचें व्यक्तीचित्रण विपूल आनी गुणसंपन्न.

**वातावरण निर्मणी :**

कथा ही एके विशिश्ट अशा स्थळकाळाचे चौकटींत, एका विशिश्ट भुगोलीक तशेच समाजीक संस्कृतीक पर्यावरणांत घडटा. हाका लागून कथेंतल्यान विशिश्ट भाववृत्ती प्रगट जाता. हातूंतल्यानूच कथेची वातावरण निर्मणी सादप शक्य जाता. कथेखातीर लागपी एक परिसर कल्पनेंतल्यान निर्मप हो तिचो मुखेल हेत. कथेंतलो परिसर प्रतिमासद्दश लेगीत आसूं येता. हाका लागून कांय कांय वेळार कथेंतलें वातावरण वास्तव आनी प्रतिकात्म अशा दोन पांवड्यार अर्थनिर्मणी करतना अणभवाक येता. अशे तरेन कथेंतलें वातावरण अनेकार्थतेक प्रेरक आनी मजदगार थारता. पात्रचित्रण, घडणुको, प्रसंग, नाट्य, संघर्श बी कथेंत येवपी साबार बाबींचें वातावरणा बरोबर सेंद्रीयतेचें नातें आसता.

**निवेदनपद्दत :**

निवेदन हें कथनात्मक साहित्याचें आदारमूळ. ताचेविणें कथानात्मक साहित्याचो आविश्कार जावंक शकना. निवेदन करप म्हळ्यार सांगप, कथन करप. सांगपा संबंदान मुळावे दोन प्रस्न उपरासतात ते अशे: कितें? आनी कशें? ह्या दोन प्रस्नांच्यो जापो एकठांय मेळून जी वस्त तयार जाता ती म्हळ्यारूच निवेदन पद्दत. कथाकार कथा सांगपाखातीर एक निवेदक पात्र निर्मिता. आनी ताच्या विशिश्ट दिश्टीकोनातल्यान वाचकाक/आयकतल्याक कथा सांगता. अशा निर्मिल्ल्या पात्राच्या दिश्टीकोनाच्या मुळयां कथाकाराचो कलाहेत आसता. ह्या कलाहेताक अणसरून कथाकार निवेदकाच्या दिश्टीकोनांतल्यान कथेंतल्या विंगड विंगड घटकांचें विशिश्ट रितीन संघटन करता. अशे तरेन कथाकार आपले कथेंतल्या समग्र भावविश्वाचें सुत्रसंचालन करीत आसता आनी निवेदक पात्राच्या माध्यमांतल्यान तो साबार पांवड्या वयल्यान अणभव घेवंक लागता. कथार्थानुसार निवेदकाची भुमिका बदलता. हो निवेदक केन्ना तिरायताचे भुमिकेंतल्यान तर केन्ना सर्वज्ञ-सर्वसाक्षी जावन, केन्ना कथानकाबरोबर समरसून वचून कथन करपी अशा साबार रुपांनी कथेंत वावुरतना दिश्टी पडटा. कथेंतल्या 'पात्रा'भायलें अशेंय निवेदकाचें पात्र कथेंतल्यान वावुरतना दिसता. केन्नाकेन्ना कथार्थाचे मागणेक लागून कथेंतल्या खंयच्याय पात्राकडेन निवेदकाची भुमिका कथाकाराक सोंपोवची पडटा. अशे तरेन निवेदक पात्र जें निवेदन करता तेवरवीं

ताचे जे प्रकार वा पद्दती (narrative modes) जावं येतात त्यो अश्यो:

१. निवेदन / कथन (narration)

२. वर्णन (description)

३. संवाद, आनी

४. भाश्य.

निवेदकाची निवेदन पद्दत ह्या साबार पांवड्यां वयल्यान एकाच सांगातान चलत उरता. निवेदकाच्या विशिश्ट दिश्टीकोनांतल्यान आनी विशिश्ट अंतरा वयल्यान केल्ल्या निवेदनाचे मजतीन कथाकाराक आपले कथेची निर्मणी करप शक्य जाता.

**भास :**

कथेची संहिता भाशेक लागून साकार जावंक पावता. ही भास म्हळ्यार कथेचें कल्पीत विश्व निर्मुपी रंग आनी रेगो. हे रंग आनी रेगोच कथेक ताचें अशें खाशेलें रूप, ताचें सरूप - भायलें तशेंच भितरलें - प्राप्त करून दितात. कथाकार आपले कथेंत येवपी आशयाक आनी विशयाक अणुसरून कथेचे भाशेची निवड करता. ताचे फाटल्यान ताची कथासृश्ट, सौंदर्यसृश्ट आसता. कथेंतलो कथार्थ, तिचो निवेदक आनी ताचो दिश्टीकोन, अणभव घेवपाची पद्दत आनी तांक, ह्या सारक्या बाबींचेर खंयचेय कथेचें भाशीक रूप सिद्ध जावंक पावता. कथेचे गरजेक अनुसरून विशिश्ट भाशीक प्रदेशांतल्या वा विशिश्ट वेवसायीक वाठारांतल्या भावनीक वापरांतल्यान लेगीत एकाच कथाकाराचे ते ते कथेंतले भाशेक विंगड विंगड गंध आयिल्लो चाखूंक मेळटा.

**शैली (कळाशी) :**

"Man is a style." शैलेचो संबंद रचणुके कडेन लागता. रचणूक म्हणजेच तंत्र. कितें सांगप हें जशें म्हत्वाचें तशेंच तें कशें सांगप हेंय तितलेंच म्हत्वाचें. हांव तर अशें म्हणीन की तें कितें सांगप हाचेय परस थोडेंभोव चड म्हत्वाचें. हाचें कारण अशें की जें सांगपाचें आसा ताचो परिणाम सादप हें सांगपाचे पद्दतीचेरूच अदीकतरायेन पातयेवन उरता. शैलेचो विचार करता तेन्ना दोनी वस्तूंचो विचार करचो पडटा. त्यो म्हळ्यार (१) भाशा आनी (२) मांडणी (घाट).

**शैलेच्यो पती :**

इतिहासीक, पत्रात्मक, नाटकीय, संवादात्मक, आत्मचरित्रात्मक, डायरीलेखनात्मक, भावकाव्यात्मक, विडंबनात्मक अश्यो शैलेच्यो साबार पती कथाकार आपले कथे खातीर आपणावंक शकता. खंयचे कथेक खंयची पत सम जातली हाचो निर्णय ताचे ताकाच करचो पडटा. ताची निवड करतना कथेचो आशय मुजरत मतींत घेवचो लागता. जोगबाब हांणी आपणाल्या कथांखातीर वयल्या कांय पतींचो उपेग केल्लो पळोवंक मेळटा. पूण जे कथेंत शैली आनी आशय हांचा सुमेळ घालपाच्या वावरांत लेखक फिशाल जाला त्यो कथा चड प्रत्ययकारी जावंक पावल्यात हें सांगीनशें दिसता. देखीक, 'वाट', 'कावून व्हेऽऽलो' आनी 'सोद'.

बाब गजानन जोग हांच्या ह्या कथांझेल्यांतल्या कथां विशीं अदीक जायती फोडणिशी करूं येता. पूण कार्यावळीचें स्वरूप मतींत घेवन ताका हांगाच पूर्णविराम दितां.

* * *

# ११.

## सोंशाचे कान : एक आस्वादन

गोंयच्या स्वातंत्र्यान कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांतलें एक नवें पर्व सुरू जालें. स्वातंत्र्या उपरांत कोंकणीच्या उद्धाराची चळवळ कोंकणीच्या मूळ पिठांत पावली आनी अंदल्ले गळे मेकळे जावन सहस्त्र आवाजांत कोंकणी प्रतिभेक कंठ फुटलो. पूण हेविशींचें भाकीत आमचे दृश्टे कवी बाकीबाब बोरकार हांणी गोंयचे मुक्तताये आदींच आपले कवितेंत केल्लें:

*''सात लाख गोंयकार आमी*
*युग नवें फुलयतले*
*अंदल्यात मंत्र जिवीं*
*ते फाल्यां उलयतले...''*

कितलींशींच वर्सां आदीं बयाभावान कोंकणी कवितेचीं परमळीत 'सड्यावयलीं फुलां' फुलयिल्लीं. ते उपरांत आपलीं पांयजणां मंद मंद वाजयत बाकीबाब आयले. फाटोफाट 'म्हजें उतर गावड्याचें' म्हणीत र.वि. पंडित आयले. अशे कितलेशेच कवी कोंकणींत कविता रचूंक लागले. मराठी, पुर्तुगेज वा हेर भासांनी साहित्य निर्मिती करपीय कोंकणींतल्यान बरोवंक लागले. आनी आतां फाटल्या तीस वर्सांच्या काळांत कोंकणीच्या धुवां-पुतांनी तिका साहित्याचे साबार सोबीत अळंकार चडयल्यात तिका भारतीय भाशांचे आनी विश्वभाशांचे पंगतीक सन्मानान बसोवपाचो वावर आपखोशयेन केला. हो वावर जसो गोंयांत चल्ला तसो तो गोंयाभायर जंय जंय कोंकणीच्यो धुवो-पूत आसात थंय थंय चल्ला आनी ह्या फुडें तो अदीक नेटान चलतलो अशी आस्त आसा. कोंकणी भाशेच्या विकासाचो जितलो वावर गोंयांत आनी मुंबय जालो ताचेपरस कांकणभर चड वावर गोंयाभायर मंगळुरा आनी कोची जाल्लो दिश्टी पडटा. लिपयेच्या आडाम्यांक लागून आमकां तेविशींची जितली खबर आसूंक फावो आशिल्ली तितली जालिना. पूण आतां एक भास, एक लिपी हें तत्त्व आपणायिल्ल्यान गोंयापासून पयस आशिल्ल्या ह्या कोंकणी वाठारांतल्या साहित्याचो परमळ आमचेमेरेन पावपाक लागला. कवितेच्या मळार चा.फ्रा. द कॉश्ता हांणी आपणाले कवितेच्या घमघमीत परमळांत समेस्त कोंकणी भाशीक लोकांचें लक्ष आपणाकडेन ओडून घेतलां.

तांणी 'तळ्यांत लकयिल्लो बुडकुलो' आमचेर अम्रुताची धार ओतता. कोंकणी कवितेक अम्रुताचे पदवेक पावोवपाच्या वावरांत तांणी नेटान पावल मारलें. आपले एके कवितेंत तांणी उकतायिल्लो हो हावेस पूर्ण जालो:

*''आमी बावडीं कोंकणी बाळां शिंपल्यांत जरी चोंय मळा*
*नेत्रावती जुवारीचो मोग घडो सदा.''*

(म्हजे पिल्लुकेच्या सादा, पा. ६१).

तांचे हे अम्रूत कवितेची नोंद साहित्य अकादेमीन घेतली. आनी तांकां साहित्या खातीरचो पुरस्कार भेटयलो. तांच्या 'सोंशाचे कान' ह्या कविता झेल्याक हो भोवमान फावो जालो आनी,

*''जेवणाक केळी पान ना*
*चार चोवगां मान ना.''* (पा. ३७)

ही तांची खंत पयस जावन ह्या 'कोंकणीच्या कवी'चीं 'सोभाणां' जालीं. कानडी मातयेच्या मळार आपले कोंकणी कवितेचीं 'मांडसोभाणां' ह्या कवीश्रेश्ठान आपले प्रतिभेन रंगयलीं. 'सोंशाचे कान' ह्या कविता झेल्यांत गुंथिल्ल्या शेंवतीं-आबोल्यां संबंदान म्हाका जें कितें भावलें, अनुभवूंक मेळ्ळें तेविशीं हांव सदळपणान सांगूंक सोदतां. तांचे कवितेचो एका रसिकान घेतिल्लो हो आस्वाद. ताका समिक्षेची आडवणां नात. तांचे कवितेच्या कांय आंगां संबंदान म्हज्या मनांत जे तरंग जल्मले ते म्हणल्यारूच हें बरप. आतां तांचे कवितेविशीं.

**चाफ्राचे कवितेचें स्वरूप :**

तांचो 'सोंशाचे कान' हो कवितां झेलो पळयल्यार तातूंत फकत ५१ कविता गुंथल्यात. तातूंत विंगड विंगड प्रकारच्यो कविता पळोवंक मेळटात. पूण कविता झेल्याक जे कवितेचें नांव शीर्षक म्हण फावो जालां ती तांची शीर्षक कविता ह्या झेल्यांत ना. पूण ताका लागून तांचे कवितेचो आस्वाद घेवपाच्या वावरांत कांय आडखळी येतात अशें म्हाका दिसना. हाचें कारण अशें की तांचे कवितेचो जो सभावीक गूण वा जिका तांची काव्यप्रवृत्ती म्हणूं येता तेविशीं मेकळेपणान संवाद सादपी जायत्यो कविता ह्या झेल्यांत आसात. तांचे कवितेची प्रवृत्ती ही एकाच वेळार भावकवितेची आनी चिंतनगर्भ कवितेची जावन आसा. पूण तातूंत भावकवितेचो प्रवाह प्रभावी जाल्ल्या कारणान तातूंतली चिंतनशीलताय सोंपेपणीं लक्षांत येना. कांय कविता हाका आडवाद आसात. देखीक, तांच्यो

'खरस', 'थेंबे', 'मिठाकण', 'बांयलागचे चलयेक', 'दोन बुडबुडे', 'बाळाचो हांसो', 'स्वपणांतुलें राज' बी कविता. तर भावकवितेचो प्रवाह प्रभावी आशिल्ल्या कवितांमदीं 'आशा', 'उजो', 'मोग करूं लिपूनसो', 'हाड चेडवा बुडकुलो', 'चार चौगां मान ना', 'बाळाचो हांसो', 'आजूच तशें', 'मायामोग' बी कवितांचो प्रमूखतायेन आसपाव करचो पडटलो. ह्यो कविता मनांत घोळयतां घोळयतां अंतर्मूख करतात आनी जिवाक अस्वस्थ करून सोडटात.

चाफ्राची कविता अशी दोन सोंपणांचेर एका वेळार प्रवास करता. ती उब्याउब्यांनी वाचून समजूंक कठीण. ती मनांत जिरतली, मुरतली तेन्नाच तिची रूच कळटली. तिका उपमा दिवचीच जाली जाल्यार हांव 'कसाय'ची दीन. कसाय जिबेच्या पोंतार लागता कोडू पूण ताळ्याच्या मुळांत पावतसर ताची मिठास रूच कळटा. आनी पोटांत वतकूच तर आमचे कुडीक भलायकी दिवपी हो 'कोडू'सो कसाय अम्रूत जाता. चाफ्राची कविताय तशीच. चाफ्राच्या कांय कवितांनी उतरांचो खेळ चलता. पूण उतरांचो हो खेळ खेळटां खेळटां चाफ्रा रसिकाक केन्ना जिविताची खर दाखोवन हाडटा. हाचो अंदाज सहजतायेन येना. देखीक तांच्यो 'कोडयाळच्या बशींनी', 'आबोल्याचो रंग', 'पोपायो', 'इजाबेला', 'आडकुलो गो बुडकुलो' बी कविता. 'प्रतीक कविता' जांकां म्हणूं येत अशा कवितांचोय आसपाव तांच्या ह्या झेल्यांत आसा. देखीक, तांच्यो 'थेंब', 'मिठाकण', 'शेंडो', 'दोन बुडबुडे', 'वंय', 'पोपायो', 'उजो', 'पिंपळा पानां', 'उमो', 'दक्षिणेचो मुदो', 'क्रिस्तांव' बी कविता. एकूणच तांचे कवितेच्या भितरल्यान एक nostalgia चो अंत:प्रवाह मंदसो पूण आकांताचे ओडीन व्हांवतना अणभवाक येता. आपले मायभुंयेपसून, मूळ पीठ गोंयापसून तुटून पयस वच्चें पडलें हाची खंत तांच्या संवेदनशील मनाक सतत तोंपत रावता हाची तातूंतल्यान गवाय मेळटा. देखीक तांच्यो 'म्हजे पिल्लुकेच्या सादा', 'पिंपळा पानां', 'नातलांची भेट', 'पोपायो', बी कविता. पूण कितेंय आसलें तरी चाफ्राचे कवितेंत मुखेल रस आसा तो प्रेम. हांवें 'शृंगार रस' अशें म्हणूंक ना. म्हाका दिसता 'शृंगार रस' अशें म्हणल्यार तांचे कवितेचे रसवत्तेक 'गडी' घाल्लेवरी जातली. तांची ही कविता 'दुबेळी' आसा. तशीच ती निबरूय आसा. तिचें उतर तरणें पूण सांगणें जून, अनुभवान पक्व पिकिल्लें. आनी देखून रसाळ. 'दोंगरावेल्या झऱ्यावेरी अम्रुताची धार' आनी 'गोडा मिठा लवणांची आतां तातूंत थार' अशें खुद्द कवीच म्हणटा. अशी ही कविता. तांचे साबार कवितेंतल्यान प्रेमरस पाचेतना दिसता. झऱ्यावेरी अम्रुताची धार' आनी 'गोडा मिठा लवणांची आतां तातूंत

थार' अशें खुद्द कवीच म्हणटा. अशी ही कविता. तांचे साबार कवितेंतल्यान प्रेमरस पाचेतना दिसता. कांय कवितांतल्यान प्रेमरसाच्या दर्यांत आयिल्लीं मोडां आसात. पूण हो दर्या सादोसुदो न्हय. ह्या दर्याक उजो पेटला. व्हडेंय सोडून कवी आपले मोगिकेक म्हणटा, 'चड म्हज्या होड्यार.' 'स्वपणांतुलें हें राज' आपणावंक सोदपी कवीच्या 'मोगा'ची शोकांतिकाय हातूंत आसा. कवी म्हणटा:

*''पाकळेक वोंट लागतां लागतां*
*कातर पडली देंटांत.''*

पूण ते कातरिकूय मोगिणीच्या मोगाची गोडसाण आशिल्ल्याचो अपूर्व साक्षात्कार ताका जाता. तो म्हणटा:

*''कातरीक मात तुजी गोडसाण*
*कशी, कित्याक कळ्ळी ना.''*

तांचे प्रेम कवितेच्यो अश्यो जायत्यो जाती आनी पती आसात. तातूंतले मोगी आपले मोगिकेक सांगता:

*''हाड चेडुवा बुडकुलो लकय तळ्यांत*
*आजून तुका राखून रावलां काजच्या मळ्यांत.''*

पूण तेच बराबर तो आपल्या मोगाक शिटकायता:

*''आशेनाका काळजाक मोगा, ओंठ वोगो लासत*
*खरशेनाका खाडकेखाला काळीज लेगून भेंसत.''*

प्रेमकवितांमदीं तांच्या ह्या कवितांचो मुजरत आसपाव करचो पडटलो. 'शेंवत्यान धल्लें गुलाबाक वेंगींत' म्हणपी हो कवी 'खर्शेताना' म्हणटा:

*''आलमारींत बूक, बुकांत कविता वाचूंक आशेलों*
*किरकोळ वाक्य वाचून गेली हांव खरशेलों*
*जिणयेचीं नवलां गुसपटीं सवळां समजूंक आशेलों*
*दुबळी अबळी समजूंक सकलीं. हांव खरशेलों.''*

कवी अशें म्हणटा खरो, पूण त्याच वेळार रसिकाक जेन्ना

*''जिवीत म्हळ्यार भितर पोकळ भायलीं पुराय रैलां''*

अशें शिटकायता तेन्ना तो 'गिन्यानाची मुदो' जाता.

## चाफ्राचे कवितेंतल्यो प्रतिमा :

कवितेची भास ही प्रतिमांची भास. श्रेश्ट कविता म्हळ्यार प्रतिमांचो सुरेख सोबीत असो वळेसर म्हणूं येता.चाफ्राची कविता प्रतिमांनी गिरेस्त आसा. पूण ही गिरेस्तकाय अडेची न्हय. ती निजाची. तिका सासणाचें दायज आसा. चाफ्रांचे कवितेंत मेळपी प्रतिमा ह्यो खासा कोंकणी मातयेंत किल्ललल्यात. देखून तांचें आगळेवेगळेपण आनी म्हत्व अखिल कोंकणी कवितेंत रसरशीतपणान जाणवता. देखीक तांच्यो कांय प्रतिमा पळयात: गिन्यानाचो मुदो, पाव्यांतुलो पोवळेकुडको, माडयेवयलो सोगो, नित्राणाचें कडतार, कोंबांतल्यो चलयो, पांयांचीं मेटां, कोंब्याचो उलो, वोतांत वता ती पालवा खेरीत, वयजाल्या मांडार वखदांचो भोग, मात्यार मुडो, मुड्याचे जडायेंत वाट दिसना, मतींतलो कवी कुशीन सरो, तुजे गोमटेर एक ऊव देंवल्या, पेंकटाक हात धरून उबी रावल्या, रातीचे बण रात्रदिवो, दनपारां तळ्यांत मळबाचो मेळ। उदकाचे गंडायेंत मोडांचो खेळ, सांजेची पासळी, रडकुरो ताळो, किरकोळी वाळय, चिकोळी, गुसपटीं सवलां, म्हवाली पोर, तरणी ताळी, तरणो बोंगो, दुलबी फांत्यार दोंगरांचीं तानां, पुनवेच्या चांदण्यांत चाबच्यो सावळ्यो, तरनाटी सांज, मोगाचे बावळे, ल्हारांची दांबण  शेंवत्यान धल्लें गुलाबाक  वेंगेंत, नशिबाचो गुपतो, मोगाचो उमो, कोडशीं बुकां, मस्ती रात मोटवी जाली आंगा वेंगींत दामून, माकड मस्तो रिगला बागींत, दांत अडिल्लो चंद्र, कांटो फुलाक वेंग मारतना, तलकापरी तूं चळून वेताली, पाचव्या खोमसाचो, पिजिल्ले लुंगयेचो, कोडयाळच्यो बशी, बरफाची शिर म्हज्या उंडांत, काळजाचो कपो म्हज्या तोंडांत, आयसा कुडको, सुवर्णाचे घोसाळे, मळांतुल्या तळ्यांतिरीं कारेण्याची रास, दोंगरावेल्या झऱ्यावेरी अम्रुताची धार, केदी   पान, दोंगर मात्यार तरण्या तणांत एकदां बसून आसतां, सांजेवारें लजेन बुडून तळ्यांमदें मोडलें, तणा भरो मात्यार घेवून। म्हारडें एकलें चल्लें। वोंटयेंत बसून बाळान  ताच्या। स्तनांक मुख घांसलें, शेतां मेरीं एका घरी।, पिवपाक नीस नासलो। दुसऱ्या घरीं जेवणा मेजार। पोसव्या भरो कुसलो, ल्हारां घाली गोरज, आनी काळजांत उट्टीं ल्हारां, हांव गा कोण, कडचें मेण, फात्यांवेळीं बंजर बोंग्याक हांसो पिसो खेळ्ळा, मातये कूड, उदकांत सोडल्यो धलत्यो पाती, कोणी म्हण पानप्र[illegible] [illegible] देव नाचता, पिंपळा काटें, आंकुडताना देखलें तुका नागड्या दोवांत झाडा भरश्यां दाक्षणेचो मुदो, बदलाक तुवें  गुमट केले, नाचून पिटो केली गाद्दे, हाड्डां दिल्लीं हुलपावन तुवें पिटो करून दांत घातले।... चेप्यार बसले, दोळो केदी कोंयां



तेदो, फांत्यापुडच्या दंवाचो। एक थेंबा म्होंवाचो, तुजो हांसो तिचो बाळा...,
चंद्रमातळिं वर्णां, भाड्याचीं दोन किरणां। गालावयलीं भिरणां, हरशीं पोरसांत
जायतें आसा, फिरंगी पिशें। शिमटी नेकेत्र, पोर्नें गुमट, मस्तें मस्तक, कवितेच्या
ग रसान सगळें गोंय बुडटलें, दुधा झरी, तवशीनीचें दालें, लेवंटें नाक,
ाट जिरून दूख गळटाना। दर्या ताची तान भागय तुजी भागचीना,
क यर्शी, पोटांत जळतासतना, पुरणा पातोळी, हळदीचे खोले,
तायकुळ्याच ...ड, न ब्राची मडकीं, बोटायेदी चान्नी, रसबाळ्या केळ्याची
फोडीशी, पाषाणां भोवतीळी मातीशी मोव, मळबारी तारां मिणकची दोळे,
चाफल्या-मुळी फायचें झाड खुसुं-खुसुं रडलें, बिरी-बिरी पावस, दंवान तोंड
ग्लें, फायच्या झाडान आपलें काळीज शिजयलें, खिणकुळ्यांचो नाद...

**चाफ्राचे कवितेची भास :**

कविता ही भाशीक संरचना. कवी भाशेच्या दायजा वरवीं मेळिल्ले शब्द आपली कविता रचपाक वापरता. पूण इतल्यान जायना. बरेच फावटीं ताका दायजामदें जायते शब्द मेळनात. तेन्ना ताका नवे शब्द घडोवचे पडटात. हे शब्द नवे आसतात. ताचो नवो अणभव आनी ताचो आविश्कार नवेच तरेन घडोवपांचो हेत, हांचे अपरिहार्यतायेंतल्यान कवी नवीच भास घडयता. म्हणुनूच कवीची भास ही एक स्वतंत्र अभ्यासाचो विशय थारता. कविता हो कवी आनी ताची भास हांचो कस लावपी साहित्य प्रकार. चाफ्राची भास ही कोडयाळी भास. पूण ती गोडयाळी जाल्या. तांचीं उतरां वेंचीक आनी रुचीक. पूण तीं अडेचीं लागनात. तीं सान बाळकांच्या उतरांसारकीं नितळ आसात. तांचे नितळसाणेंतल्यान जिवनाच्या दर्याची खर दिसता. आनी हाका लागून तांच्या उतरांक जाणटेल्याच्या अणभवांची खरसाण लाबल्या. तांच्या उतराक खाऱ्या वाऱ्याची, दर्या उदकाची आनी मिठाकणयेची खारसाण आसा. तेचवरी ताका रसबाळ्या केळ्याची मोवसाण आनी खरशेल्ल्या जिवाची तान भागोवपी दोंगरावेल्या झऱ्याच्या उदकाची अम्रूतसाण लेगीत आसा. तिचें रूप हांसत्या शेंवत्याचें, फुलत्या आबोल्याचें, रसबाळी केळम्याचे कांडीचें.

* * *





# क्ष

कोंकणी साहित्य-समिक्षेक
मुखावेल्या पेण्यार
व्हरपी व्रतस्त
समिक्षाबरप.




पर-प्रतिमा प्रकाशन, पेडणे-गोवा.

आमचीं प्रकाशनां



टी.बी. कुन्या



स्वामी विवेकानंद



लोकमान्य टिळक





भारतीय साहित्यः
संकल्पना
आणि

